Published on 1st and Posted on 5th & 15th day of every month

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब

मासिक

माय २०२२

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें
ALL INDIA KONKANI PARISHAD's

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो आरंभ आनी हावेस

मिथक आनी सत्य

उदय भेंब्रे

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अध्यक्षांचीं भाशणां




संकलन आनी संपादन
डॉ. जयंती नायक



## कोंकणी परिशदेन नवें पंचशील राबोवपाचो वेळ आयला!

# Love Chocolate?

Desserts N More pampers you with a host of choices
Simple Cakes, Designer Cakes, Eclairs,
Donuts, Mousses and more.




ORDER ONLIN

ORDER ONLINE: **www.dessertsnmore.co.in**
CALL US: **08806929956**
**Caculo Mall | Mall De Goa | Mapusa City**



# कोंकणी मासिक बिम्ब

शीर्शकथा

**कोंकणी परिशदेन नवें पंचशील राबोवपाचो वेळ आयला!**
दिलीप बोरकार



ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात.
संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.


वर्स २१:अंक ५
माय २०२२
मोल ५० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

अंक सजावट
गिरीश नंदा बोरकार,संकेत लवंदे

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

**BANK DETAILS :**
**Bimb Monthly**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793



**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी–गोंय, 403204

संपादकीय

# कुतां काडले बगर फितां चडनात...!

कोंकणी चळवळीचो इतिहास जर चाळून पळयत जाल्यार कोंणे तरी तुकलायल्या बगर कोंकणी मनीस कसोच हालना म्हणपाचें दिसता.21 व्या शतमानाच्या आरंबाक कोणेंतरी वामन रघुनाथ राव वर्दे वालावलीकार ह्या तरनाट्याक शणै म्हूण कुच्छीत्रीपणान तिडायलो आनी तो तरनाटो फुरफुरून उठलो. ताणें कोंकणी भाशेक वयर काडपा पासत आपले जिणेचीं चार तपां कोंकणीक ओंपलीं आनी फुडाराक तो शणै गोंयबाब ह्या नांवान कोंकणीचो म्हापुरूस थारलो.

शणै गोंयबाब जावंकूच नाशिल्ले जाल्यार कोंकणीक जें एक व्यापक रूप मेळ्ळां, तिका आयज एक स्वतंत्र भास म्हूण जें आसन लाबलां तें लाबचेंच नाशिल्लें. ती मराठीची बोली म्हूण कोंकणी मनशाच्या तोंडारूच घोळपाची वा येन्नादर मरूनय गेल्ली आसपाची. हें अशें म्हणपाक रजांव म्हणल्यार आयज कोंकणी समाजांतलो एक म्हत्वाचो घटक कोंकणी सोडून इंग्लीशी वटेन रावला. तांची आवयभास इंग्लीशूच जावन गेल्या. कोंकणी आपली भास आनी ते भाशेंतल्यान आपली जीण आनी फुडार घडोवं येता हाची तांकां जाणविकायूच ना. इंग्लीशींतल्यान जर पोट भरता जाल्यार, पोट भरप हेंच आपलें जिणें मानपी लोकांक स्वाभिमान कळपाक ना. स्वाभिमान ना जाल्यार नवें कितें आपणावपाची तयारी उरना.

हीच गत कोंकणी समाजांतल्या दुसऱ्या घटका बाबतींतय घडल्या. हो घटक मातसो उजवो थारलो ताचें फाटलें कारण मराठी ही भारतीय संस्कृतायेंतली भास आनी गोंयांत तिचो इतिहासीक कारणांक लागून वापर जातालो म्हूण ! शणै गोंयबाबांचो आत्म सन्मान जर जागूंक नाशिल्लो आनी ताणीं कोंकणी मनशाक जागोवंक नाशिल्लो जाल्यार आज गोंय हो महाराष्ट्राचोच एक वांटो जावन आसपाचो! गोंयकार आपली भास मराठी म्हणूनच मिरोवपाचो आनी घरांत पावलो काय कोंकणी बोली उलोवपाचो!

पूण हें अशें घडपाचें नियतीक पसंत नाशिल्लें. कोंकणी समाजांत आनीक एक घटक जागृत अवस्थेंत अस्वस्थतायेन जियेतालो. ताका कोंकणीवादी म्हणत ताच्यो बकच्छायो जाताल्यो. ह्यो बकच्छायो आनी तुकलावप इतल्या हीण दर्जाचें आसतालें, आनीक कोणूय जाल्यार नाका ती कोंकणी, त्या परस ती मराठी आनी इंग्लीशूच बरी म्हणत मेळटा तातूंत सूख मानपाचे. पूण कोंकणी समाजांतल्या ह्या तिसऱ्या घटकाचेर शणै गोंयबाब संमंध जावन बशिल्ले. शणै गोंयबाबां उपरांतची ही स्वाभिमानी पिळगी कोंकणीचो बावटो घेवन मुखार सरली. हे पिळगेन आपली बुद्ध थीर दवरून गोंयच्या आनी कोंकणी समाजाच्या फुडाराची मोख नदरे मुखार दवरली. तांचे मुखार मराठीचें मोवाळें चडोवन वाट चुकिल्ल्या कोंकणीच्याच धुवां-पुतांनी जितलीं आडमेळीं हाडलीं तीं तांणी हुपलीं. धंगण सोडून ह्या लोकांनी कोंकणीचे विरोधक म्हूण ज्यो कितें बकच्छायो केल्यो तांचेर आडनदर करून स्वाभिमानी कोंकणी समाजान आपली मोख सार्थी पावयली.

कोंकणी ही एक भास म्हूण तिची तांक पळोवनूच साहित्य अकादेमीन कोंकणीक एक स्वतंत्र भारतीय भास म्हूण मान्यताय दिली. त्याच मालवजार तशेंच गोंयचे जनतेचे उमाळे जाणून सरकाराक कोंकणीक राजभास केले बगर पर्याय उरलो ना. कोंकणीचो आसपाव संविधानाचे आठवे वळेरेंत करून गोंयाक राज्याचो दर्जोय दिवंचो पडलो तोय उपकार म्हूण न्हय तर कोंकणी मनशाचें बळ वळखुनच. कोंकणी साहित्याक सरस्वती सन्मान आनी आतां दुसरे खेपूय ज्ञानपीठ पुरस्कार लाबूंक पावलो तो कोंकणीचे तांकीचेरूच. ल्हानश्या काळांत दोळे दिपकावपी हीं इतलीं जैतां कोंकणी मनशाच्या पोशांत पडलीं नात तर तीं तांणी आपले तांकीचेर कोंचून काडलीं! म्हणटकच विरोधकांच्या पोटात कुचमळटलेंच. तांच्या तोंडांतल्यान विकृतीची घाण भायर सरतलीच. तेंच ह्या लोकांचें कर्तृत्व!

खरें पळोवंक गेल्यार गोंय हें कोंकणीचें घटकराज्य जाले उपरांत विरोधकांची वृत्ती आनी कृतींतली ही हळशीक बंद जावंक जाय आशिल्ली. कोंकणी ही भास काय बोली हो विशय सासणाचो सोंपूंक जाय आशिल्लो. तशें तें सर्वार्थान घडिल्लेंय आसा. पूण जांचे भितर फितुरीची कीड हुळहुळटा अशी एक निमणी जमात अजून अस्तित्वांत आसा. ही कीड सर्वकालीक. जें कितें बरें घडटा थंय ती तकली वयर काडटाच. शिवाजीच्या स्वतंत्र राज्य निर्मितीच्या काळारूय ती आशिल्ली आनी देशाच्या स्वातंत्र्य संग्रामाच्या काळारूय आशिल्ली. गोंय सुटके चळवळी काळारूय आशिल्ली आनी स्वाभिमानी कोंकणी चळवळींतूय ती आशिल्ली, आजूय आसा. ही फितुरीची कीड कांयच घडयना तर जैताक कळाव लावंक नखलामी करता. ह्या फितुरांचीं नांवां सुर्याजी पिसाळ जावं नथुराम गोडसे ह्या रुपान इतिहासांत उरलीं तरी तीं प्रवृती दाखोवपा पासत तगून उरतात.

असली ही प्रवृत्ती कोंकणींच्या वावरांत आरंभा सावन आसा अशें म्हणचे परस असले हे प्रवृतींक लागुनूच कोंकणीचो वावर तळम ळीन आनी ध्येयान मुखार सरूंक पावलो अशें म्हणल्यार चूक जावचें ना. असली प्रवृती हुळहुळना तर कोंकणी मनीस खरपुपाक वा मलम लावपाक हालचाल करीना. उदगीरच्या साहित्य संमेलनांत कोंकणीचो अपमान जावंक पावलो तो गोंयच्या फितूर सुर्याजी पिसाळांच्या हुळहुळ्याक लागून हें मतींत घेवपाक जाय. कोंकणी परिशदेचें अधिवेशन तोंडार आसतना हें घडलां म्हणटकच कोंकणी मनीस तिडकूं येता.परिशदेंत तो विशय येवं येता. पूण तितलो वेळ घालोवप परवडटलें काय किते? हें कुतां काडप घडलां तें कोंकणीचीं फितां वाडोवंक न्हय मू? विचार जावंचो!




# अशे आसतात कितें आमचे उत्सव?

10 एप्रिल ची घडणूक गोंयांत घडची ही लज्जास्पद गजाल! गोंय एक शांतीप्रिय राज्य. थंय अशे प्रसंग घडप म्हणल्यार ताची शांतताय भंग करप!

राम नवमीची यात्रा वास्को,इस्लामपूर हांगा वताली. अचानक खबर पसरली, कोणी तरी दगड फेक केल्या.यात्रा घुवून थंय आशिल्ले मस्जिदी कडेन गेली. मस्जिदींत लोक इफ्तार म्हळ्यार रोजा सोडपाचे तयारेंत आसले. थंय वचून यात्रींनीं मारहाण सुरू केली.

ह्या प्रसंगांत खुबश्यो गजाली चिंतन करपा सारख्यो आसात. खरेंच दगडफेक जाल्ली काय कितें? काय ही फकत अफवा आशिल्ली? मस्जिद रस्त्या वयल्यान शंबर ते दोनशें मिटरांच्या अंतराचेर आसून तिची दिका वेगळी आसतना थंयसान यात्रेचेर दगड फेक करचें संभव आसलें काय? यांत्रेकारांनी मस्जिदींत सरळ वचून दंगो करचें कितपत वैध आसा? कित्याक हाची सुचना पोलिसांक दिवंक ना? कित्याक कायदो आपल्या हातांत घेतलो?

ह्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो सोदल्यो तर जवळपास हेंच समजून येतलें, ह्या हिंसां मदीं कितें तरी पूर्वनियोजीत आसलें. एक संघटनेचो आनी उत्सवाचो आधार घेवन शांतीमय गोंयची शांती भंग करपाचो हो एक मोठो प्रयत्न आशिल्लो.

2014 उपरांत देशांत अशे प्रसंग खूब वयर सरले आनी आयज हें देशभर चालू आसा. ह्याच दिसा भारतांत खूब कडेन रामनमीचे यात्रेंत हाच्याहून चड भिरांकूळ घटना घडल्यो. खंय मस्जिदच्या मिनाराचेर भगवे झेंडे लायले तर खंय गरिबां घरांचेर बुलडोझर घाले.

अशें करून कितें साबीत करपाचें आसता काय?

हें फकत मुस्लिम समुदायाचेरूच जावपी अत्याचार न्हय तर क्रिस्तांव, शीख, दलीत सारख्या दुसऱ्या अल्पसंख्यांक समुदायांचेर सुद्धा चालू आसा.

दुःखाची गजाल म्हणल्यार लोक सुद्धा ह्या अत्याचारांचेर निशेध करनात! तर सत्य समजून घेवपा बदला आपलें मन पयलीं पासूनच एका समुदाया विरुद्ध ठरोवन दवरतात आनी ज्या समुदाया विरुद्ध तांकां जें शिकयिल्लें आसा तेंच सत मानतात.

दोनूय वटयांचें पुराय सत जाणून घेवप ही लोकांची जबाबदारी न्हय? बऱ्याच वेळार हेंच पळोवंक मेळटा कि जी बातमी पयलीं आयकपाक मेळिल्ली तातूंत अर्धसत्यूच आशिल्लें.

होळयेच्या दिसा सुद्दा उत्तर प्रदेशांत जेन्ना दोन गटां मदीं झगडीं जालीं तेन्ना पयलीं हीच अफवा पसरली, हिंदू आनी मुस्लिमां मदीं झगडीं जाल्यांत. एका समुदायान दुसऱ्या समुदायाचेर खूब टिप्पणी केली. मागीर अशें दिसून आयलें कि ते दोन गट एकाच समुदायाचे आशिल्ले. तांचो विवादय भलतोच आशिल्लो.

आमी सुशिक्षीत आसतना अशे तरेचे अज्ञानतायेचे वेव्हार आमकां सोबतात व्हय?

हे अशे प्रसंग हेच खातीर घडोवन हाडटात, समाजांतल्या लोकांमदीं द्वेष, घृणा आनी तिरस्कार वाडचो, लोक आपापसात झगडत रावचे म्हूण! देशाच्या हिताचे जे वास्तवीक, मुख्य मुद्दे आसात ते विसरून वच्चे देखून! अशें केल्यार लोकांचेर राज्य करचें सोंपें जाता आनी सत्तेर आशिल्ल्यांक आपले खिशे भरपा खातीर कसलेंय काम करपाक संद मेळटा. लोकांची कांयच आडखळ येना. ही येवजण सदांच जगाच्या दिगंत फुडाऱ्यांनी आपणायल्या. लोक आपापसात झगडटात, आपलें लुकसान करतात आनी देश बुडयतात. फायदो फकत त्या फुडाऱ्यांकूच जाता जे लोकांक फट आश्वासना दितात. धर्माच्या नांवाचेर तांका भूल घालतात.

श्रीलंकेचेंच उदारण आमच्या मुखार आसा. श्रीलंकेंत सुद्दा असोच प्रकार चालू आशिल्लो. लोक धर्माच्या जाळांत घुरफटून रावले आनी थंय म्हारगाय इतले पर्यंत वाडली की आज श्रीलंकेंत आणिबाणी घोशीत करची पडली. देश आर्थिक संकश्टांत सांपडला.

एका समुदायाक दुसऱ्या समुदाया पासून खतरो आसा हें दाखोवन तांचे भितर निर्माण केल्लो दुबाव हीच

गजाल हाका जबाबदार आसा. हाका लागून हें सगळें घडून येता. लोकांकय कोणाचेर जाल्ल्या अत्याचाराचेंय कांय सोयरसुतक दिसना! तर ह्या दुबावाक चडूच घटाय मेळटा.

इतिहासाचें अर्धसत्य किंवा पुराय असत्य गजालींचें उदारण दिवन लोकांक असल्या भ्रमांत दवरतात. ह्या पयलीं घडलां तें आतांय घडूंक शकतलें आनी म्हुणुनूच तुमकां खतरो आसा अशें सांगून तांच्या मनांत संभ्रम तयार करतात. म्हणटकच हांणी न्याय आपल्या हातांत घेवन आपल्याक जाय तें करचें अशें तुमकां दिसता?

एक समुदाय आतंकवादी आसा म्हणून ते देशांत एक दीस आतंक करतले हें मनांत बळावन तोच आतंक दुसऱ्या समुदायाचेर करतले? तुमी हें सगळें आयजूच करून आयजूच देश आनी जनतेक त्रासांत घालतले? देशाचो सर्वनाश करतले?

शांती आनी भावपणान रावपी देशवासी, शेजारी, मित्र कितें तुमकां दिसनात? तांचे पयकी कोणी कोणाचेर हाचे पयलीं हत्यार उबारिल्लें कितें? कोणी कोणाचेर बॉम्ब घातलो कितें? सगळे एकमेकाच्या उत्सवांत सहभागी जाय नासले कितें? एक दुसऱ्याच्या वेळा प्रसंगाक आदाराक पावऽनासले कितें?

देशांत पयलीं दंगे जाले ते अश्याच भ्रमाक लागून. सत्ता आनी संपत्तीवाल्यांची लॉबी हेरांचें कर्तृत्व पळोवन थरथरता. तांकां मागीर लोकांची सुखां, शांती आनी एकवट पळोवं नज जाता. ह्या लोकांक लागून तांकां लोकांचेर राज्य करचें कठीण जाता. म्हुणून तांका लोकां मदीं दुबावाचें वातावरण तयार करून दवरपाचें आसता. जबरदस्तीन धर्मांतर करतात अशी अफवा पसरावन लोकांक ह्या भंया सकयल दवरतात. पूण जबरदस्तीन धर्मांतराचीं कितलीं प्रकरणां फाटल्या शंबर-दोनशीं वर्सांत घडलीं काय? हांचो ठोस पुरावो कोण दितलो काय? जीं धर्मांतरां जालीं तीं लोकांचे स्वतःचे मर्जीन जालीं. कसली श्रद्धा बाळगुची हो लोकांचो खासगी निर्णय आसता आनी आसपाकूच जाय. तातूंत कसलीच जबरदस्ती जावंक शकना. कारण श्रद्धा मनाच्या स्वभावाचेर अवलंबून आसता. फकत नांव बदलून श्रद्धा किंवा धर्म बदलना. आनी अशे कितलेशेच लोक आसतात जांचें नांव वेगळें, श्रद्धा वेगळी आनी कृत्य वेगळें आसता. पूण हांगा सुद्धा आमकां हेंच दिसून येता की एक समुदाय धर्मांतरण करतलो ह्या भंयान जो समुदाय हांच्या विरोधांत आसता तोच हें करतना दिसता. जबरदस्तीन दुसऱ्या समुदायाच्या लोकांक धरून आपले श्रद्धेचें गुणगान गावपाक जबरदस्ती करतात. ती करतना तांकां जिवीत सुद्धा सोडीनात. अश्यो कित्येक मोब लिंचिंगच्यो घडणुको देशांत घडत आसात. आतां सांगात खंयच्या समुदायाक कोणा पासून खतरो आसा? जे आरोप एक समुदाय दुसऱ्या समुदायाचेर लायता तोच ते करतना सापडतात. हें कसलें देशहीत आनी लोकहीत आसा? ह्या आतंकवादाक थांबोवपाचो प्रयत्न आसा काय ताका वाडोवपाचो? कोण आसा तर खरो आतंकवादी? कुरान

म्हणटा धर्मा बद्दल जबरदस्ती ना - (कुरान 2:256)

सगळे लोक एकाच जोडप्या पासून जन्माक आयल्यात (कुरान 49:13) आनी म्हणूनच एक दुसऱ्याचे नात्यान भावबंद आसात.

जिहाद आतंकवादाचो नाश करून शांती स्थापन करपा खातीर आसा. वायट शक्तीचो प्रभाव लोकांचेर जावपाक जायना म्हूण हो ह्या कुरानांतल्या श्लोकांचो अर्थ स्पश्ट करता. लोकां मदींय शंका रावंक जायना




की भारताचे शांतीप्रिय जनतेक मुस्लिम समुदाया पासून कसलो प्रकारचो खतरो आसा.

मुस्लिम समुदायान सुद्धा हाची नोंद घेवन त्याच प्रमाण शांती आनी सहनशीलतायेन काम करपाक जाय.

जनते कडेन विनंती आसा, देशांत शांती आनी अमन कायम दवरचें. तथाकथीत गजालींक बळी न पडटा आपसात प्रेमभाव आनी मनीसपणाच्या नात्यान आपले संबंध बरे दवरचे.जो हे शांतीक भंग करपाचो प्रयत्न करता ताच्या विरुद्ध एकजूट करून ताचो विरोध करचो.अशें करना जाल्यार हो उजो एक दीस सगळ्यांकूच जाळून उडयतलो-

जलते घर को देखनेवालों,
फूस की छप्पर आपका है.
आपके पिछे तेज हवा है,
अगला घर आपका है.
उसकी कत्तल पे मैं भी चूप था,
अब मेरा नंबर आया है ,
अब मेरे कत्तल पे तुम भी चूप हो,
अब अगला नंबर आपका है.

-नजराना दरवेश

▪ पणजी ▪ 8975074456




मालवण तशें गोंयांक सामकें लागीं
तशें तें आमचें गोंयूच म्हणपाचें!
आल्बुकेर्काक तेन्ना विश्वजीत जावं मायकल मेळूंक ना.
मेळिल्लो जाल्यार आयज मालवण गोंयांत आसपाचें!
हॉटेलांत दर दिसा मालवणच्यान नुस्तें येता
तातूंत पांपलेटी आनी विस्वणूच चड आसतात!
गोंयकारांक तें खबर आसा तरी ते विचारतात,
''विस्वण ताजो रे? खंयचो रे?''

आतां हो केन्नाय चुकून हॉटेलांत वतलो आनी बाबू आजगांवकारा वरी ह्यो चोवकश्यो करतलो!

विचारतकच हॉटेलवालोय जिवार येवन सो सांगता,''पात्रांव विस्वण आसा पूण लोकल न्हू हां!''

नरेंद्र मोदीन तें 'लोकल व्होकल' फित्रीक सोडीत सावन हें लोकलाचें लफडें मातलां.

तेच पासत म्हाका आल्बकेर्काचो दोळे फुटून राग मारता!
आरे घेवपाचें तेन्ना मालवण आनी गोंय करून उडोवपाचें!
म्हणटकच पापलेटी,विस्वण गोंयच्योच म्हूण गर्वसे सांगूक मेळपाचें!
'मालवणी वडा कोंबडा' म्हूण वचत थंय बोर्ड दिसतात
मालवण तेन्नाच गोंयांत घेतिल्लें जाल्यार 'वडो कोंबडो'च जावपाचें
आसूं जालें तें जालें आतां,जालें ना तेंय बरें जालें!
जाल्लें जाल्यार परिशदेचें हेंय अधिवेशन गोंयांतूच घेवंचें पडपाचें!
मालवणाक परिशद म्हूण फुलूंक मेळटा तेंय मेळचें नाशिल्लें!
पूण अशें तरी कशें म्हणूं येता! हें अधिवेशन तर दोन वर्सां आदलें.
सादलें जाल्यार सादलें ना तर कालसांव आदलें !
अशें हांव म्हणना,प्रोसोर नागवेंकार म्हणटालो.
ताचें जाल्लें अशें,हें 32 वें अधिवेशन दोन वर्सां आदलें.
सगळे विशय,उलोवपी,खाण जेवण बी सगळें थारलें.
पूण त्या करोनान ऐन वेळार सगळ्यांचो घात मारलो.
मालवणा परिशद म्हणटकच खूब जाणांनी साडयो घेतल्यो नव्यो.
करोनान अधिवेशन फुडें धुकल्लें आनी साडयो आलमारींत गेल्यो.
साडयो आलमारींत बंद म्हणटकच नव्योच उरल्यो
पूण न्हेसपी मात दोन वर्सां भितरच उरिल्ल्यान चडूच म्हाताऱ्यो जाल्यो
आतां करप कितें त्या साडयांचे, हो प्रस्न तांकां पिडटा !
पिडूं थंय,हांवें सगळेंच कित्याक माथ्यार मारप?
म्हाका पडलां नागवेकाराचें.
आतां हो नागवेंकार कोण हें मात विचारूं नाकात!
गौरीश वेर्णेकाराक तर मात्तूय विचारूं नाकात.
तोच हालीं परिशदेच्या वावराक लागून टेन्शनांत आसा.
म्हणटालो म्हाका पयर, 'तें कितें आस पै तें तुका कळपा ना.'
हांवें म्हणलें सांगत वच, कळना तेन्ना विचारतां तुका.

ताकाय खूब कितें सांगपाचें आशिल्लें. तें तशेंच पोटांत दवरून ताकाय आतां त्रास जावपाक लागिल्ले.

ताणें सांगली ती गजाल अशी...
परिशदेक इतलीं वर्सां आपल्याची सुवात नाशिल्ली
ताणें जोड सचिव आसुनय ती आलायती जोडली.
अधिवेशनाचे विशय थारिल्ले अडेज वर्सां आदीं.
करोनाचे धामीक  लागून ते विशयूय तशेच उरले.
पूण उलोवपी मात दोन वर्सांनी म्हातारे जाले आनी विशयूच विसरले.

तातूंत आनी ताणें मुख्यमंत्र्याकूय आपोवणें दिलें आनी तोय एका पांयार तयार जालो.

हाणें ताका आपयल्लो अधिवेशनाक ताणें सदळ हातान अनुदान दिवंचें म्हूण तर हाणेंच ताका सरकारी तिजोरी उगती करून दाखयली.

वयल्यान खर्चांत कपात करपाचोय सल्लो दिलो.

आतां कितें करचें हे चिंतेन तो आसलो तर उषा राणेन म्हणलें खंय,'भिवपाची गरज ना!'

आनीक कोणूय जाल्यार खूश जावपाचो,पूण गौरीश तिडकलो.

''सीएमान म्हणपाचें तें तूं म्हणटा गो? सदां म्हणटालो,आतां कसो विसल्लो?''

आतां उषा राणे तरी ताका कितें सांगतलें? तरी ताणें सांगलें,'' हें पळय,खर्चा माथ्या मार्न घेय नाका. आमी कारवारचीं आनी सुवात मालवणची. आमी अधिवेशन मस्त करया. मदल्या गोंयकारांक तेंचें चोंवदी!''

गौरीशान तें थंडसाणेन आयकून घेतलें. हें भिवपा गरज ना म्हणटा जाल्यार हांवें भिवच्या कित्या जायें?

ताणें म्हाका सत सत सांगून आपलें पोट खालीं केलें खरें
तरी ताच्या माथ्यार म्हाका बरोच भार दिसतालो.
आतां ताचे तोपयेक लागून हेरांक तो जाणवना जायत

पूण एक्साची ही परिशद आनी अधिवेशन ताका तितलीशी फायद्याक पडली ना शी दिसता! •••

■ *शीर्षकथा* ■



दिलीप
बोरकार

# कोंकणी परिशदेन नवें पंचशील आखपाचो वेळ आयला...!

*संमेलन बी उलगलें म्हणटकच निरोप घेतना दोळ्यांच्यो जाल्ल्यो ओल्यो कडो...वेगवेगळे परिसंवाद, चर्चा, घेतिल्ले वेगवेगळे थाराव, तांकां जाल्लो विरोध, मागीर ते हट्ट, ते निवळावपाक केल्ली म नधरणी आनी तातूंतल्यान थारावांत केल्ले बदल, कवी संमेलना आनी त्याच माटवांत दोन दिसांच्या ह्या सुवाळ्यांत जुळिल्लीं मनां, विरह...अश्यो कितल्योच गजाली परिशद आनी संमेलनांत घडल्यात. तातूंतल्यो विसरूंक येनात असल्योय कितल्योच घडणुको..परिशदो म्हणल्यार आमच्या कोंकणी कुटुंबाचो एक उत्सव आसतालो.*

**लेखक ज्येश्ठ पत्रकार आनी साहित्यीक तशेंच बिम्ब मासिकाचे संपादक आसात...**



अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें 32 वें अधिवेशन, सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांतल्या मालवणांत धुरीवाड्यार बॅ. नाथ पै सेवांगणांत ह्या म्हयन्याचे 14 आनी 15 तारखेक आयोजीत केलां. महाराष्ट्रांतल्या मालवण सारख्या कोंकणी वाठारांत हे आदीं परिशदेचें अधिवेशन वा साहित्य संमेलन केन्नाच घडोवन हाडूंक ना. जीं जाल्यांत तीं महाराष्ट्राची राजधानी मुंबयत. मुंबय राजधानी जाल्ल्यान तशी ती कोणाचीच न्हय.पूण सिंधुदुर्ग जिल्हो हो भुगोलीक आनी राजकी नदरेन मराठणाचो वांटो आसलो तरी भाशीक आनी सांस्कृतीक नदरेन कोंकणी वाठार. म्हणटकच ह्या वाठारांत देशभरांतले कोंकणी लोक जेन्ना दोन दिसां पासत येतात तेन्ना तांची सरबराय खूब बरे तरेन जातली हातूंत मात्तूय दुबाव ना. आतां हें सामकें हड्ड्यार हात मारून सांगपा फाटलें कारण म्हणल्यार हो सिंधुदुर्ग जिल्हो. सिंधु म्हणल्यार दर्यो. दर्या देगे वयले हे भुंयेंत रावपी लोकूय दर्याचें काळीज घेवन आयल्यात हातूंतय दुबाव ना. कित्याक गोंयकारूय ह्या अरबी म्हालसमदिराच्या शेकानशेक पसरिल्ल्या किनारपट्टी वयले, सप्त कोंकणांतलेच लोक. मोग दिवपाक, सोयऱ्यांची सरबराय करपाक हे लोक खंयच हातचें राखून दवरनात. म्हणटकच दर्याचें काळीज, तातूंत भरिल्लो उप्पाट मोग आनी नुस्त्यान भरिल्ल्या मालवणी जेवणाचें ताट हातांत घेवन, देशभरांतल्या आपल्या कोंकणी भाव-भयणांक येवकारपाक रावल्यात अशी आमच्यांनी नक्कीच खात्री बाळगूं येता!




## मालवणाक आमी वतात कित्याक?

मालवणाक आमी वतात परिशदेक. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें 32 व्या अधिवेशनाचें आयोजन थंय केलां. तशें तें दोन वर्सां आदीं ह्याच वाठारांत जावपाचें आशिल्लें. पूण करोनाचे धामीक लागून तें अडचलें आनी आतां तोंडा वयली पट्टी ल्हव ल्हव कुशीक काडपाचें वातावरण आकार घेता आसतना देशभरांतल्या कोंकणी वाठारांतल्यो वाटो मालवणाक दोडपाक आशेल्यात!

देशभरांतले कोंकणी लोक परिशदेच्या अधिवेशना निमतान हे दोन दीस मालवणांत एकवटतले. हांगा देशभरांतले म्हणलां तें तशी म्हणपाची पद्दत आसा देखून! हे अधिवेशनांत खुद्द मालवणांतलेच कितले लोक आसतले हें आतांच सांगूंक जावपाचें ना. शिता फुडें मीठ खावपाचें सोडून थंय वचून पळयले बगर तें कळचेंना. पूण गोंयच्यान निदान दोन बशी वतल्यो असो अदमास करूं येता. तशी तयारी गोंयांत चल्ल्या. तातूंत करोना धामीचो भंयूय सामकोच उणो जाल्लो ना. म्हणटकच हे आदीं परिशद वा साहित्य संमेलनाचें जंय जंय आयोजन जातालें थंय कोंकणी लोक यात्रेक गेल्ले वरी वताले तशे वतलेच म्हणपाचें सांगू नज. तातूंत अशे वचप्यांचो आंकडो अर्दान तरी उणो जातलोच! कित्याक परिशद जावं संमेलन म्हणल्यार आपले जिणेंतलो म्हत्वाचो उत्सव मानपी कितलेच कोंकणीचे निश्ठावंत आतां ह्या संवसारांत नात आनी आसात ते आपले उतार पिरायेक लागून प्रवासाक वचपाचे परिस्थितींत नात. म्हणटकच परिशदेच्या ह्या माटवांत नवे पिळगेन प्रवेश करपाची गरज आसा आनी तशी तयारी करप गरजेची. ना तर मालवणाक परिशदे निमतान वचप, थंय दोन दीस हाका ताका मेळून गजाली मारप, बरोऽ नुस्त्याचो मालवणी भूस मारप आनी आसा तशे आपापल्या वाठारांत परतप हातूंत मालवणाक कित्याक गेल्ले हाची जाप मेळची ना. ती मेळपाक परत एक खेप परिशदेच्या उद्दीशटांची आयच्या काळा कडेन सांगड घालची पडटली!

## परिशदेचीं उद्दीशटां केन्ना पुर्णायेक पावतलीं?

परिशदेचीं उद्दीशटां म्हणल्यार शेतांतली पिकावळ न्हय वा खंयचेय जमनीर उबारिल्ली इमारत न्हय हाची कल्पना म्हाका हें बरयतना आसा. हाडाचीं काडां करून, घामाचें उदक करून जमीन वसोवं येता आनी थंय कसलींय बियां घालून, पावस नासल्यार उदक शिंपून दोन तीन म्हयन्यांनी बरी पिकावळ काडूं येता वा आपले जमनी कुडक्यार हाच्या ताच्या पालवान, बँकेचें रीण बी काडून स म्हयन्या भितर आपले कल्पनेंतली इमारत वा घर बांधू येता. हो असलो वावर थारावीक काळांत पुर्णायेक पावूं येता. पूण परिशदेचो वावर आनी मोख ही तसली न्हय. जे सर समाज ही संकल्पना आसतली आनी कोंकणी समाज तातूंत आपलें अस्तित्व सुगूर करपाक सातत्यान धडपडत आसतलो ते म्हणसर परिशदेचो वावर ल्हान व्हड प्रमाणात चालूच उरतलो. तसो उरचो देखून कोंकणींतली दरेक पिळगी आपले परीन यत्न करतली. तातूंत सातत्य उरचें देखून तो वावर फुडले पिळगेच्या हातांत दिवन मेकळे जातले.

हांवें फाटल्या 40-45 वर्सांत चाळीशेक परिशदो आनी साहित्य संमेलना केल्यांत. म्हजे सामके तरणे पिराये सावन आतां मेरेनच्या काळांत हांवें परिशदेच्या आनी संमेलनाच्या चाळीशेक माटवांतलो अणभव घेतला. गोंयांतूच न्हय तर गोंयां भायरूय ह्या सुवाळ्यांच्या निमतान भोंवून आयला. म्हणटकच परिशदेचीं उणीं दुणीं काडून, आपूण विद्वान जाल्लेवरी शीण काडून वा मार्गदर्शन करून वेळ आनी पानां वगडावच्या परस हा चार दसकांतलो म्हजो अणभव आनी परिशदेचो म्हाका जाल्लो फायदो जर हांवें हे संदीचो लाव घेवन सांगलो जाल्यार आयज जी पिळगी हे परिशदेच्या माटवांत आसा आनी जी कांय कारणांक लागून पावलीना आसली तरी हो अंक तांचे मेरेन जेन्ना पावतलो तेन्ना तांकांय ह्या माटवाची ओड लागूंक पावतली हातूंत दुबाव ना.

## परिशदेन म्हाका एक कोंकणी कुटूंब दिलें.

कोंकणी परिशदेची पयली बसका 8 जुलय 1939 वर्सा

कारवाराक जाली. परिशद कित्याक घडयली आनी तिचीं अधिवेशनां कित्याक जाय आशिल्लीं, तिचीं उद्‌दीश्टां कितें आसात, तातूंतल्यान कितें जोडलें आनी कितें मोडलें हाचो इतिहास आयज उपलब्ध आसा. त्या भायर डॉ.जयंती नायक हांणी आतां मेरेन जितल्यो परिशदो जाल्यो तांच्या अध्यक्षांची उपलब्ध भाशणां संकलीत केल्यांत. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेन तीं ग्रंथरुपान उजवाडाकूय हाडल्यांत. ह्या भाशणांतल्यान त्या त्या काळांतली विचारसरणी, सामाजीक परिस्थिती, कोंकणी मनशाचे उत्फर्के आनी हावेस गुंथून रावल्यात. कोंकणी मनशाच्या पुरुशार्थाचो अभ्यास करप्यांक हे ग्रंथ म्हणल्यार खूब व्हडलो दस्तावेज.

कोंकणी परिशदेच्या वावरांत म्हत्वाचें योगदान आशिल्ल्या उदय भेंब्रे हांचेंय ह्याच विशया वयलें 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो आरंभ आनी हावेस-मिथक आनी सत्य' हेंय एक पुस्तक हालींच वाचूंक मेळ्ळें.

लार्गीं लार्गीं 20 परिशदांक वांटेकार जावनूय कांय गजाली केन्नाच स्पश्ट जावंक नाशिल्ल्यो आनी परिशदेविशीं ज्यो कितें कल्पना आशिल्ल्यो ताचे विशींचें स्पश्टीकरण ह्या पुस्तकांतल्यान गावलें. अभ्यासकांक ह्या पुस्तकांतल्यान खूबशीं सत्यां कळूंक पावतलीं आनी परिशदे विशीं आज मेरेन जें कितें आयकलां आनी समजलां ताका एक वेगळी नदर मेळूंक पावतली, जाचें इतिहासाचे नदरेन आनी अभ्यासकांचे नदरेन खूब म्हत्व आसा.

परिशदेच्या स्थापने उपरांत आतां मेरेन विंगविंगड वाठारांत 31 परिशदो आनी 24 संमेलना जालीं. हांव हातूंतल्या 20 परिशदांक आनी चोविसूय संमेलनाक आसां. मदीं एक-दोन चुकल्यांय आसूं येतात. पूण जितल्याय परिशदांक आनी संमेलनाक हांव जंय जंय गेलां थंय म्हाका आपल्याच कुटुंबांत वचून वावरिल्ले वरीं दिसलां. रासवळ कुटूंबांत जशे जाण्टेले आसतात तशे निकुबाब कारापुरकार आनी तांचे पिरायेचे हेर कितलेच लोक आमची अपुरबाय करताले. शणै गोंयबाब, माधव मंजुनाथ शानभाग सारख्या परिशदेच्या संस्थापकांक हांव मेळूंक पावलों ना जायत पूण ह्या लोकांक मेळिल्ले मुंबयचे कोंकणी वावुरपी एफ.जे.मार्तिरीश, नागेश सोंदे सारख्या कांय लोकांक हांव मेळ्ळां आनी तांचें आपलेपणय अणभवलां.

गोंयचे बाकिबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, नागेश करमली, उदय भेंब्रे, मनोहररोय सरदेसाय सारख्या कितल्याच लोकांचो वैचारीक आनी साहित्यीक सांगात, शंकर भांडारी, उल्हास बुयांव हांच्या सारख्यांचो वेगवेगळ्या तासांचो सहवास, सोतेर बार्रे




त, आंतोन मोरायस, फा. आ.पेरेर, बॉस्को रेगो, कोचीचे पुरुषोत्तम मल्या, के.के.पै, बस्तीमाम, गोकुळदास प्रभु, आर.एस.भास्कर आनी हेर कितलेच लोक, मागीर आमचे पुंडलीक, शिवदास, हेमा, रमेश, तानाजी, प्रकाशा पासून अशोक भोंसले, आरबीएस कोमरपंत, मेरेनचे तरातरांचे कालेतीचे लोक, परिशद म्हणटकच हांगां बऱ्याच काळान सगले मेळटले म्हूण मुद्दाम मुंबयच्यान येवपी शीला, जयमाला, फिलू, बंगुळुरच्यान येवपी इंदू गेरसप्पे, मंगळुरुच्यानय येवपी कितलेच माम लोक, तांकां मेळप, तांची खबर घेवप, तांचे कडेन उलोवप, परिशद, संमेलन बी उलगलें म्हणटकच निरोप घेतना दोळ्यांच्यो जाल्ल्यो ओल्यो कडो...वेगवेगळे परिसंवाद, चर्चा, घेतिल्ले वेगवेगळे थाराव, तांकां जाल्लो विरोध, मागीर ते हट्ट, ते निवळावपाक केल्ली मनधरणी आनी तातूंतल्यान थारावांत केल्ले बदल, कवी संमेलना आनी त्याच माटवांत दोन दिसांच्या ह्या सुवाळ्यांत जुळिल्लीं मनां, विरह...अश्यो कितल्योच गजाली परिशद आनी संमेलनांत घडल्यात. तातूंतल्यो विसरूंक येनात असल्योय कितल्योच घडणुको..परिशदो म्हणल्यार आम च्या कोंकणी कुटुंबाचो एक उत्सव आसतालो. ह्या उत्सवांत ल्हान-व्हड, उच्च-नीच, जात-पात-धर्म हाची खंयच सुलूस लागऽ नाशिल्ली. वास आसतालो पूण नाका मेरेन पावचोना हाची जतनाय घेताले जणेकलो. ताका लागून कोंकणीचें कुटूंब

एकसंघ उरिल्लें. ८२ वर्सां आदीं शानभागमामान परिशदेचें बीं रोयल्लें ताचीं म्होवाळ फळां आमचे पिळगेनूय चाखलीं. पुरुशार्थाचे चळवळीचें मुळावण हे परिशदेन घालें आनी ताचेंच फळ म्हूण कोंकणीक पुरुशार्थी लोक कार्यकर्ते म्हूण मेळ्ळे. तेच पासत बाकीबाब म्हणूंक पावले, 'किर्तीवंत पूर्व आमचें त्याय परस फुडार...' पूण आज किर्तीवंत पूर्व जाणें पळयलें ताका 'त्याय परस फुडार..' म्हणटना कांच सो दिसता...

## खरेंच फुडार किर्तीवंत आसतलो?

कोंकणीची चळवळ ही निखटी कोंकणीक तिचो मानाचो पाट मेळोवन दिवपाची चळवळ न्हय, कोंकणी भाशेची उदरगत करून तिका हेर भारतीय भासा भयणींचे पंगतीक बसोवपाची चळवळ न्हय. भाशेची चळवळ ही कोंकणी मनशाक पुरुशार्थी करपाची चळवळ. हे चळवळीक लागून कोंकणी भाशेची उदरगत जालीच त्या भायर तिका तिचे हक्काच्यो सगळ्यो सुवाती लाभल्यो. तिका साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळी, तिका भारतीय संविधानाच्या आठव्या परिशिश्ठांत आस्पावन घेतली. ती गोंय राज्याची राजभास जाली. पूण हे चळवळीचें इतलेंच जैत अशें म्हणूंक फावना. ही चळवळ चलतना पुराय संवसारांतलो कोंकणी मनीस ह्या ना त्या कारणाक लागून एकठांय आयलो आनी कोंकणी भाशेच्या सुतान तांकां बांदून दवरले. कोंकणी भाशेन आमच्या मदल्या कितल्याच लोकांक व्हड तांकीचे फुडारी जावपाची संद दिली आनी तांणी ती घेवन फुडारपणाची कुशळताय दाखोवन दिली. कोंकणी भाशेचे चळवळीक लागून कितलेच लेखक आनी कवी आपली प्रतिभा दाखोवंक पावले. फकत देशीच न्हय तर विदेशी भासांनी लेगीत तांच्या साहित्याची दखल घेतली. तांच्या साहित्याक साहित्य अकादेमी, सरस्वती सन्मान, ज्ञानपीठ सारखे राष्ट्रीय पुरस्कार मेळूंक पावले. हें शक्य जावंक पावलें तें कोंकणी ही भास म्हूण मुखार सरूंक जाय म्हूण माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी आरंभ केल्ले कोंकणी परिशदेक लागून. आमचो पुरुशार्थ भायल्या तेर्रांक लेगीत पावलो तो फकत कोंकणी म्हणून! आमचे बाकीबाब, लक्ष्मणराव हे मराठींतले व्हड तांकीचे साहित्यकार. पूण तांकां मराठी म्हूण मराठी भाशेचो केन्नाच भोवमान मेळूंक पावचो नासलो हें सत. तांची तांक ना म्हूण न्हय तर हेर भासांनी आपल्या धुवां-पुतांचो अधिकार दुसरे भाशेच्या पुतांक दिवप म्हणल्यार त्या भासांच्या धुवा-पुतांचो हक्क काडून घेवप. म्हणटकच तांची तांक मोलावन तांकां मान सन्मान फावो करून दिले तैं कोंकणीन. कोंकणीन आपल्या धुवा-पुतांक व्हड केले. जे कोण आज आपणें कोंकणी चळवळीक आयुश्य दिलें, चळवळीक लागून आपलें लुकसाण जालें अशें म्हणटात तातूंत तथ्य ना. जांणी कोणें कोंकणीची सेवा केली तांकां हे भाशेन मनीस केलेच त्या भायर चळवळींत कसलेंच योगदान नाशिल्ल्यांक लेगीत तांणी कोंकणींतल्यान उच्च शिक्षण घेतलें ह्याच मालवजार तांच्यो डिग्र्यो पळोवन कोंकणीन तांकां मानाचीं आनी जोडीचीं पदां दिल्यांत. अशें आसतनाय आज परिशदेच्या माटवांत लेगीत येवन बसपाचें धंगण हातूंतल्या कांय पडमुरांक ना. हे परिशदेंत जाळवणदारांनी ह्या असल्या लोकांक शिटकावणी दिवन सांगपाक जाय, बाबानो कोंकणीक आतां तुमचे सेवेची गरज आसा. कित्याक सांगपाक जाय तर हे लोक आपली कोंकणी कडली लागणूक विसरल्यात. आपणें कांयच करीना तरी आपल्याक कोण विचारपी ना म्हणपाचें तांणी जाणलां. पूण तांचो तो गैरसमज आसा. हे लोक कोंकणीची फकत मलय खातात म्हणपाचें उक्तेपणी दिसूंक लागलां!

आतां तर हाच्याय फुडें वचून कोंकणी म्हालगड्यांच्या वावराची मात्तुय मुर्वत दवरी नासतना कांय आयतेखोर समाज माध्यमाचेर चारित्र्यहनन करपाक संवकल्यात. आयज समाज माध्यमांचो वापर समाज सुदारणे पासत जावचे बदला आपलो व्यक्तीगत आकस काडपा पासत जाता. कोंकणीच्या मळावयली ही मानसिकता पळयत जाल्यार कोंकणीचो फुडार किर्तीवंत आसतलो काय कितें हाचो दुबाव मारूंक लागता. पूण समाज माध्यमांत कांय सकारात्मक गजालीय घडटात. कोंकणी स्पीक आनी हेर पंगड साहित्य आनी संस्कृताय ह्या मळाचेर सतत एकमेकाच्या संपर्कांत रावतात आनी कोंकणीच्या वावराक उर्बा दितात.

## खरेंच केलें गेलें वतलें?

आमचे लोकप्रिय मुख्यमंत्री डॉ.प्रमोद सावंत हांचे कोंकणीक लागून कांय गोंयकार तांकां 'केलें गेलें वतलें' म्हूण फकांडां करतात. कित्याक ते उलयतना 'करतले' अशें म्हणनात तर'केलें गेलें वतलें 'म्हणटात. मराठी भाशेंत जो कर्मणी प्रयोग वापरतात आनी जाका लागून 'करतले' हे क्रियेक उलयतना 'केले गेले जाईल' असो प्रयोग करतात. मुख्यमंत्री त्या वाक्याचो कोंकणींत उलयतना 'केलें गेलें वतलें' असो प्रयोग करतात आनी हांश्याक म्हारग जातात. तांकां कोंकणींत कर्मणी प्रयोग ना हें खबर ना देखून अशें घडटा. केलें गेलें वतलें ह्या बदला तांणी 'करतले'अशें म्हणलें जाल्यार तांची ती शुद्ध कोंकणी जाता. मुख्यमंत्री हे गोंयचे पयले नागरीक. तांचे कडल्यान गोंयकार खूबश्यो अपेक्षा बाळगून

▪ मडगांव ▪ 9822102416

आसात. पूण कित्याक प्राधान्य दिवप हें तांचेर आसा. गोंय हो कोंकणी प्रदेश आनी कोंकणी ही राज्याची मुखेल भास. ती मराठी, इंग्लीश ह्या भासां सारकी प्रगत आनी विकशीत भास न्हय. ते पासत हे भाशेक सरकारी पालव मेळपाची गरज आसा. कोंकणी भास ही गोंयचे संस्कृतायेची कुरू. ती भास कशी सक्षम जातली आनी चडांत चड तिचो वापर कसो जातलो हाचेर मुख्यमंत्र्यांनी भर दिवपाची गरज आसा.

हें सगळें हांगा सांगपाचें कारण म्हणल्यार अखिल भारतीय परिशदेचे जोडसचिव बाब गौरीश वेर्णेकार परिशदे विशींचो लेख घेवन आयिल्ले जाचो वापर ह्याच अंकांत फुडल्या पानांचेर जोड-शीर्षकथा म्हूण केल्लो आसा. हे कथेंत तांणी परिशदेचो इतिहास,उद्दीश्टां आनी आतां मेरेन जाल्ल्या वावराचो नियाळ थोडे भितर मांडला. तातूंत तांणी परिशदेचें निमंत्रण दिवंक मुख्यमंत्र्यां कडेन गेल्ले कडेन मुख्यमंत्री प्रमोद सावंत हांणी कसो उर्बेभरीत येवकार दिवन परिशदेकच न्हय तर कोंकणीचे सगले उदरगतीक सगले तरेचो आदार मेळटलो म्हणपाचें उत्तर दिल्ल्याचें सांगलां. ते भायर मुख्यमंत्री आनी कला आनी संस्कृतीमंत्री गोविंद गावडे हेय मालवणाक संमेलनाक येतले म्हणपाचें सांगलें. तें सांगतना जोड-सचिवांच्या मुखामळार खोस ओतताली.

मुखेलमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी कोंकणी पासत दिल्लें आश्वासन म्हणल्यार तांणी केल्ले कोंकणीचेर उपकार न्हय. खरें म्हणल्यार तांचेर कोंकणी पासत कितें करपाचें उत्तर दिवपाची पाळीच येवंक फावना. कोंकणी ही तांची आवयभास. त्या भायर ती राजभास. तिचे उदरगती पासत सरकारचें राजभास संचालनालय आसा. ह्या संचालनालया वतीन कोंकणीची उदरगत जाता काय ना हाचेर तांणी बारीक लक्ष दवरूंक जाय. कोंकणीचेर अन्याय म्हणल्यार आपले आवयभाशेचेर अन्याय, गोंयचे राजभाशेचेर अन्याय म्हणपाची कल्पना मुख्यमंत्र्यांक आसूंक जाय. हेर राज्यांनी आपले भाशेचेर चुकून लेगीत अन्याय जाल्यार थंयची जनता पेटून उठटा. पूण गोंयांत कोंकणीक सरकारी पातळीचेर कुस्कुटावपाची घडणूक घडटा. परिशदेन हाची जाणिव मुख्यमंत्र्यांक करून दिवपाक जाय.कोंकणीचेर ह्या मुखार सरकारान कितेंय अन्याय केलो जाल्यार खबरदार! अशी शिटकावणी परिशदेन सरकाराक दिवपाक जाय.'आतां तुजें केलें गेलें वतलें उपकारना तर तुवें कोंकणी पासत सरकार अमूक अमूक करतलें' अशें स्पश्ट सांग म्हण सांगपाची धमक परिशदेंत आसपाक जाय.

# कोंकणी परिशदेन नवें पंचशील आखपाचो वेळ आयला...!

भौ.उदय भेंब्रे हांचें 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो आरंभ आनी हावेस-मिथक आनी सत्य' हें पुस्तक वाचपाचो योग येवंचे आदीं म्हजी कल्पना आशिल्ली परिशदेचो उद्देश्य फकत -1-एक भास, 2-एक लिपी, 3-एक साहित्य, 4- एक संस्कृती आनी 5-एक समाज इतले पुरते आसात. हांवें हीं उद्दीश्टां खूब खेपे रवीन्द्र केळेकार हांच्या उलोवपांत आयकल्यांत आनी बरपांत वाचल्यांत. गुरुनाथ केळेकार तर तांकां कोंकणीचें पंचशील अशें म्हणटाले तेंय हांवें आयकल्लें. पूण आतां परिशदेचो इतिहास उस्तिततना परिशदेची संकल्पना माधव मंजुनाथ शानभाग हांकां कित्याक सुचली हें स्पश्ट जालां. कोंकणी निरक्षरी लोकांक देवनागरी लिपींत शिकयतकूच ते सट्ट करून अक्षरी जावन, चड त्रास बादनासतना बरोवंक-वाचूंक बेगीन तयार जातले हे येवजणेंतल्यान तांणी कोंकणी परिशद आपयली आनी उपरांतच्या काळांत परिशदेन व्हड वटवृक्षाचें रुप घेतलें.कारवारचे परिशदेंत 12 थारावण्यो घेतिल्ल्यो. तांचो उल्लेख वेर्णेकारांच्या लेखांत जाल्लो आसा. आज आमकां कोंकणीचो विचार आदलीवरीं भावनीक नदरेन करप कितलें परवडटलें हाचोय विचार करपाची गरज आसा. गोंय आमचें भांगराळें जावं तसलेंच कसलें आसचें हीं सपनां आतां काळा भायरीं जाल्यांत. शणै गोंयबाब, काकासायब कालेलकार, रवीन्द्र केळेकार, गुरुनाथ केळेकार जावं मनोहरराय सरदेसाय जावं गोंयचे हेर विचारवंत आनी सुटकेझुंजारी हांचे कल्पनेंतलें गोंय आतां उरूंक शकना. त्या विचारांचे लोक आयज नात आनी सद्या आमचे मदीं आसात ते उदय भेंब्रे, नागेश करमली, अरवींद भाटीकार हांचे सारखे गोंयचो हुसको करपी आनी गोंय आमी अशें दवरूंक जाय असो विचार करपी गोंयांत कितें चल्लां तें पळयतात. समाजाक वळण

## उत्तर कोंकणांतलें पयलें अधिवेशन

–उदय भेंब्रे.



अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचीं जीं अधिवेशनां आज मेरेन महाराष्ट्रांत जाल्यांत तीं सगलीं मुंबय शारांत जाल्यांत.आतां 32 वें अधिवेशन मालवणांत जाता. गोंयचे उत्तरेक आशिल्ल्या कोंकण वाठारांतलें हें पयलेंच अधिवेशन. त्या वाठारांत परिशदेचें अधिवेशन जावचें अशी इत्सा हाचे आदीं खूब वेळा उक्तावप जाल्या. पूण वेगवेगळ्या अडचणींक लागून तें घडून येवंक ना. अंदूं थंय अधिवेशन जाता तें फळादीक जावचें म्हूण मागूंक जाय आनी ते पासत यत्नूय करूंक जाय.

पुर्विल्ल्या काळांत गुजरात सावन कोची मेरेनच्या दर्या देगे वयल्या वाठाराक अपरान्त आनी मागीर कोंकण म्हूण वळखताले. ताचे सात वांटे मनांत धरून ताका सप्त कोंकण म्हणटाले. गोंय आनी ताचे उत्तरेचो तसोच दक्षिणेचो कांय वाठार आसा त्या प्रदेशाक मध्य कोंकण म्हणटाले. महाराष्ट्रांतलो आयचो सिंधुदुर्ग जिल्लो, कर्नाटकांतलो गंगावळी न्हंये मेरेनचो वाठार  आनी गोंय हांचो आस्पाव मध्य कोंकणांत जातालो.

आर्य लोक मध्य कोंकणांत आयलो तेन्ना कांय कुटुंबांनी कुडाळ आनी पेडणें हांचे मदल्या वाठारांत वसणूक केली आसुं येता! उपरांत सोळाव्या शेंकड्यांत  धर्मांतराक लागून गोंयांतलीं कांय कुटुंबां थंय गेल्लीं आसपाची शक्यताय आसा! तेच भाशेन, इक्विझिशनाक आनी हेर कारणांक लागून गोंयांतलीं कितलीशींच कुटुंबां  आयच्या सिंधुदुर्ग वाठारांत आनी घाटमाथ्यार(कर्नाटक राज्यांत)गेलीं असो उल्लेख इतिहासांत मेळटा. हीं सगळीं कुटुंबां कोंकणीभाशी. तांणी कोंकणी भास आनी संस्कृताय तिगोवन दवरल्या.

कोंकणी भाशेच्यो भासशास्त्राचे नदरेन सात बोलयो आसात अशें भासशास्त्री सांगतात. त्या सात बोलयां मदली सामकी उत्तरेची बोली  म्हळ्यार कुडाळी अशें तांचें मत. घडये हाकाच लागून मालवणी ही कोंकणीचीच एक शैली अशें आमकां दिसता.

कोंकणांतल्या ह्या वाठारांत कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचे विशींची जागृताय वाढोवपाची गरज आसा. परिशदेचें अधिवेशन हें एक साधन  तें कार्य करपाचें. अर्थीक कारणांक लागून गोंय राज्य आनी सिंधुदुर्ग जिल्लो हांचे मदीं संबंद वाडल्यात. त्या संबंदांक सांस्कृतीक आयाम मेळ्ळो जाल्यार परिशदेचे हावेस साध्य करपाक पालव मेळटलो. ते नदरेन परिशदेच्या ह्या 32 व्या अधिवेशनाक  खाशेलें म्हत्व आसा. हें अधिवेशन जैतिवंत जावचें!

दिवपाक तांचे विचार बदलतलो म्हणल्यार तांचे कडेन तशी शक्तूय ना आनी यंत्रणाय. गोंयची पुराय युवाशक्त आपापल्या विचारसरणेंत इतले घुस्पल्यात, तांच्योय अपेक्षा उंचावल्यात. तांकां राजकारण्यांनी आपल्या गोठ्यांत बांदून घेतल्यात. आज कोणूच दुसऱ्याचें आयकून घेवपाक तयार ना. जाणट्यांक,विचारवंताक आमी जशे मान दिताले तसो मान दिवपाचो आसता हाची कोणाक कसलीच भीड आनी मुर्वत ना. आयज कोंकणीच्या मळार कार्यकर्त्यांची फौज ना अशें न्हय.  नवी तरणी पिळगी कोंकणी कडेन आसाच. पूण तांकां वैचारीक बसका दिवपी फुडारपण ना. आज जणेकलो आपल्याक फुडारी लेखता आनी आपल्या जाळांत आपले अनुयायी ओडपाचो यत्न करता. ते पासत नाका जाल्लीं हांयसां लायतात. कोण कोणाची कविता तोखेता जाल्यार कोण सुमार बरपाक साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराचे पंगतीक व्हरून बसयता. कोणेंय जाणकारान  समज तांकां दोन सत्य गजाली सांगल्यो जाल्यार ताका दुस्वाशी मानून ताचे पासून पयस रावतात. हाका लागून कोंकणींत कितलेच जुंवे तयार जाल्यात आनी ह्या जुंव्याचेर आपलें साम्राज्य ते चलयतात. हाका लागून कोंकणीय मुखार वचना, साहित्यय फुलना आनी कसलो विचारय नदरेक पडना. म्हणटकच परिशदेचीं फाटलीं स्पर्श जावंक नाशिल्लीं उदिश्टां काळाची गरज म्हूण  जर मुखार व्हरपाची गरज आसल्यार तीं व्हरचींच पूण आयज निजी सुवार्था पासत जीं कोंकणीचीं विखाळ जुंवीं तयार जातात तीं  मोडून उडोवपा पासत परिशदेंत विचारमंथन जावपाक जाय. अर्थ नाशिल्ल्या मराठीवादाचें चर्वण करचे परस फुडलीं दोन वर्सां परिशदेन कोंकणींत जें ना तें कशें हाडपाचें हाचेर चर्चा करची. जाय जाल्यार नवें पंचशील तयार करचें. आपल्या वावरांतल्यानूच कोंकणी विरोधकाक जाप दिवंची. परिशदेन आपली तांक दाखोवंची! तें पुर्णवेळ काम. फकत पदां घेवप आनी मिरोवप हाका परिशद चलोवप म्हणटात काय विरोधक जंय जंय बोटां दाखयतात थंय आपलें लक्ष केंद्रीत करून  आपलें उणेपण पयस करतले? ●●●

**जोड शीर्शकथा**



गौरीश
वेर्णेकार
जोडसचीव–अखिल
भारतीय कोंकणी परिशद

# अधिवेशना निमतान



मडगावांत परिशदेचे वास्तुचें उदघाटन करतना अरवींद भाटीकार,उषा राणे आनी गौरीश वेर्णेकार

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें 32 वें अधिवेशन, बॅ. नाथ पै सेवांगण, धुरीवाडा, मालवण, जिल्हो सिंधुदुर्ग हांगा संपन्न जाता. ते निमतान हांगा जमिल्ल्या गोंय, कर्नाटक, केरळ आनी महाराष्ट्र तशेंच हेर वाठारांतले कोंकणी मोगी वावुरपी, साहित्यिक, कलाकार, पत्रकार, विवीध प्रसार माध्यमां हांकां परिशदे वतीन मायेमोगाचो येवकार.

वास्तवीक हें अधिवेशन दोन वर्सां पयलीं जावपाचें आनी सद्याचे कार्यकारिणीचो कार्यकाळ सोंपपाचो.पूण कोरोना म्हामारीक लागून अधिवेशन दोन वर्सां फुडें गेलें.अधिवेशन जाले बगर कार्यकारिणी बदलना. देखून साबार मंडळाचे बसकेंत हेच कार्यकारिणीन 32 वें अधिवेशन जाता मेरेन परिशदेचो कार्यभार सांबाळचो अशें थारलें.आमचो कार्यकाळ दोन वर्सांनी वाडलो. ह्या कार्यकाळांत जाहीर वा उक्तेपणान खंयच्योच कार्यावळीं आमी करूंक शकले नात. तरी सातत्यान ऑनलाइन जायत्यो कार्यावळी आमी केल्यो.देखीक वर्धापन दीस, मनोमिलन, कोंकणी राष्ट्र मान्यताय दीस, कोंकणीच्या संविधान पर्वाचीं तीन दसकां, बायलां दीस, कोंकणी परिशद आरंभ आनी हावेस, कवयित्री संमेलन, कोंकणी शिक्षण के. जी. ते पी. जी. श्रद्धांजली अश्यो जायत्यो कार्यावळी आमचे कार्यकारिणीन केल्यो.आनी दोन वर्सांचो जो चडावत काळ आमकां मेळिल्लो जो कोरोना म्हामारेन व्यापिल्लो ताका न्याय दिवपाचो यत्न केलो.

आयज अखिल भारतीय कोंकणी परिशद आपले वाटचालीचीं 82 वर्सां हुपता. ह्या 82 वर्सांत 31 अधिवेशनां आनी 24 साहित्य संमेलनां वरवीं भास, साहित्य, संस्कृती, शिक्षण आदी मळार परिशदेन बरोच वावर केला आनी करीत आसा.

कोंकणीक एक पुरातन इतिहास आसा. हे भाशेचो जल्म 10 व्या शेंकड्याच्या सुमाराक जालो अशें मानतात. पूण ती शेंकड्यांनी वर्सां लोकांचे जिबेरूच घोळत उरली. हाचें कारण म्हळ्यार एक तर कोंकणी काळाच्या हातांतली बावली जावन उरली, दुसरें परिस्थिती नुसार कोंकणी समाज जंय थंय फाफसलो ताका लागून ती विस्कटली.

सोळाव्या शेंकड्याच्या सुमाराक कोंकणी भास साहित्यांतल्यान नांवा रूपाक येवंक लागली. विसावे शेंकड्यांत शणै गोंयबाबांची पुस्तकां उजवाडांत येवंक लागलीं आनी ताचे फाटोफाट कोंकणीच्या साहित्य रोप्याचेर एक एक साहित्य फुलत गेलें. कोंकणीची उदरगत जायत गेली.

8 जुलय 1939 वर्सा (स.) माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी कारवारांत पयली कोंकणी परिशद भरयली आनी आमकां कोंकणीची माची तयार करून दिली. ते वेळार केरळ ते कच्छ मेरेनचे कोंकणी लोक एकठांय जाल्ले. ते परिशदेंत कांय म्हत्वाचे थाराव घेतिल्ल्याचें दिसून येता...

1. आपले दीसपट्टी वेव्हारांत कोंकणी उलोवप, पत्रवेव्हार, हिसोब कोंकणींतल्यान करप.
2. जे सुवातेर कोंकणी लोक रावतात ते सुवातेर कोंकणी मुळाव्यो शाळा सुरू करप.
3. जनगणने वेळार आपली आवय भास कोंकणी म्हण नमूद करप.
4. पुस्तकां, म्हयनाळीं, पत्रकारिता कोंकणींत करप.
5. आनी सर्वसाधारण लिपी या नात्यान कोंकणी खातीर देवनागरी लिपी वापरप.



परिशदेचे कार्यकारिणीन मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांची भेट घेवन तांकां ३२ व्या अधिवेशनाक निमंत्रण दिलें.

1939 वर्सां दूरदृश्टी दवरून घेतिल्ले हे पांच थाराव आयजय आमकां विचार करपाक लायतात. परिशदेचे संस्थापने वरवीं आख्ख्या कोंकणी लोकांक जागोवपाचें काम माधव मजुनाथ शानभाग हांणी 82 वर्सां पयलीं केलें. हें काम खूब म्हत्वाचें. देखून कोंकणीच्या मळार आयिल्ल्या अपार परिवर्तनाचो शिल्पकार म्हणून कोंकणी समाज तांचो कायम रिणी आसा.

एक भास, एक लिपी हें साहित्यीक तत्व, आनी आख्खो कोंकणी समाज एकठांय हाडून कोंकणीची उदरगत करची हो परिशदेचो मूळ उद्देश. भास म्हळ्यार विचार उक्तावपाचें, एकमेकां कडेन संवाद सादपाचें आनी समाजा कडेन संपर्क सादपाचें एक साधन. कोंकणी समाज संघटीत जातलो जाल्यार तो समाजाचे भाशे वरवींच जावपाक जाय.आनी एक लिपी आसले बगर तें शक्य ना. कारण लिपी आनी भास समाजाक एकठांय हाडटा.

परिशद स्थापन जावचे पयलीं शणै गोंयबाब आमकां कोंकणी भाशा साहित्य, संस्कृती आनी समाज हे विशीं स्फूर्तदिणें विचार दिताले. त्या विचारान कोंकणी चळवळींचे मुळावण घाल्लें. ते वेळार जायते साहित्यिकांनी कोंकणी साहित्य बरोवन समाजांत जागृताय हाडचो यत्न केलो. पूण ते परिस्थितीनुरूप मर्यादीत उरले.

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेन अधिवेशनां आनी साहित्य संमेलनां वरवीं वेगवेगळ्या प्रांतांच्या कोंकणी लोकांक एकठांय हाडले. तीन धर्माचे, चार राज्याचे, ते भायर कच्छ दिल्ली, तशेंच पांच लिपी वापरून तरेकवार शैलींत उलोवपी आनी बरोवपी कोंकणी लोक परिशदेचे माचयेर आयले.आनी तांणी परिशदेचो वावर कसो आनी खंयचो आसचो हांचेर भासाभास करून कोंकणीचे उदरगते खातीर तरेकवार येवजण्यो मांडल्यो. ह्या म्हालगड्यांनी परिशदेच्या माटवा खाला संघटीत जावन सतत वावर केलो. तांच्या वावराचें जैत म्हणून कोंकणी समाजांत अस्मितायेची जागृती जाली, मायभाशेची उंचाय आनी अभिमान तेंगशेर पावलो.

आयजवेर परिशदेन कितें केलें?

1. वनवासी अवस्थेंतले कोंकणी भाशेचें पुनरूज्जिवन करपाचो पयलो राष्ट्रीय पावंड्या वेलो यत्न परिशदेन केलो.

2. जळीं मळीं शिंपडून गेल्ल्यान एकमेकांक अनवळखी जाल्ल्या कोंकणी मनशांक नित्य नेमान फाटलीं 82 वर्सां एकठांय हाडपी कोंकणी संस्था म्हणून परिशदेन नांव मेळयलां.

3. चार कडेन वांटून गेल्ल्या आनी थंयच्या समाजांत विरगळून गेल्ल्या कोंकणी समाजाक कोंकणी अस्मितायेची वळख आनी गरज परिशदेन करून दिली.

4. प्रदेश, धर्म, जात, लिपी राजकीय मतां भायर वचून साहित्यीक, शिक्षणीक, भाशीक, सांस्कृतीक मळार कोंकणी विशयांचेर संवाद सादपाचें सक्षम व्यासपीठ परिशदेन निर्माण केलें.

5. कोंकणी चळवळींक परिशदेन वैचारीक बळगें दिलां. कोंकणी चळवळींत जोडिल्ल्या चौफेर जैता खातीर जाल्ल्या संघर्शांत परिशदेचें नैतीक बळगें मेळ्ळा. फाटल्या 82 वर्सांच्या काळांत देशभर चलिल्ल्या कोंकणी कार्याक परिशदे कडल्यान प्रेरणा, प्रोत्साहन आनी सामुदायीक अशें पाठबळ प्राप्त जालां.

6. परिशदेचीं नित्य नेमान जावपी अधिवेशनां, चळवळीचे

पूर्व तयारे खातीर शिबिरां कशीं जालीं, अधिवेशनांच्या अध्यक्षांलीं चिंतनपर भाशणां, परिसंवादांतल्यान जाणकारांचें अभ्यासपूर्ण विचार मंथन आनी अधिवेशनाक आयिल्ल्या चार कडल्या कोंकणी समाजाचो तेंको हांणी कोंकणी चळवळीक एक अदृश्य अशी शक्त दिली.

आयज आमचे कडेन कोंकणी राज्य आसा. कोंकणीचें कुळार आसा. राजाश्रय आसा? संविधानाचे आठवे वळेरींत कोंकणी आवयन मानाचें स्थान मेळयलां. सर्वोच्च अशें ज्ञानपीठ पुरस्कार, सरस्वती सन्मान तशेंच तरेकवार साहित्य पुरस्कार रूपी मानाचे मुकूटय आमच्या साहित्यिकांनी कोंकणीच्या माथ्यार सोबयल्यात. पूण पूर्णतायेन कोंकणीक जैत मेळ्ळें? कारण आयचे घटकेकय आमचे मुखार जायते प्रस्न आसात, तातूंत चड करून लिपी, माध्यम, सरकारी पत्रवेव्हार, सरकारी वा खाजगी आस्थापनां,

रस्त्यार दिको दाखोवपी, बँको ऑफिसां ह्या सुवाते वेले फलक, फोन, मोबायला वेल्यान येवपी सुचोवण्यो हातूंत कोंकणी फाटींच आसा.

अशें म्हणटात राजाश्रय आसल्यार खंय सगळ्यो गजाली आपसूक साध्य जातात. कोंकणीक राजाश्रय आसा.राजभास कायदोय आसा, पूण कोंकणीचे प्रस्न काय पूर्णतायेन

सुटावे जायनात. सद्या एक खोशेची गजाल घडटा ती अशी की आमच्या सन्माननीय मुख्यमंत्र्यांनी कोंकणी संदर्भांतल्या

कांय गजालींचेर लक्ष घालपाची तयारी दाखयल्या.

अनीकय एक खोशेची गजाल सांगन दिसता, अधिवेशनाचे निमतान आमचें कार्यकारी मंडळ आमच्या मानादीक मुख्य मंत्र्यांक मेळपाक गेल्लें. तेन्ना तांणी आमकां इतलो सकारात्मक प्रतिसाद दिलो की आमी भरून पावले. इतले आपलेपणान तांणी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या चारूय राज्यांतल्या वावराचो आढावो घेतलो तेन्ना आमकां खूब खोशी जाली. तांणी आमकां कोकणीच्या वावराक लागता तो तेंको दिवपाची तयारी दाखयली. आनी पणजी वा लागसरल्या हेर वाठारांत जर एखादी बंद पडिल्ले शाळेची वा बंद इमारतीची वास्तू आसल्यार ती परिशदे खातीर

दिवपाची वेवस्था करया अशें नमूद केलें. फुडलें

संमेलन केरळांत करा, आपलें सहकार्य आसतलें अशेंय सांगलें. फुडें आनीकय एक सुखद धपको तांणी दिलो तो असो की, आपूण ह्या अधिवेशनाक मुद्दम येतलों म्हण. हाच्याकय चड खोशी आनी खंयची आसतली? तांकां काळजा सावन धन्यवाद.

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे बाबतींतय 82 वर्सां उपरांत एक खोशेची गजाल घडल्या, ती म्हळ्यार फाटलीं 82 वर्सां परिशदे कडेन आपलें स्वताचें म्हण एक कार्यालय वा वास्तु नाशिल्ली. मदलीं कांय वर्सां प्रभाकर भिडे हांचे बरेंपणान दौलत बिल्डींग, पणजी-गोंय हांगासर राजहंस कार्यालयांतले एके कुडींत कार्यालयीन काम चलतालें. पूण मागीर तीय सुवात ना जाली. उपरांत केन्ना भाड्यान तर केन्ना कोणाच्याय बरेंपणान एखादी सुवात घेवन बसका वा हेर कार्यावळी चलताल्यो. ना म्हणल्यार 82 वर्सांत आमचे म्हालगड्यांनी सरकारी, निमसरकारी आनी खजगी पातळेचेर खूब यत्न केले. पूण हे वर्सां अस्मिताय प्रतिशठानाचे रूपान परिशदेक आपली मठी घेवपाचो योग आयलो. आनी परिशदेचें 82 वर्सांचें सपन पुर्णत्वाक आयलें. खंयचेय गजालीक योग येवंचो पडटा म्हणतात हें खरें. परिशद तांच्या सदांच उपकारांत आसतली.

तशेंच ही मठी उबारपाक गोंय, महाराष्ट्र, केरळ, कर्नाटक,

मुंबय, दुबय, कोलकाता, धारवाड हांगा सरल्या दात्यांनी आनी कोंकणी मोग्यांनी आपापले परीन आदार दिलो. देखून अखिल भारतीय कोंकणी परिशद आपली ल्हानशी जायना हक्काची सुवात मेळोवंक पावली. परिशद ह्या सगळ्यांची मना काळजां सावन रिणी.

आयज अखिल भारतीय कोंकणी परिशद पयले फावट आपले स्वताचे मठयेंतल्यान हें 32 वे अधिवेशन घडोवन हाडपाक भायर सरलां. कारण 32 वे अधिवेशनाची पूर्व तयारी आपले हक्काचे वास्तुंतल्यान करता. हे खोशेक आनी अभिमानाक पार ना.

82 वर्सांनी हो योग जुळून आयला तो, भारतभर शिंपडिल्ले कोंकणी मोगी, दानी आनी म्हत्वाचे वांटो उखलिल्ल्या अस्मिताय प्रतिष्ठान-मडगांव, गोंय हांचे रूपान.

आमी सगळ्यांनी मेळून परिशदेची ल्हानशी वास्तु उबारल्या.

हाचे फुडें आमी सगळे कोंकणी मोगीं, अभिमानी,

शिक्षणिक, सामाजीक, उद्देगीक, विवीध प्रसार माध्यमांनी कार्यरत कोंकणी मोगीं मेळून, कोंकणीच्या कुळाराक म्हणल्यार गोंयांत एक सुसज्ज अशें भव्य कोंकणी भवन उबारपाचो हावेस धरुया आनी तो तडीक व्हरूया.

समेस्त कोंकणी मोगीं, अभिमानी, कार्यकर्ते, साहित्यीक,

पत्रकार आनी प्रसार माध्यमां हांका मनाकाळजा सावन धन्यवाद.

देव बरें करू.

●●●

■ *कथा* ■



विजया
शरद
सावंत



# सदाली चैत्रपुनव

*रानांतलो रस्तो सोंपून मळ लागलें. मागीर देंवती मेळ्ळी. आतां कुळागर मेळ्ळें. सदान कुळागरांत नदर फिरयली. ताका वळख मेळ्ळी ना. थंय ताका वेगळेंच किदें तरी पळोवंक*
*मेळ्ळें. व्हडली चुट्टी म्हळ्यार हिलारां पेटोवन कुळागरांतल्यान कोण तरी धांवतालो. मनीस दिसलो ना पूण ते हिलार धांवतना कळतालें. मर्दींच ते हिलार सरसरीत माडार चडले... मागीर देंवले...सदा पांय दसयल्या बशेन जावन थंयच उरलो.*

लेखिका मराठी तशेंच कोंकणींतल्यान सातत्यान कथा आनी ललित लेखन करतात.

सदाचें आनी बायो म्हळ्यार ताचे आवयचें सदांच वाजतालें. सदा सादारण धा–बारा वर्सांचो भुरगो. खुबच विद्वाटो. कितें तरी नवीन शिकपाची, भोवपाची ताका सामखी खुमखुमी. मातसो हुतहुतोय. जाल्यार बायोक तो नाडपेन्ना करून खंय त्रासांत पडत म्हणून हुस्को. ताणें बरें शिकून व्हडलो एम्प्रेगाद जावचें अशें तिका दिसतालें. आपूण व्हड जातगीर गुरुजी जावचें अशें ताका दिसतालें.

"कसलीं भिकेचीं लक्षणां रे तुजीं?" ती तापार जाताली.

"गुर्जीक कसलो वालोर आसा? वार लावन एकेकल्यागेर जेवतात ते! पगार बिगार कांय ना!"

मागीर ती ताका भंय घालपाक तोंडाक येता तें सांगताली. सदाक खंयच्याय झाडार चडपाक खूबच आवडटालें. बायो मेळत त्या झाडार नास, वारगोतीण, संमंध असल्यांक बसयताली. तांच्यो काणयो सांगताली. केन्ना जिवाण्यांचो भंय तर केन्ना विंचवाचो, केन्ना वानराचो जाल्यार केन्ना वागटाचो. सदाक एका कानान मातशें उणें आयकूंक येतालें. ताचोय उपेग ती ताका घरांत दवरपाक करताली. पूण सदा सदांच तिका वेवस्थीत शेंडी लायतालो आनी आपल्याक जाय तेंच करतालो.

हार्ली तांचें वाजलें तें निराकारा देवळा कडेन जातल्या नाटकांक लागून. चैत्रपुनव लार्गी आयली काय निराकारा देवळा कडेन नाटकां सुरू जातात. साताठ नाटकां आसतातच. केन्ना केन्ना बारा मेरेन पावतात. तातुंतल्या एक्काय नाटकाक बायोन ताका धाडलो ना. वर देडवरां रातचें चलून वचप तिका पटनासलें. नाटक चडटलें काय पडटलें हाचो अंदाज ना. शिवाय केन्ना केन्ना पावसय गुद्ढम करून नाटकाक येतालो. मागीर माटवांत खातड. मंटपांत लोक चिरडी करताले. त्या पावसांत नाटक तर न्हिदतालेंच शिवाय कावळ्या बशेन भिजत घरा येवपाचें.कांबळ हांथुरपाक व्हेल्ली आसल्यार माणसुकी..

बायोक हे असले गर्देत भोवप, समारंभांत वचप केन्नाच आवडलें ना. मागीर ती आपल्या पुताकय फार्टी ओडटाली. "सदा, तू त्रासांत पडटलो. तुका आयकूंक येना सारखें. तेरें म्हळ्यार भेरें म्हणटा!"

फाटल्या पावसाक वेलेमाडांतल्या तळ्यांत सगल्या भुरग्या वांगडा तो पेवपाक शिकलो. पयर मेरेन हें बायोक खबर नासलें. पयर कळसुली बांयत पडली आनी सदा कमरेक दोरी बांदून बांयत देवलो. बायोली पुतान जीव दिलो म्हणून बोब पडली. शेजारी धांवन आयले. पळेल्यार सदा झेत्तान बायंत पेवता. बायोक मुर्खांत काडून लोक हांसले. रागान बायोन सदाक भरती बडयलो.

आनी ताका लागून तिणें सदालो चैत्रपुनवेच्या निम ण्या उत्सवा रातीक वचपाचो कोंत्राद भायर मारलो. सदाक चैत्र पुनव खूब आवडता. निराकार देवा रथ जात्रे दिसा म गेऱ्यांच्या सरांनी, तरा तरांच्या फुलां फातयांनी सजयतात. तो परमळ ताचे आंगांत खुब्ब खोस हाडटा. देवाचे पालखे बराबर वाजंतरार धोलत धोलत धांवपाक ताचो जीव आशेता. दिवजां पेटोवन बायलो आनी दिकमाळो घेवन दादले देवळाक भोंवताडे काडटात तेन्ना ताच्या दोळ्यांची भूक न्हिवता.आनी जात्रेक मांड तर इतले पडटात, देवळाक फाटल्या फुडल्यान, पेडा कुशीक सगल्याकच खेळर्णी, आयदनां, खाज्याचे मांडार मांड ... साकरे बावल्यो, बुंदी लाडू, आल्यां कापां, रेवड्यो ...एके वटेन लिंबू सोद बी तसलें पिवपाचे. मर्दीच डोमारी आपलो खेळ सुरू करता. सगली रात देवाच्या दारांत उमेदीन, खोशयेन सरता. सदाक सगलें येवजून आयलें. ताणें हातपांय आपटीले. व्हडल्यान आड्डी मारून रडलो. पूण बायोन कशीच जाप घाली ना.ताच्यो आड्ड्यो आयकून भिकशेटीले बायलेन- व्हडले काकीन आपल्या पुताचे दिकमाळी वांगडा सदाक धाड अशें बायोक समजायलें. तिचे तोंडार 'हां' म्हणून तिणें घरांत भितर येवन सदाक चुरचुरीत चिमटो काडलो. त्या सावकाराले नवे सुनेचें दिवज ..तिचे कुळारचीं सगर्ली भर्जरी कापडां न्हेसून, भांगरां घालून आयल्ली. जावंयाक आनी धुवेक पळोवंक. तांचे मर्दी पोरणी पैरण आनी धाकलो वालो रेवडावन सदा वतलो हाची तिका लज दिसली.

जालें....सदा तिडकलो...ताची तकली हिसबाभायर चलपाक लागली. ताका कशेंय करून चैत्रपुनवेक वचपाचेंच आसलें...."बायो....वाड म्हाका... भूक लागली." तो पिरपीरपाक लागलो. आनीक झगर्डी नाकात म्हण्ण तिणें ताका बेगीन वाडलें. सद्दां खोडी काडपी सदा वोग्गी जेवलो. 'म्हाका न्हीद आयली' म्हण्ण शेंद्री फरकाटवन सोप्यारच आडवो जालो.

बायोक मातशी पाल पडली...भिकशेटीगेरचें दिकमाळ दिवज वाजत गाजत भायर सरलें तशी ती सोप्यार बडी घेवन बसली. सदा हाल्लो ना..ताणें दोळेय उकते केले नात."तू जाणां सदा, आयचे रातीन नासाची, बेताळाची आनी दाडाची फेरी आसता. कोणच मनीस आयचे रातीन एकलो भोवना. सगले पंगडान वतात. पंगडान येतात." तिणें दोन काणयोंय सांगल्यो तांच्यो. सदान आवाज काडलो ना. घडये ताका आयकूंक आयलें नासत! दिकमाळ पयस गेली. सदाय न्हिदलो. तशी बायो घरांत आपल्या उद्देगाक गेली.

........सदाच्या कानांत दिकमाळेचें वाजंतर घुमतालें. सट्ट करून तो उठलो आनी कुळागरांतल्यान धांवपाक लागलो. मागीर पांर्जीतल्यान वयर येवन निराकाराक वचपाचे वाटेर आयलो. पुनवेचें चान्नें इतलें सुंदर पडिल्लें,सगलें कशें लखलखीत दिसतालें. तो खुबच उमेदी जालो आनी रस्त्या वेल्यान मुठी आवळून धावपाक लागलो. ताका बँड

आयकूंक येतालें म्हळ्यार दिकमाळ चड पयस वचूं ना...तो तांकां सहज मेळोवन घेतलो...वाटेर अकस्मात आंब्या पोंदा एक धनगर कांबळ खांदार घेवन उबो जालो.

" रेऽऽय लक्षुमणा, करडू सांडलां काय रे तुजां? आंब्याच्या मुळांत बूड तेकोवन काय करतालो रे तू?" सदान फकाणां केलीं. धनगर कांयच उलयलो ना. हातीन आशिल्ली वाकडी बडी ताणें हालयली. घुंघरांचो आवाज बरोच वेळ खुळखुळ्ळो. सदाक मजाच आयली.

"दिकमाळ गेल्यार कितलो वेळ जालो रे?" सदान विचारले.

धनगरान परत बडी हालयली. तो कितें तरी उलोवन नाटकांत राक्षस हांसता तसो हहहाहाहाहाहाहा करून हांसलो. ताचे घुंघूर खुळखुळ्ळे. हाच्या नादाक लागल्यार दिकमाळ आनीकय पयस पावतली म्हणून सदा तसोच धांवपाक लागलो.

धांवतां धांवतां तो बराका कडेन पावलो. थंय म्हारंगण नासाची घुमटी आसा. एक खीण भर रावन तो पांय पडलो."नासा रे...म्हाका दिकमाळ बेगीन मेळूं दी!" आनी तो परत धांवपाक लागलो..

मातशें पयस वतगीर ताका एक लांबरूंद असो उगडो, काळो कुळकुळीत कुळंबी मुखार वतना दिसलो. आंगार फकत काश्टी, खांदार कांबळ आनी व्हडलें पोतें घेवन तो व्हड व्हड धेंपां घालीत वतालो. जावं सायबा..कोणतरी सांगाताक मेळ्ळो.

'अऽय... उऽय.....ओ गा.. बाप्पा रेय..राव रे मातसो...' अशे कितलेशेच उले ताणें घाले. पूण त्या कुळंब्यान कशेंच फाटल्यान पळयलें ना...ना ताणें आपली चाल सवकास केली. तशेंच धांवन धांवन सदान ताका मेळोवन घेतलो.

"किदें रे बाप्पा, म्हाका आयकूंक येना अशें बायो म्हणटा.पूण तुकाय बी आयकूंक येना म्हजे सारखें? आनी तुका हें सांगून दिसरात भंय घालपाक, तापोवपाक बायो ना म्हणून तू साल्वार हां!" खरशेत खरशेत तो उलयलो. बाप्पा कांयच उलयलो ना. मागीर सदान आपूण जात्रेक वतां तें सांगलें. "बाप्पा, तू खंय वता रे? जात्रेक मरे? हे पोतयेंत किदें आसा रे? ....मिरसांगो ....अळसांदे....काय गोडे कणंगा..भिकणां शेर्त आसतलींच..विकपाक व्हरता मरे तू चैत्रपुनवेक?..."



तरीकय बाप्पा कांयच उलयलो ना. मोन्यानी चलत रावलो. मागीर सदाय वोग्गी पडलो. धांवन धांवन ताका पुरोय जाल्लें. शीतळ वाऱ्यान चांदी कशे चान्यांत न्हावन सदा बरोच तरतरीत जालो. तो आतां जाण्टेल्या कडेन खबरी करपाक सोदतालो. आतां जाण्टेल्यानय तोंड चालू केलें.हो जाण्टेलो मातसो कोल्लाचो दिसता! मनांत सदा चिंततालो.

"किदें रे? म्हाका म्हणटा किदें?" बाप्पान व्हडल्या आवाजांत धेंगसो घातलो.

"ना ना बाप्पा.. पूण तुजो आवाज मात सॉलिड्ड हां.भुयांरांतल्यान घुमता कसो!"

" तसोच आसचो पडटा. हांव राखणो हांगचो. हीं शेतां, भाटां, रान राखतां हांव."

"म्हळ्यार चोरांक बी धरता तू?"

बाप्पाक मातसो राग आयलो. ताणें तोंडांतल्यान

किळांच मारिल्लेवरी आवाज काडलो.

"राव, तुका हांव खबरीच सांगतां हांवें कितल्या जाणाक धल्ले ताची..."

मागीर ताणें ज्योऽऽ खबरी सांगपाक सुरुवात केली... सदा बेजारून गेलो. तातूंतली एक्कान एक काणी बायोन ताका साबार पावटी सांगिल्ली. सदा आतां मुकाट्यान चलत रावलो. केन्ना हाची बडबड बंद जातली काय हें चिंतत रावलो.

खरें म्हळ्यार तो बाप्पाचें तोंड पळोवंक सोदतालो. बायोक सांगपाक तरी मेळटलें, तुजे बशेन खबरी सांगपी एकलो आसा म्हण्ण! पूण जितले बेगीन पावलां सदा मारता तशींच जाण्टेल्याचीं पावलां पडटालीं. निमणें सदा ताका फाटी उडोवपाक परत धांवपाक लागलो. बाप्पा ताच्याकय वस्ताद. तोवूय धांवता. ताचे कमरेची आकडी कोयती कडक कटक...कडक कटक..तालांत वाजताली. चान्न्यांत ताचें काळें आंग तिकतिकतालें. सदाक पोटांतल्यान हांसपाक येवपाक लागलें. दोगांयची शर्यत कशी लागली! पुरो जावन सदा रावलो. तसो तोवूय रावलो.

आतां मात सदाक राग आयलो." बाप्पो, बरो मरे तू? म्हज्या वांगडा रावला पूण म्हाका तुजी वळख दिना... चल तूं...नाका म्हाका तुजो सांगात...तुज्या परस तो बेताळ परवडलो...तू जाणा? म्हगेल्या बापोल भावाक मेळिल्लो! तो मरे रातचो गोठणीगाठ्या शेतार माळ्याक वतालो.वाटेर तो असोच तुज्या बशेन मेळ्ळो. ताणें म्हज्या भावाक सायकलीर बसोवन व्हेलो. आनी मजा सांगू? गोठणीगाठ्यार सायकलीन वचपाची वाटच ना. पूण ते रातीन बरी वाट आसली खंय..ते मरे शेता कडेक पावपाक आयिल्ले. मोटवे रामा गंवळार पाविल्ले ते! बापोलभावान घाणायलें रे..ताका कसली तरी हळशीक गाळ माल्ली दिसता. बेताळान ताका धडे वेल्यान धुकलून गायरींत उडयलो आनी आपूण नाच्च जालो. तरी बरें फातरार बी पडलो ना. तो घुवळून थंयच उल्लो. दुसऱ्या दिसा ताका सोदपाक सगल्यांनी गोठणीगाठो पिसडून काडलो. तेन्ना तो मेळ्ळा. आनी एकदां मरे...

बाप्पान ताचे खबरींक कसलीच उमळशीक दाखयली ना. मागीर आपूण वोगीच बेताळाची गजाल सांगली कशें ताका दिसलें. मातसो शियांचो कुलकुलोय खालो ताका. खंय पावले कांयच कळऽनासलें. दिकमाळेचो आवाज केन्नाच बंद जाल्लो. सगल्याक किण्ण जाल्लें. अटांगे रानांत रातीन भोंवपी एकाद दुसरें शेवणें मर्दीच विचित्र आवाज काडटालें. रस्त्यार तो आनी बाप्पा दोगच जाण आसले. ताका लागून बाप्पाल्या जोत्याचो चर्रर चर्रर आवाज मोट्यान आयकूंक येतालो. कितलीं वरां जालीं, केन्ना पावतले कांयच अंदाज येनासलो.

रानांतलो रस्तो सोंपून मळ लागलें. मागीर देंवती मेळ्ळी. आतां कुळागर मेळ्ळें. सदान कुळागरांत नदर फिरयली.ताका वळख मेळ्ळी ना. थंय ताका वेगळेंच किदें तरी पळोवंक मेळ्ळें. व्हडली चुट्टी म्हळ्यार हिलारां पेटोवन कुळागरांतल्यान कोण तरी धांवतालो. मनीस दिसलो ना पूण ते हिलार धांवतना कळतालें. मर्दीच ते हिलार सरसरीत माडार चडले... मागीर देंवले...सदा पांय दसयल्या बशेन जावन थंयच उरलो.

"बापप्पा.... ...बाप्प....बाबाप्पो......म्हाका भंय दिसता रे..!" तो बाप्पाचो हात धरूंक सोदतालो. पूण ताका बाप्पालो हात मेळ्ळो ना. कोणें तरी सदाक उबारलो... आनी ताका घुंवळील्या बशेन जालें... सदान भियेवन दोळे धांपून घेतले...निराकारदेवा.. पाव....म्हाका चैत्र पुनवेक पावय..." तो दोळे घट्ट धांपून व्हड्डान आड्डतालो...पूण तोंडांतल्यान उतरच भायर आयलें ना. कोणें तरी घट्ट चेपून दवरिल्ले बशेन दिसतालें ताका...

...कोणें तरी ताका धुकळिल्ले भशेन केलें आनी सदाक जाग आयली. पळेल्यार तो निराकारा देवळा लागीं आशिल्ल्या पेडार न्हिदिल्लो.

पयसुल्यान देवळांतले झगझगीत पेत्रोलमासा दिवे दिसले. मायकावेलीं गाणीं, देवळांतले घांटेचो आवाज आनी जात्रेचो बोवाळ ताच्या कानार पडलो. आपूण जात्रेक पावलों हे खोशयेन तो सगळें विसरलो. पेडाक पांय पडून देवळांत येवपाक धांवपाक लागलो. व्हडले काकीन ताका वाटेरच आडायलो. तीं सगलीं परतीचे वाटेक लागपाची तयारी

करतालीं.

"आरे सदा....आमी केन्ना पावलीं मरे हांगा. तूं कित्याक आयलो ना आमच्या बराबर? रथ, पालखी जाली. दिवजांय जालीं. आनी आतां येद्या रातचो आयलो कसो रे तू ? कोणा वांगडा आयला तू? बायो आयलां काय किदें ?" काकी हुसक्यान एकार एक प्रस्न विचारताली.

"ना ना..राखणो बाप्पा मेळ्ळो. ताणें हाडलो म्हाका. तोवूय हांगाच आयला. म्हाका मर्दीच लकणी आयली म्हण्ण म्हाका पेडार सोडून तो गेलो. हांव सोदतालों ताका हांगा..."

भिकशेटीले बायलेन ताका दुबावान सो पळेलो. ती मातशी दोगां मर्दी अंतर दवरून उबी रावली.

"खंयचो तो? आनी वळख किदें सांगली ना ताणें आपूण कोण तो..!"

सदा उमेदीन उलयतालो. "सांगली तर..तो राखणो खंय ह्या गांवचो. शेतां भाटां रानां राखता. काळो काळो कोळसो कसो दिसता. ताणें बायो सांगता तसल्यो बेताळाच्यो, नासाच्यो काणयोय सांगल्यो. पूण तें सगळें आपुणच करता.... म्हणून सांगलें.....कोणाक तरी लिपयलो... खंय ताणें....मागीर तो चार दिसांनी..... मेळ्ळो.. इतलो वेळ आपूण खबरी मारल्यो तो बायोल्या काणयांतलो कोण तरी खरोच !!. सदाक एकदम येवजून आयलें. तागेल्या पोटांतल्यान कडकडो आयलो. ताचें तोंड सुकलें. .भिकशेटीले बायलेचें तोंड म्हारू पळेल्या बशेन जालें. ती आनीकय फार्टी गेली... "सदा चल पयलीं देवळांत... पांय पडून यो...!" ती आड्डली... आनी सदा गर्देतल्यान तीर कसो देवळांत धांवलो...ताच्या काळजांत ढाम ढाम ढाम ...धोल वाजतालो...कानांतल्यान कींऽऽ आवाज येतालो... ताणे भटमामा कडल्यान परत परत तीर्थ मागून घेतलें.देवाक धांवन धांवन प्रदक्षणा घाल्यो. देवा मुखार पोले फोडून घेतले. इतलें सगळें जातगीर व्हडले काकीन ताच्या आंगाक देवळांतल्या हवनांतले भस्म थापलें. "देवा निराकारा तुवेंच राखलो म्हज्या सदाक!" तिणें भटमामा कडल्यान सांगणें करून घेतलें. भियेवन मोव पडिल्ल्या सदान व्हडले काकीलो हात जो घट्ट धरलो तो घरा पावऽसर सोडलो ना. •••

*ललित*



काश्मिरी
पावसकार

# रुतुराज वसंत



*वसंत हो प्रसन्न असो रुतू. आपल्या आगमनान नव्या जिविताचो संकेत तो घेवन येता. देखून शिशीरांतली पानगळ सोंपून झाडां पेडांक नवी आंकरी, नवी कोंबरी फुलता. नवीं पानां पालेतात. सांगातान वाठार भर घेऽ म्हूण हडवीं, तांबडी हांसकुरीं चांफी पानां पानां कणकणी फुलतात. पंगारो, माट्टी, वोंवळीण, सावरीर भार येता. आशी कुशीक फुलिल्लीं सोबीत साळकांय भोवऱ्याक वेंगोवंक उत्सूक जातात. आपल्यो भितरल्यो कळा उक्तायतना पळोवंक मेळटात.*

लेखिका उच्च माध्यमिक विद्यालयांत शिक्षिका म्हूण वावुरता तशेंच सातत्यान ललित लेखन करतात.तांचें'कपयाळें'हें पुस्तकच उजवाडाक आयलां.

भारत हो रुतूंचो देश. हांगा दर दोन म्हयन्यांक हवामानांत बदल घडिल्ल्यान सैमाचें मोसम चक्र अखंड चालूच आसता. हिंदू पंचांगा प्रमाण चैत्र शुद्ध प्रतिपदेक शुभकृत संवत्सर सुरू जाता आनी रुतूराज वसंताचें गोड आगमन जाता. उपरांत गिमाळो, पावसाळो , शिंयाळो ( शरद), हेमंत आनी निमणें शिशीराचें आगमन जाता.

खरें म्हणल्यार शियाळ्यां उपरांतचो आनी गिमाच्या पयलींचो एक उमेदीचो काळ म्हणल्यार 'वसंत'. हय, वसंत म्हणल्यार आरंभ. इंग्लीशींत हाका'स्प्रिंग'म्हणटात. मनीस आपले जिणेंत भुरगेपण, तरणाटेपण,मध्यम पिराय आनी वृद्धावस्थेंतल्यान वता. तातूंतली तरणाटेपण ही ताचे जिणेंतली सोबीत अशी अवस्था. तशीच वसंत ही सैमाची सोबीत सुंदर युवावस्था. ह्या रुतूंत पुराय वाठारांत सैमाचो उत्सव चलिल्ल्याचो एक वेगळोच भास जाता. शिंयाळो सोंपता तशें शीं उणें जाता आनी मंद जाल्लें वत परतून एकदां कडक जाता. एक नवो उजवाड फांकारता. जोतिर्मय सूर कानार पडटात. मनशाक नवी उर्बा, चेतना लाबता. शेतां परतून पिकूंक लागिल्ल्यान सैमान पाचवी शाल कांबुरले वरी दिसता.

फुलां फळांचे हे दीस. आंबे, पणस,घोटां तशींच काण्णां, चुन्नां, जांबळां, हांसाळीं सारक्या रानफळांची पीक गळूंक लागता. चंवरांचो दिखाळ परमळ घेवन शीतळ वारें आमच्या आंगा खांदार खेळूंक लागता. पयले फावट काज,



आंबुल्ली चंवरूंक लागली काय गंधाळ वासाक लागून मूस, पिसोळीं, भोंवरे आकर्शीत जावन फुलां भोंवतणी धिट्टयो घालूंक लागतात. अशा वेळार तांच्यो भावनेन भरिल्ल्यो नदरो अचळय एकरूप जाल्ल्यान फुलां चंवर नाजूक चलयांवरी आपलीं गोड गुपितां एकामेकांक सांगून हांसतात, मुरगट्टातशीं दिसतात. सैमाचे माचयेर अशे हे खेळ सुरू जातकच तुमी आमी समजुचें मधु वसंताचें ह्या संवसारांत परतून एकदां आगमन जालां म्हूण.

वसंत हो प्रसन्न असो रुतू. आपल्या आगमनान नव्या जिविताचो संकेत तो घेवन येता. देखून शिशीरांतली पानगळ सोंपून झाडां पेडांक नवी आंकरी, नवी कोंबरी फुलता. नवीं पानां पालेतात. सांगातान वाठार भर घेऽ म्हूण हडवीं, तांबडी हांसकुरीं चांफी पानां पानां कणकणी फुलतात. पंगारो, माट्टी, वोंवळीण, सावरीर भार येता. आशी कुशीक फुलिल्लीं सोबीत साळकांय भोवऱ्याक वेंगोवंक उत्सूक जातात. आपल्यो भितरल्यो कळा उक्तायतना पळोवंक मेळटात. पुराय वसुंधरेचेर आंकवारपण सांवार जाल्ल्यान ती कोंबेता, आंकरेता. परत एकदा आंगान भरता. खरेंच! असो नवो ताल्ल जाल्लो सैम आनी ताचें मनभुलयणें रूप पळोवन आमचें मन सामकें भुलता. अशा वेळार ताची वेगळी कूस सैमान आपली कूस बदलिल्ल्यान आमच्या आंगार भोंवर फुलिल्ल्या वरी जाता. शिंया दिसांतल्या एकसुऱ्या रंगाची सुवात तरेकवार रंग घेवंक लागतात. फुलांच्यो कांपऱ्यो नदरो, मृदंगाचे बोल आनी कोगळाचो नव्या वर्साचो मल्हार आमकां वेगळ्याच जगांत पावयता. वाठार भर रंग, गंध आनी नादांचेर अवसर येता. देखून कवी, चित्रकार, साहित्यीक धरून मोगी जोडी भारावन वता. वसंतोत्सव मनोवपाक वसंत पूजा, चैत्र गौरी सारके सणूय आमी मनयतात. एकूणच सगल्या रुतूंची विशेशताय वसंतांत पळोवंक मेळिल्ल्यान ताका 'रुतूराज' जावपाचो मान फावो जाता.

पूण इश्टांनो, आयज काल गोंयांत वसंताच्या आगमनाची ' ब्रेकिंग न्यूज' मेळना. हाचे वेल्यान आमी सैमा पासून कितलीं पयस जाल्यांत हाची जाणविकाय आमकां मेळटा. हाचो अर्थ वसंत येना, ताचें आगमन जायना अशें न्हय. दोळे उकते करून पळयात. सैमाचो देखावो तुमकां दिश्टी पडटालो. त्या निमतान मनाची संवेदना मुजरत जागृत करात. मागीर चलात तर इश्ट इश्टिणींक मेळून 'इश्ट मेळ' सुरू करात. नवो सिनेमा, नवीं पदां, तोरांचें लोणचें, वडयो, पनें बी , अशा नव्या उपचारांक सुरवात करात. तुमची मंद जाल्ली मनाची संवेदना मुजरत जागी जातली आनी तुमच्या मनांत वसंत फुलतलोच हाची हांव खात्री दितां.

शिवोले गोंय–9421192858 •••



सखाराम
शेणवी
बोरकार

# कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचारांतलो 'चोर' आनी चोरी

*'चोरा भंय चोराक, जारा भंय जाराक'- एकाच वेवसायांत आशिल्ले दोग मनीस एकामेकांचो दुस्वास करीत आसतात. आपले मेळकतींत दुसरो वांटेकार जावंक सोदता अशें ताका दिसता आसुंये! एक वैज दुसऱ्या वैजाचो, एक नट दुसऱ्या नटाचो, एक भट दुसऱ्या भटाचो दुस्वास करता. इतलेंच कित्याक एक भिकारी दुसऱ्या भिकाऱ्याची नसाय करता.*

लेखक काव्य,ललित, विनोदी साहित्य, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.




पयर म्हाका वाटेर सदा मेळ्ळो. बेजारसो दिसतालो. हांवें म्हळें, ''सदा कितें जालां रे?''

सदान म्हळें, ''आरे तुका खबर आसा, ते बँकेंतल्या गुड्डलसांवां खातीर आमगेल्या पांडूक पुलीसांनी धरून व्हेलो मरे!''

'' कितें?'' हांवें अजापान म्हळें.

''आरे. तो सादो क्लार्क मरे! सगळें केलां तें ते बँकेच्या अध्यक्षान आनी मॅनेजरान.''

'' हय! सगळ्यांक खबर आसा. पूण बगलांट आयलां आमच्या साद्या सरळ पांडूचेर!. म्हणणीच आसा न्हय, 'चोर सोडून संन्याशाक सुळार!' सदान म्हळें.

म्हाका तेवूय परिस्थितींत सदाली म्हण खूब आवडली. चारुच उतरांनी सगळें कितें ताणें सांगिल्लें. हे म्हणीचो अर्थ, खऱ्या गुन्यांवकाराक मेकळो सोडून गुन्यांव करूंक नाशिल्ल्या साव मनशाक ख्यास्त करप.

चोर आनी चोरी हांचेर आमचे कोंकणींत साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'चोर उठटा आनी कोतवालाक धरता'- आपणें वायट काम करचें करून दुसऱ्याचेर बगलाटां घालपी मनशाक

लेखून ही ओंपार मारतात. उरफाटो न्याय.

'चोर उडटा, कोतवाल धरता'- चोर पळून वता आनी कोतवालाक धरतात. उरफाटो न्याय.

'चोर चोराक गवाय'- एक चोर दुसऱ्या चोराक साक्षीदार रावलो तर ती साक्ष कोण मानतलो? मोल नाशिल्ली साक्ष.

'चोर, शिंदळाक तोंड भोव'/ 'चोर, शिनाळाक तोंड भोव', 'चोराक आनी शिंदळ्यांक तोंड भोव'- चोर आनी शिंदळ हीं सैल वर्तनाचीं मनशां चड उलोवन आपली बाजू मांडटात. चड गुन्यांवकारी चड उलयता. 'चोरांक ताळो व्होडु'

'चोराच्यो उरफाट्यो / परत्यो बोबो'- चोर आपूण चोर म्हण केन्नाच मानून घेना. तो दुसऱ्याक बोट दाखयता. मराठीं 'चोराच्या उलट्या बोंबा'.

'चोराक तोंड व्हड, फाल्साक रंग चड'- हीवूय ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण. फाल्स भांगर चड चकचकता, तसोच चोरी केल्लो आपूण निरपराधी म्हण दाखोवपाक चड उलयता.

'चोरतल्याक आनी भीक मागतल्याक खंय उणें?' चोरी करपाक आनी भीक मागपाक आपली लज सोडची पडटा. त्या खातीर असल्या मनशांक कांयच फाल्त पडना.

'चोरये मारयेक वता' / 'चोरये मारये गेलें'- चोरयेचें धन हे ना ते भशेन ना जावन वचपाचेंच हें सांगपाक ही म्हण वापरतात. चोरी सहसा पचना. 'चोरये म्हालु चांडाळान व्हेलो', अशें कर्नाटकांत आनी केरळांत म्हण्टात. मराठींत 'हपापाचा माल गपापा'.

'चोरा मनां चान्नें', चान्न्यांत उजवाड आसता. म्हण चान्न्याक चोर भिता. चोरी केल्ली आसता तें ताच्या मनाक खंय तरी खाता आनी ती उक्ती जायत ह्या भंयान चोर कितें तरी उलोवन वता.

'चोराक चान्न्याचो हुस्को, चोराक चान्न्याची नसाय'- चोर उजवाडाक भियेता. ताचें काम ताका उजवाडांत तडीक व्हरूंक मेळना. देखून ताका चान्नें नाका आसता.

'चोरा भंय चोराक, जारा भंय जाराक'- एकाच वेवसायांत आशिल्ले दोग मनीस एकामेकांचो दुस्वास करीत आसतात. आपले मेळकतींत दुसरो वांटेकार जावंक सोदता अशें ताका दिसता आसुंये! एक वैज दुसऱ्या वैजाचो, एक नट दुसऱ्या नटाचो, एक भट दुसऱ्या भटाचो दुस्वास करता. इतलेंच कित्याक एक भिकारी दुसऱ्या भिकाऱ्याची नसाय करता. 'भिकाऱ्याक भिकाऱ्याची नसाय'- अशी एक म्हण घोळटा. म्हणीच्या दुसऱ्या भागांत आनीक एक चोराचें वर्म सांगलां. लग्न जाल्ले दुसऱ्याचे बायलेचेर चोरून मोग करपी मनशाक आपल्या असल्या दुसऱ्या मनशाचो राग येता.

'चोराक धरचो लुटीर आनी शिंदळ्याक धरचो खाटीर'- चोर जर लुटी सयत सांपडत तर एकदम बरें. तेच भशेन वायट काम करता आसतनाच शिंदळ्याक धरीत जाल्यार आनीक दुबाव कांयच उरना.

'चोराक आपलें घर परकें'- चोर दुसऱ्यांच्याच घरांनी चडसो वेळ थंयच्यो वस्तू फारावंक भोंवता. आपल्या घरांत तो थोडोच वेळ आसता. तें ताका परकी दिसता.

'चोराक झाड परकें'- चोराची नदर चड करून घरांचेर आसता. घरां तो रोखडींच वळखता. पूण झाड ताका परकें दिसता. ताचें लक्ष केन्नाच झाडाचेर वचना. तो घरां पळयता आनी झाडां विसरता.

'चोराची आवय हड्ड्यांत रडटा', 'चोरा आवय हड्ड्यांत घाय'- चोराची आवय भितरले भितर रडत आसता. आपल्या भुरग्याचे करणेचें तिका वायट दिसता, दुख्ख जाता. पूण उक्तेपणान रडल्यार घडये आपल्या भुरग्याचो गुन्यांव भायर फुटून ताका ख्यास्त जायत म्हणून भिरांत दिसून ती ओग्गी रावता.

'चोराची हाय वाटेवेलो खाय'- हाय म्हळ्यार लिपोवन दवरिल्ली लूट. ती लूट दुसरोच खावन वता .

'चोरा हातांत तल्लूक'- तल्लूक म्हळ्यार भागेलीपण वा माडाची राखण. भाटकार भाट पाडटा तेन्ना जितले देंठ जातात तितले नाल्ल जाचे कडेन तल्लूक दिल्या ताणें दिवंचे पडटात. पूण तल्लूकदारच जर चोर आसत जाल्यार तल्लूकदार भाटकाराक कांय न्ही करून फटोवंक शकता.

'चोराच्या हातांत बिगाहात', 'चोरा हातांत चावी दिली'- बिग म्हळ्यार कुलूप. ताचो हात म्हळ्यार चावी. 'बिगहात' हें कोंकणी उतर, म्हणीक एक नाद आनी काव्यात्मक रुप दिता. चावीच चोराच्या हातांत दितकूच मागीर कितें जाय? संकश्ट हें येतलेंच.

'चोराचें पावल चोर जाणा'- एक चोर दुसऱ्या चोराक



वळखता, तांच्यो माण्ण्यो एकामेकांक खबर आसतात. 'चोराच्यो वाटो चोराकूच खबर', 'चोराचें मन चोराक कळटा' ह्यो ह्याच अर्थाच्यो आनीक कांय म्हणी.

'चोराच्या दोळ्यांत दुख चड', 'चोराच्या दोळ्यांत दुकां चड'– चोर चोरयेक लागून आपूणय दुकां गळयता आनी सगळ्यांक फटयता.

'चोराक चोराची गवाय' – एक चोर दुसऱ्या चोराक गवाय रावतकच ताचे गवायेक मोल ना. असले स्थितींत ही ओपार मारतात.

'चोरयेचें मारीक वता', 'चोरयेचें मारये गेलें', चोरयेचें धन ह्या ना कारणां खातीर काबार जाता हें सांगपी ही म्हण.

'चोरयेचो माल सवाय'– चोरयेचो वस्तू चोर सदांच सवाय विकता.

'चोर आपले सावळेक भिता', 'चोराच्या मनांत हुस्को चड'–चोर सदांच भियेवन –भियेवन दीस काडटा.

'चोराचें पावल चोर जाणो, मोन्याच्यो खुणो मोनो जाणो', चोर चोराक वळखता आनी एका मोन्याक दुसऱ्या मोन्याच्यो खुणो खबर आसतात.'

'शेता आड चोरी आनी दादल्या आड शिंदळकी'– शेतांत पीक उबें आसता थंय चोरी केल्यार दिश्टी पडना. तशेंच घोव आसतना बायलेन शिंदळकी केल्यार ती लिपून उरता.

'चोराक मेसाई धार्जिणी'–मेसाई ही चोरांची देवता. तिच्या आशिर्वादानच आपल्याक धंद्यांत बरकत येता अशी चोरांची समजणी आसता.

'चोराचें रडें मुळू मुळू'– चोराक चोरतना जखम जाली जाल्यार तो मोठ्यान आड्डूंक शकना. ताका तागेलें दुख्ख मोन्यानी सोंसचें पडटा. आपलो गूट उकतो जावं नये म्हणून कोणूय मोन्यानीं सोंसता तेन्ना ही ओपार मारतात.

'चोराक धरूंक चोराक दवरचो'– चोराच्यो नाड बुद्धी चोराकूच खबर आसतात.

'धरल्यार चोर ना तर साव'– चोरी करून सांपडल्यारूच तो चोर थारता नाजाल्यार ताका चोर कोण म्हण्टलो?

'चोर सांगून चोरी करना'– चोर आपूण केन्ना चोरी करतलो, कोणागेर चोरी करतलो तें केन्नाच कोणाक सांगना. दुसऱ्याक घाळ दवरूनच तो चोरी करता.

'चोराच्या भंयान घेतलें धल्ल रान, थंय मेळ्ळो मुसलमान, ताणें कापलें नाक कान'– एका ल्हान संकश्टांतल्यान भायर सरपाक गेल्यार दुसऱ्या व्हडल्या संकश्टांत पडप.

'पुनवेक जाल्लो पोर आनी अमाशें जाल्लो चोर'– पयलीं लोकांची अशी धारणां आशिल्ली की चोर हो उमाशेक जल्मता. कारण ताका काळोख प्रिय आसता. आनी बरो मनीस हो उजवाडाक म्हळ्यार पुनवेक जल्मता.

'चोर चोरून गेलो बल्कावांर बशिल्ल्याक धरलो'– गुन्यांव करपी गुन्यांव करून गेलो, ख्यास्त मात भलत्याकच जाली. अश्या अर्थान ही म्हण वापरतात.

'चोरी करची आपल्या गांवांत आनी भीक मागची दुसऱ्या गांवांत. चोराक आपल्या गांवांतल्या गिरेस्तांचीं घरां खबर आशिल्ल्यान चोरी बरी सादपाची शक्यता आसता. परक्या गांवांत भीक मागप सोंपे. तुका थंय कोण वळखना. म्हण्टगीर लज धरपाची गरज ना.

'चोरून व्हेलें आनी मागीर दार घट्ट केलें'– चोरान चोरून व्हरतगीर मागीर दारां घट्ट करप. मराठींत 'बैल गेला नी झोपा केला'.

'चोरून खाल्लें आमट गळ्या कडेन येता'– चोरी सदां उजवाडाक येता हें सांगपी ही म्हण.

'चोरूंक शिकल्यार लिपोवंच्याक शिकुंका'– फकत चोरी केली म्हण जायना. चोरयेचो माल लिपोवंक कळूंक जाय. नाजल्यार चोरी धरपाची शक्यताय आसता. कर्नाटकांतली

एक म्हण.

'चोरली ती चोरली वाळी आनी चवथी चंद्राक गाळी'- एक ल्हानसोच गुन्यांव करप आनी ताचो दोश मात दुसऱ्याक दिवप.

'चोरून दुडवाच्यो करशी राशी पूण एकदीस ताचें फारीकपण दिवशी'- चोरयेचो माल पचना, ताचें मोल एक दीस फारीक करचें पडटा. हें सांगपी ही म्हण.

चोर आनी चोरी हाचेर कोंकणींत साबार वाक्प्रचार आसात:

'चोराक विंचू चाबिल्लेवरी'- चोराक विंचू चाबल्यार तो हाय काय हूय म्हण आड्डूक शकना. आड्डल्यार कोणूय धरीत म्हण भंय आसता म्हणून तो मोन्यानी सोंसता.

'चोरून व्हरतकच धर्म घडूंक: चोरून व्हरतगीर मागीर शाणेपण येवप..

'चोरी, चाडी, शिंदळकी': ह्यो गजाली सामक्यो वायट (करच्यो न्हय)

'चोराच्या हातांत चावयो दिवप': संकश्टांक आमंत्रण दिवप.

'चोराचेर मोर': एका चोराक लुटपी दुसरो चोर.

'चोर थंय फालें': चोर घरा पावता सर उजवाडटा.

'चोर तो साव': चोर आपूण सदांच साव म्हण दाखयता.

'चोराची जीब घट्टी': चोराची जीब सदांच घट्ट आसता. तो आपलो गुन्यांव केन्नाच मानून घेना. कर्नाटकांतलो एक वाक्प्रचार.

चोराक चूड दाखोवंची: नसतें अपसरण आंगार घेवप.

चोरयेचें गॉड गोड: आयतें मेळटा म्हण चोरयेचें गॉड बरें लागता.

'दारां उगडी उडोवन चोर येवपाची वाट पळोवप': संकश्टांक आमंत्रण दिवप.

ह्यो आसल्यो 'चोर' आनी 'चोरी' हांचेर आदारिल्ल्यो कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचार. •••

▪ पाजीफ़ोंड-मडगांव ▪ 9923306751



स्वरुपा
नास्नोळकार

# ताईबाय आतां परत केन्ना?!



पयर एक दीस आलमार उकती करून हांव सगळ्यो फायली चेक करतालें. तेन्ना सगळ्यांच्यो'बर्थ सर्टिफिकेटी' आशिल्ली एक फायल म्हज्या हाताक लागली. सहज म्हणून वाचतां वाचतां ताईबायची- म्हजे मांयची बर्थ सर्टीफिकेट हांवें हातांत घेतली. तिची जल्मतारीक पळयत जाल्यार 29-05-1922 अशें थंय बरयल्लें म्हजे नदरेक पडलें.ती पळोवन हांव थटाकलें. आरे! ताईबायक ओंदू शंबर वर्सां? आमकां कोणाक कशीं याद ना? पिरायेचे 82 वर्सांचेर गेल्ली ती. केद्या बेगीन 18 वर्सां गेलीं न्हय?हांव मनांतल्या मनांत उलोवंक लागलें

'आगे ताईबाय,मोठी हुशार मगे तूं! तुका शंबर वर्सां जालीं आनी आमकां पत्तोच लागूंक दिलो ना तुवें! आतां हांवें ही फायल उगडली म्हणून बरें. ना जाल्यार आमकां कशें कळपाचें आनी मनाक कितलें खावपाचें आमच्या!

तुका याद आसा मगे, आमी तुजी साठी कशी साजरी केल्ली ती! मागीर तुजी पंचात्तरीय बी तुवें नाका नाका म्हणटा आसतनाय बी थोडक्यांत पूण काय बरी करून घेतिल्ली तुवें! तुजेर उपचार केल्ले ते सगळे दोतोर, तुजीं सामकीं लागींचीं सोयरीं आनी थोडेच शेजारी. पूण कितली

तेन्ना फोनय नाशिल्ले.मोबायल तर नाशिल्लेच. तुकाय बी नसत्यो गजाली करपाची आवडय नाशिल्ली. आपूण बरी, आपलें काम बरें. तुजे विचार बरे आशिल्ले,तशेच तुजे आचार. हाकाच लागून आमचें बरें जमलें आनी आमी तें जमोवन घेतलें. तातूंत तुका अध्यात्माची आवड आशिल्ली तेंय एक कारण आसुंये! तू पुनर्जल्म मानणारी म्हणुनय जावंये! त्या भायर तू गरजे भायर चड उलय नासली. म्हणूनच आमची गाडी सुरळीत चालू उरली,खंयच आपटऽ नासतना!

*लेखिका मराठी आनी कोंकणी कवयित्री.तांचें ललित लेखनय काव्यमय आनी वाचनीय आसा.*



मजा आयली तेन्ना! केदो आनंद जालो सगळ्यांक!

पयर म्हजी भयण दीपा,तुजी याद काडून म्हणटालें,"ताईबाय सारकी मांय कोणांकय मेळूंक नशीबच जाय.मंगलताईन फाटल्या जल्मांत बरेंच कितेंय पुण्य केल्लें दिसता म्हणून ही मांय मेळ्ळी ताका."

तुजे कंबराचें ऑपरेशन जाल्लें तेन्ना दीपा आयिल्लें तुजे खबरेक.तेन्ना तें म्हाका सांगतालें,"आगो मंगलताई, हांव ताईबायचे खबरेक आयल्यार हीच म्हाका तरेतरेच्यो खबरी सांगून आमचें मनोरंजन करता आनी आमकां हांसोवन मारता! म्हाका दिसलें,हांव तिचे खबरेक आयलां काय ती म्हजे खबरेक आयल्या? आपली दूक भायर दाखय नासतना,सदांच खुशाल आनंदीत आनी दुसऱ्यांचें मन सांबाळपी,जपपी बायल ती!"

म्हजीं दुसरींय भावंडां,वल्लभ,उमेशय बी सदांच तुजी तुस्त करतात. आनी पयलींय बी तुका याद ना? तीं आमगेर आयल्यार म्हाका जाप दिवंचे पयलीं,ताईबाय,ताईबाय करून तुजे म्हऱ्यांत येवन खबरांक बसतालीं ती? कितलें प्रेम आनी माया दिल्ली गे तुवें सगळ्यांक? मांय आनी सून म्हळ्यार सगळ्या जगांत एकामेकांची शत्रूच असो समज करून घेवन, तांचें नातें तशेंच रंगोवन उडयलां ह्या सिरियलांनी,नाटकां-सिनेमांनी!

पूण तुवें तो समज सामको चुकीचो आनी फट म्हणून सिद्द केलो. मांय-सून म्हळ्यार तूं-तूं,मैं-मैं न्हय तर त्यो दोन बऱ्या पयकीं मैत्रिणीय बी जावं येतात,आवय-धुवे परसय बरें नातें जावं येता तें हें तुवें तुजे कृतीन आनी वागणुकेन सिद्द केलां. ना जाल्यार म्हजीं कुळारचीं मनशां तुजे म्हऱ्यांत,तुजे कुडींत कित्याक वचून बसपाचीं? म्हजी आवयच न्हय तर म्हजो बाबा सुद्दां,आई आई करून तुका पयलीं जाप दितालो.दादा म्हऱ्यांत लेगीत उपरांत वतालो. आनी तू एक 'श्रेश्ठ बायल' हो किताबच ताणें तुका भेटयल्लो. अश्यो बायलो आमच्या देशांत आसात म्हणून ही कुटुंब संस्था,तो समाज अजून मेरेन घट्ट आसा,ही आमची संस्कृती जाग्यार आसा. ना जाल्यार येन्ना आमी खंयय खोऽऽले जावपाचीं! सदांच म्हजो बाबा तुका आपल्या परस जाणटी म्हणून आनी तुज्या एकंदरीत चारित्र्याक आनी वागणुकीक व्हडलो नमस्कार करतालो. आनी परत परत म्हाका सांगतालो,"तिचे लागीं बरे तरेन वाग हां! तिका सदांच बरें कर हां!"

आगे,तुका एक सांगूंकच विसरलें हांव. म्हजी जेन्ना सोयरक जाल्ली तेन्ना म्हाका एक दोगांनी सांगिल्लें,"आगो स्वरुपा,तुजी मांय मात भायली हां! भायली म्हळ्यार गोंयची न्हय गो. ती खंची तरी वेंगुर्ला काय असल्याच खंच्या तरी गांवची.तो लोक मातसो वेगळो आसता न्हय! म्हणून तुका आमी सावध करतात.तूं मातशें तिचे कडेन सांबाळून हां!"

मा
य
2
0
2
2

पूण जेन्ना तुज्या लग्नाचीं साठ वर्सां जालीं तेन्ना हांवें तुजो साठावो हळदीकुकूम केल्लो याद आसा मगे तुका? हां! तेन्ना तुज्या साठाव्या हळदी कुकमाचे म्हणून हांवें चांदीचे दोन कुकमाचे करंड, तुवें दिल्यात म्हणून तांकां मुद्दाम धाडून दिल्ले.हाचे वेल्यान तीं कितें समजुपाचें तें सपजलीं आसतलींच! सगळें मनशा मनशांचेर अवलंबून आसता. गोंयकार म्हळ्यार सगळेच बरे आनी गोंयां भायलीं वायट हो समज कितलो चुकीचो आसा हें तुवेंच सगळ्यांक दाखोवन दिलें.

तेन्ना फोनय नाशिल्ले.मोबायल तर नाशिल्लेच. तुकाय बी नसत्यो गजाली करपाची आवडय नाशिल्ली.आपूण बरी, आपलें काम बरें. तुजे विचार बरे आशिल्ले,तशेच तुजे आचार. हाकाच लागून आमचें बरें जमलें आनी आमी तें जमोवन घेतलें. तातूंत तुका अध्यात्माची आवड आशिल्ली तेंय एक कारण आसुंये! तू पुनर्जल्म मानणारी म्हणुनय जावंये! त्या भायर तू गरजे भायर चड उलय नासली. म्हणूनच आमची गाडी सुरळीत चालू उरली,खंयच आपटऽ नासतना!

म्हज्या मामालें चली जयी जेन्ना मुंबयच्यान गोंया आम गेर येतालें तेन्ना तें तुजे म्हऱ्यांत बसून दादरच्या किंग जॉर्ज हायस्कुलाच्यो खबरी करतालें. तूंय बी थंयच शिकिल्ली हें आमकां तेन्ना कळ्ळें. तुजो जल्म जरी वेंगुर्ला जालो तरी तुजें जिवीत सगळें मुंबयच गेल्लें. त्या वेळा वयल्यो मुंबयच्यो ह्या गजाली आयकून आमी सामकीं तल्लीन जातालीं. तेन्नाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो मराठी नटयो बी तुज्यो मैत्रिणी आशिल्ल्यो म्हणटकीर आमी सगलें हातांतलें काम थंयच सोडून तुजे म्हऱ्यांत येवन बसतालीं,त्यो खबरो आयकूंक. तू गणीत,भुगोल आनी इतिहास घरांतल्या सगळ्या भुरग्यांक शिकयताली अशें उल्हास म्हाका सदांच सांगतालो आनी म्हणुनच घरांतल्या सगळ्या भुरग्यांक 'ताईबाय' म्हणून एक बऱ्या पयकी टिचर घरांतच प्राप्त जाल्ली त्या वेळार!

तू सदांच म्हणटाली,' स्वरुपा,आयुश्य हें खरें म्हळ्यार सत्तरच पर्यंत बरे तरेन जगूं येता. हां..हूं करून पंच्यात्तर! ताचे फुडलें आयुश्य हें दुसऱ्याच्याच हातांतलें हां! दुसऱ्याचो आदार घेवनच जिवीत मागीर फुडें धुकलपाचें. दुसऱ्याचो आदार घेवन चड जिवीत नाका गो बाये!''

तुज्या ह्या उतरांची खूब फावटी याद जाता म्हाका आतां. कारण म्हाकाय आज सत्तर जालीं. म्हाकाय आतां तोच प्रत्यय येवंक लागला. तरी तुवें ब्यायशीं वर्सां तरी करून काडलीं गे. आनी गेलीय तूं म्हजेच वेंगेंत. वतना तुवें म्हाका,'भिवूं नाका,भिवूं नाका' म्हणिल्लो शब्द आजुनय म्हज्या कानांत घुमतात.

तू गेली मगे, आनी आमचो छोटू (कुत्रो) त्या दिसाच्यान जेवीच ना जालो. घाल्लें जेवण सांडपाक लागलो. जेवणाक तोंडच लायना जालो. तुजीच याद काडटालो. परतो परतो तुजे कुडींत वचून बसतालो. मागीर एक दीस छोटू नाच्च जालो. आमी ताका सगळ्याक सोदलो. घरांच, भायर, माळयेर...खंयच ना. मागीर पळेच जाल्यार नाल्लांच्या लॉजांत वचून ताणें प्राण सोडला. मनशां परस मोनजातच बरी अशें तूं केन्नाय म्हणटाली न्हय,ताची आमकां सगळ्यांक याद जाली. त्या दिसा मात आमी कोणूच जेवलीं नात.

केन्ना केन्नाय म्हाका दिसता,तू म्हज्या फाटल्या जल्मांची कोण तरी लागिंचीच आशिल्ली जावंक जाय आनी तो ऋणानबंध म्हणूनच ह्या जल्मांत म्हजी मांय जावन





आयिल्ली आसूं ये! म्हाका खूब सूख दिलें तुवें,परत परत याद जाय सारकें!

म्हाका सूख दिल्लें हाचो अर्थ तुवें तुज्या जिवितांत खूब सूख भोगिल्लें अशें मात न्ही हां! तुवें खूब घण सोंसल्यात अशें म्हाका तुवें जरी सांगलें ना तरी भायल्यान म्हाका खूब कळ्ळां. ताचें कारण तुका अध्यात्माची जोड आशिल्ली.आसूं...आतां त्यो खबरी नाकात.तुजो पोसको चलो हिरालालकाका हालीं पयलीं भशेन येना तरी तो तुज्यो खबरी फोनार उलयत आसता. गेले ते दीस! काय बरे दीस आशिल्ले ते! छेः!

म्हजी सून सिंधुरा म्हाका विचारता,“आई,ताईबायचीं आनी तुजीं केन्नाच झगडीं जालीं ना गे?”

हांवें सांगलें सिंधुराक,“आमचे वाद-बाचाबाची कित्याक जाय नाशिल्ले? वाद खूब फावटी जाल्यात आमचे.तरेकतरेच्या विशयां वेल्यान जाल्यात. पूण तो वाद आमी केन्नाच विकोपाक वचूंक दिलो ना. सांजवेळ मेरेन आमी दोगांय परत एक जातालीं. परत आमच्यो पयलीं भशेन खबरी सुरू जाताल्यो.

ताईबाय,तुजी साठी,पंच्यात्तरी साजरी करतना हांवें तुज्या पुताचो आधार घेतिल्लो त्या वेळार. आतां तुजी शंबरी-जल्मशताब्दी मनोवपाची खूब इत्सा आसा.पूण आतां हांव उल्हासाक कांयच विचारचें ना. आतां तुज्या नातरांक विचारूनच थरयतलें हांव कितें करपाचें तें.तुजो नातू परिंद,आतां तेन्नाचो ना तो हां! तो दोन जुंवळ्या चलयांचो बापूय जाला आतां. ताच्यो चलयो णव वर्सांच्यो जाल्यात. एकली तर सारखी तुजेरच गेल्या.गणितांत ती बरेऽऽ मार्क घेता. तू पळोवन खुशाल जावपाची! दुसरेन बरेच दादाले गूण घेतल्यात.तू आशिल्ली जाल्यार रोखडीच वळखुपाची!

तीं तुका वळखनात गे,पूण सालांत लायिल्ल्या तुज्या फोटो कडेन पळोवन ‘पप्पाची आजी’ म्हणून सगळ्यांक सांगतात. तुज्या स्राद्धा वेळार तुज्या फोटो कडेन पळेत रावतात.तांकांय बी तुज्या 100 व्या वाढदिसाचो बोवाळ पडला तो!

पूण आतां तू नाका कशी म्हणटली? आमी तुका तसो सदांच नमस्कार करतात गे,पूण 100 व्या वाढदिसाचो म्हूण आमचो सगल्यांचो तुका व्हडलो नमस्कार! तू खंय आसा थंयच्यान आमकां सगळ्यांक आशिर्वाद दी हां!

आतां आमी फुडल्या जल्मांतच मेळुंया! केन्ना,खंय तें तूच ठरय.

बरें तर,तुजेंच स्वरुपा... ●●●

▪ करंजाळे ▪ 8080877577

अक्षरकाव्य

# कांय कविता रांदनीच्यो



हर्षा
सद्गुरू
शेटये

नामनेची कनयित्री आनी साहित्यकार

## खारें

माय तापला
नुस्त्या बाजार खाऱ्यान भरला
हांवूय घेतां खारें
सुके बांगडे, सुकीं सुंगटां
इंगळ्यार भाजिल्ल्या खाऱ्याची
रूच काडीत
थोडें सुकें भोप्र्शेंय घेतां
आंबाडे घालून
धबधबीत करपाक
धव्यो फुल्ल वेल्ल्यो
कुरकुरीत भाजिल्ल्यो
म्हज्या बापायच्या आवडीच्यो
ताचे यादीन घेतां एक वांटो
सुकी मोरी तर जायच
घम्म वासाचो भाजिल्लो कुडको
जेवणाक रूच हाडूंक...
खारें वताक सुकोवन
फोलिणांत घरून दवरलें
पावसा, आतां पड तूं
झड तूं कितलोय
म्हजी रादची कूड तयार आसा
तुज्या येवकाराक...

## आजी

आजये
तुजें घर सदांच आसतालें
गोकूळ कशें
मनशांनी भरिल्लें
तुज्या हाताचो सुवाद आशिल्लो
दाळचो रोस.खुब्यांचें हुमण
मागीलदाराच्या पणसाचो चाको
दारा मुखावयल्या घोटांचें सांसव
पावसांत किल्लल्ल्यो पोरसांतल्यो भाजयो
खावन जातालीं तुर्जी भुरगीं नातरां धादोस

आतां म्हजी पांच वर्सांची नात
आजये म्हाका चॉकलेट केक कर
चिकन टिक्का कर
म्हाका फर्मायता
सबंद दीस नाचतां हांव
ताचे फाटल्यान फुडल्यान
तेन्ना तुजी याद येता
आनी अचळय
तू म्हज्यांत रिगता
आनी हांवूय
ताच्यो रुची पुरयतां
ल्हवूच तुवें आमचे
जिबेक लायिल्ली गोडीय
ताचे मेरेन पावयतां...

## रांदन

ओल्या हातांनी
ती सारयता रांदन
तिचीं बोटां उदेतात
ते ओल` मातयेंत
लक्तुबायेन पळयता ती
रांदनी कडेन
तिची सकाळ सदांच उजवाडटा
तिच्या फूं फूं नळयेच्या आवाजांत
खोलयो,शिरपुटां जळटात
तेन्नाच गोटे पडटात पानार
वर्सां सकीनी तिच्यो धुवो
लाकडां सारीत आसात रांदनींत
आनी पेटयत आसा उजो
रांदनीच्या उजवाडांत एका हातान
गिरयतात त्यो अक्षरां
दुसऱ्या हातान चडयतात आदन
भुती बांदून दितात घरच्या दादल्यांक
तिचीय भुती तीच बांदता
धांवत सुट्टा घडयाळीच्या कांट्यार

आतां ती बरीच धीट जाल्या
धुंवरेल्ली सकाळ आतां बदल्ल्या
पुताच्याय हातांत दिल्या तिणें नळी
आतां सुने वांगडा पुतूय घालूंक लागला उजो
आनी दोगांय बांदूंक लागल्यांत भुती....

## सुपरफूड

म्हजे आजयेचे आजयेन
तिका रेसिपी दिल्ली आसतली
पणसाच्या भिकणाचे भाकरेची
रूच उरिल्ली जांवये

म्हजे आजयेचे जिबेर
ती रूच हातांत येवन
जमल्या आसतली भाकरी तिका
तशें आतां हांव भाकरेक भाकरी म्हणचेंना
कटलेट म्हणून म्हज्या नातरांक खावयतलें
हीं पणसा भिकणां खंय सुपरफूड
आतां मेळटा तांचें पीठ ॲमझोनाचेर

बंद पोतयांनी
मागीर खावयतात आवयो भुरग्यांक
तांचें पारीज कुलेरांतल्यान
आमचेय सुपर आजयेन
खावयल्लीं आमकां पणसा भिकणां
उकडून,मुंबरांत भाजून आनी भाकरी थापून





आर. रामनाथ

## फकत इतलेंच

म्हाका घोग्यांनी
रडपाक जाय
म्हाका दडकांनी
झडपाक जाय
म्हाका आकांताची
बुडटी हाडपाक जाय
म्हाका आतंकान
बुडपाक जाय
म्हाका सुस्त न्हिदपाक जाय ...

म्हाका तुजे कडेन फकत
इ
त
लें
च
मागपाक जाय ...
●●

उदय म्हांबरो

## फोल

पसऱ्या वयल्यो
फोली हाडल्यो
आकाशदिव्या खातीर

धुवेन म्हज्या
हट्ट केलो
पतंग करपा खातीर

हांवें पतंग केलो
आकाशदिवो करपाचो उरलो

म्हजी फोल आयिल्ली
आकाशांत वचपाचेंच
नशीब घेवन
आकाशदिव्याक दसयल्यार
बल्कांवार लोंबकळपाची
ती म्हजी फोल
पतंग जाली
हातांतले सूत तुटून
बदृद आकाशांत पावली
नदरे पैलाड
●●

माधव बोरकार

## संतूर

संतूरः भरिल्लो पारजत
झडटा पावस फुलांचो
येता आवाठांत नदरेच्या
शेणिल्लो गांव नखेत्रांचो

बांदिल्ली बंदिश तुरो कशी
केन्नाय नाच जोगलांचो
हुंवारिल्ली न्हंय लयेची
बांदता घाट तालाचो

उश्णी मागिल्ली जीण
फक्त एका सुरा खातीर
पर्जळटा एकेक गांव
भितर पेटिल्ले वातीर...
●●



इंदू अशोक गेरसप्पे

## ध्यास

जोडी हांची जमलीच कशी?
तो तेजिश्ट सुर्याचो परमळ
तो सळसळत्या उत्साह उर्बेचो ध्यास
ती सहनशील धीर धरतीचो श्वास
तो धाडशी चित्त थरारक कर्तुबे तुफान
ती निढळ पोशेवपी
झिळमिळटे मोगाळ वाऱ्या ल्हार
तो वज्र अजस्र गडगडपी जोगूल
ती सौम्य मायेचो पावसा शिंवर
तो ज्वलंत अग्नि हुलोप
ती जागृत शांत व्हांवतें उदक
एकमेकां शिवाय जगचें अशक्य
ती तर ताची स्फुर्ती देवता
तो तिजो चैतन्य ।।

दिलीप बोरकार

## पावस

पावस सोयरो फाल्गुनांतलो
धतरेच्या तव्यार
चार थेंबे फाफडून
धतरेची उब सांसपीत
मृदगंधाक आशेल्लो

पावस रसीक चैत्रांतलो
धर्तरमांयक पिसावल्लो
वाली-रुखांक न्हाण घालीत
कावळो आपडून हुंवाळिल्लो

पावस पिसो ज्येश्ठांतलो
झड झड झडपल्लो
झाडां पेडांक न्हाण घालून
बियां-कोंबांक संवकल्लो

पावस खर आषाढांतलो
पांयार अळंग जडावल्लो
सृश्टीक न्हेसोवन पाचवें न्हेसण
फुलांचे तयारेक लागिल्लो

शिरावणांतलो पावस पिसो
वता पासत वसवसो
माळून फुलां धतरीक
शेनत शेनत शकुनसो

भाद्रांतलो भद्र पावस
निरोपाचो दिता आभास
मातये भितर रोंबून थेंबे
गणरायाची दिव्य आरास

आश्विनांतलो तडवो पावस
अर्बे मना रडवो पावस

पावसा पावसा यो रे यो
मातयेमातेक शिरंगारूंक यो

सिंधु सिनाय असोळणेकार

## कोण तो?

ताका सोदलो सुर्याच्या किरणांत
ताका सोदलो चद्राच्या चान्यात
ताका सोदलो पावसाचे सरींत
ताका सोदलो दवाच्या थेंब्यांत
ताका सोदलो सुकण्याच्या गीतांत
ताका सोदलो फुलांच्या वासांत
ताका सोदलो पाना पानांत
ताका सोदलो खिणा खिणांत
इतल्यांत...
काळजाचें वाजलें दार
उगडून पळयलें तशें..
तो काळजांतच आसलो
उगीच ताका
सगळे कडेन सोदलो
म्हणून सांगन दिसलें
सोदचो न्हय ताका हांगा थंय
तो तर सुखरूप आसता
काळजाचे तिजोरेंत
कोण तो? पडलो विचार?
तो तर आनंद
जिवीत जगपाचो आधार

चित्रा फोंडेकार

# ल्हानपण

ती पिराय आसली मजेची
हांसून खेळून जिवीत घालोवपाची

सान माणकुलीं पिलां कशीं आशिल्लीं आमी
मस्तीपणां करपाक मात नाशिल्लीं कमी

ल्हानपणांत आमकां कांयच कळनासलें
खेळप,नाचप,जेवप,न्हिदप इतलेंच खबर आसलें

खांदार दप्तार, मनांत उमळशीक
काळजांतल्यान उलो करतात ते दीस

नवी शाळा, इश्ट नवे
पटांगणांत खेळटालीं जशें सुकण्याचें भिरें

तरेतरेच्यो इश्ट-इश्टीणी आशिल्ल्यो म्हज्यो
कोण हांसकुऱ्यो तर कोण रडकुऱ्यो

खिणांत एकठावंतालीं तर खिणांत झगडटालीं
सदचे भशेन परत एकामेकां कडेन उलोवंक लागतालीं

टिचर काडटाली मदींच तापसाणी तर मदींच अपुर्बाय
जिबेर मात तिचे सदांच आमचे विशींची तोखणाय

आमी आशिल्लीं तेन्ना कशीं माणकुलीं फुलां
शाळेंत वतना सदांच बांदप ती दोन शेणकुलां

अजून म्हाका दीस ते याद येतात
आनी परत ल्हान जावं अशें म्हाका दिसता...

मारुती धर्मा नायक

# ती

ती आयली
दारांत भितर
सरता थंयच आसा,
फणफणतच
घरांत भितर सरली
हांव हॉलांतूच
बशिल्लों,
तशी तिजी संवयंच
तीं फणफणपाची
म्हज्या म्हऱ्यांत
आयली
हेवटेन तेवटेन
वयर सकयल म्हाका
तेळून पळयलो.
कांयच मेळ्ळें ना
दिसता
म्हण फणफणतच
रांदचे कुडींत गेली
परती भायर आयली
परती फणफणतच
बेडरूमांत घुसली
हांवूय कदेलार
बसून तिकाच
पळयतालों
तिजी भुरगीं
बाबडीं भुकेन
तळमळटालीं दिसता
म्हण ती म्हाका
सोदीत आयल्ली.
तशें म्हण
म्हजें रगत
पिल्या बगर तिका
सुखूच लागनाशिल्लें
बेडरूमांतल्यान
मातशी थंड जावन
आयली
तीच म्हज्या गालार
पापी दिवंक लागली
तिणें म्हज्या गालाक
कडकडून चावो घेतलो
म्हाका दुखलें
तशी हांवें हयगय
केली ना
तिजे दोनूय हात
धरले आनी
ठा करून तिज्या
कानसुलार एक उडयलें
तशी ती
जमनीर पडली
म्हज्या बोटाक
तिजें रगत लागलें
किदें न्हीं,
एक थापटाची नासता
ही एदिशी जळार
पूण चावो कितलो
कडकडून घेता!
सामकी तिडक
मस्तकांत पावता!



मूळ इंग्लीश
दत्ता दामोदर नायक

कोंकणी अणकार
मानसी धाऊस्कार





# आजोबाचीं शाणपणाचीं उतरां

एक दीस भुरगीं एल्मीन तयार केल्ल्या सुरबूस मिल्क शेकाचेर ताव मारतालीं. माणकुल्या मायराक ताच्या मिल्क शेकांत केळ्याचे फोडी कुडको सांपडलो. तो पळोवन ताका जंगलांतल्या ताच्या माकड इश्टांची याद आयली.

"एल्मो, आमकां माकडांची काणी सांग न्हय!" ताणें आपल्या ग्लासाक दोळे तेंकोवन, तातूंतल्यान एल्मोक पळयत म्हणलें.

"आगो, जंगलांतल्या तुज्या माकड इश्टांचे फनी, बनी आनी सनी हे मित्र हांगा आसात मगो! ते सागतले तुका तांच्यो काणयों!" ताचीं फकांडां मारीत एल्मोन म्हणलें.

"पूण नानू, आमकां माकडांची काणी तुजे कडच्यान आयकूंक जाय." रायनान हट्ट धरलो.

भुरग्यांचो काणयां वयलो मोग एल्मोच्यान टाळूं नज जालो. आतां खंयच्या माकडाची काणी सांगप हाचेर तो येवजूंक पडलो.

"नानू, म्हाका चोर-पुलिसाची आयकूंक जाय." रणविरान मर्दीच ताका म्हणलें.

"ती तो आमकां मागीर सांगतलो रणवीर!" रेहानान ताका सांगलें.

"चोर-पुलिशेची काणी तुका फुडले खेप सांगतां" अशें रणविराक उतर दिवन एल्मो माकडाची काणी सांगूंक लागलो.

एका गांवांत एक तोपयो विकपी आशिल्लो. तो तरांतरांच्यो रंगरंगयाळ्यो तोपयो विकतालो. ह्यो तोपयो विकूंक तो गांवा गांवांनी भोंवतालो.

एक दीस एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वतना ताका दनपार जाली. वताची खरसाण वाडिल्ल्यान ताका गरमी जावंक लागली. सूर्य सामको माथ्यार रखरखतालो. रस्त्या कुशिकूच ताका एक व्हड रूख दिश्टी पडलो. ताची सामकी घसघशीत सावळी पडिल्ली. ती पळोवन ताणें त्याच रुखा पोंदा विसव घेवंचो थारायलें.

ताका आतां कडकडीत भुकूय लागिल्ली. ताचे आवयन ताका बांदून दिल्ली भुती ताणें उगडली. तातूंत तुपान तळशिल्ली भाजी,रोटयो,दाळ,शीत आनी लोणचें आशिल्लें. तोपयेकाराक सामकी लागिल्ल्यान ताणें ती भुती कांय न्हय करून फस्त केली.

रुखा मुळांत आशिल्लें तण खऱ्यांनीच मोव मोव आशिल्लें. त्या भायर त्या रुखाची सावळी इतली दाट आशिल्ली,ताका लागून सगळ्याक सामकी शितळसाण पातळिल्ली. मचमचीत जेवण पोटांत वचून ताचें पोट तट्टट्टू



नाका, ताका लकण येवंक लागली.आनी त्या रुखा सांवळेंत रोखडीच ताका सुस्त न्हीद पडली.

एका वरा भरयान जेन्ना ताका जाग आयली तेन्ना तो सामको शॉकाद जालो! ताची तोपयांची पोती अस्ताव्यस्त पडिल्ली आनी तातूंतल्यो सगळ्यो तोपयो गायब जाल्ल्यो. ताणें जळामळाक सगळ्याक नदर मारून त्यो सोदल्यो पूण खंयच दिश्टी पडल्यो नात.

इतल्यांत ताच्या कानार त्या रुखाच्या खांदयांतल्यान म ाकडांचें खें खें करून केल्लें हांशें आयकूंक आयलें.ताणें थंय पळोवन बारकायेन तेळ्ळें जाल्यार किते अजाप! त्या रुखा-चेर कितलेच माकड बशिल्ले. तांच्या प्रत्येकाच्या माथ्यार ताचेच पोतयेंत आशिल्ल्यो त्यो तांबड्यो, हळदुव्यो, पाचव्यो, केसरी अश्या रंगाच्यो तोपयो आशिल्ल्यो.तो देखाव पळोवन तोपयेकाराक थरथरो सुटलो.

पूण तो तोपयेकार एकदम हुशार आसलो! माकड मनशाची नक्कल करतात हाची ताका कल्पना आशिल्ली.

ताणें आपल्या माथ्याक आशिल्ली ती गुलाबी तोपी काडली आनी जमनीर शेंवटिली. जमनीर आनी झाडार आशिल्ल्या माकडांनी तें पळयलें आनी आपापल्या माथ्यावेल्यो तोपयो काडून रोखड्योच सकयल शेंवटिल्यो.

वेळ वगडायनासतना तोपयेकारन त्यो सगळ्यो तोपयो पटापट पुंजायल्यो. ह्या मनशान आमकां शिंगा लायलीं हें माकडांक कळचे आदीं ताणें थंयच्यान फुज्यो काडल्यो.

ते रातकडेन तोपयेकारान ही पुराय खबर आपल्या घरा कडेन सांगली. ताका ती युक्ती सट्ट करून त्या वेळार सुचली म्हूण सगळ्यांक ताची तोखणाय दिसली.

त्या उपरांत बरोच काळ सरलो. तोपयेकाराचो हो तोपयो करून त्यो गांवांगांवांनी विकपाचो धंदो ताचे कडल्यान ताच्या पुता कडेन आनी पुता कडल्यान नातवा कडेन पावलो.

एक दीस ताचो नातू त्याच रस्त्यान वतालो. ताणें त्याच रुखा पोंदा विसव घेवन मुखार वचपाचें थारायलें. खूब काळा आदीं हांगाच ताच्या आज्यानय विसव घेतिल्लो आनी ताच्यो तोपयो माकडांनी फारायल्ल्यो. ताणेंय थंयच भूस मारलो आनी ताणून दिलें. जेन्ना तो उठलो आनी ताणें पळय जाल्यार ताचे पोतयेंतल्यो तोपयो माकड घेवन गेल्ले. अशेंच तांच्या पुर्वजांनीय हे आदीं केल्लें.

तोपयेकाराक मातूय हुसको जालो ना. कित्याक ताच्या आज्यान आपल्याक कितें घडलें आनी आपणें कितें केल्लें तें ताका सांगिल्लें. तशेंच हाचेय बाबतींत आतां घडिल्लें.

म्हणटकच नातवान आपल्या माथ्याक आशिल्ली तोपी काडून जमनीर उडयली. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार ताची ती करणी पळोवन एकल्याय माकडान आपली तोपी सकयल जमनीर उडयली ना.

मागीर मातश्या वेळान एक माकड सकयल देंवलो आनी ताणें त्या तोपयेकाराक म्हणलें,'' हे तुका कितें दिसता,तुज्याच आज्यान तुका सांगलां आसतले,आपूण माकडां कडेन कशी ट्रीक खेळ्ळों ती! आमच्याय जाणटेल्यांनी आमकां ते विशीं सांगलां आनी आमी शाणे जाल्यात. तुजे हे ट्रिकीक आमी आतां फसचेनात!''

हें आयकून तोपयेकार भोवच दुखी जालो. ताणें माकडांक खूब पराथलें. ह्यो तोपयो परत मेळ्ळ्यो नात जाल्यार आपल्याक खूब लुकसाण जातलें हेंय ताणें काकुटेक येवन सांगलें.

माकड तशे विचारी आनी दयावान आशिल्ले. तांका तोपयेकाराच्या दोळ्यांत दुख्ख दिसलें. देखून तांणी ताका

तोपयो परत दिवपाचें थारायलें.

माकडांनी तोपयेकाराक एक मोलाचो सल्लो तेन्ना दिलो. तांणी सांगलें," हें पळय, जिवितांत एकेच समस्येक परत परत एकूच उपाय लागू जातलोच अशें ना."

मायराक ही काणी खूब्ब आवडली.

" नानू,म्हाका हे काणयेचो बोध कळ्ळो ना." रायनान म्हणलें.

" हें पळय रायना,तुका हांव एक उदारण दितां. एक दीस तूं शाळेंत वच्चें ना अशें थाराय. दुसरे दीस टिचरीन जर तुका विचारलें.काल तू कित्याक येवंक ना काय म्हण, जाल्यार तू सांगतलें आपूण बरें नाशिल्लें म्हूण. पूण ती तुवें फट मारिल्ली आसता, फुडले खेप जर तू परत घरा रावलें आनी तुवें टिचरीक तीच फट मारली,जाल्यार ती तुजेर विश्वास दवरची ना. ती तुजे आवयकूय आपोवन हाडून खरें कितें तें जाणून घेवंक शकता. हाका लागून तू त्रासांत पडूंक शकता. हाचोच अर्थ एकूच उपाय एकेच गजालीक दोन खेप उपकाराक पडूं येना." एल्मोन विस्कटावन सागरे

" ओह! अशें तर!" रायनान काणयेचो बोध समजतकच म्हणलें.

" तशें जाल्यार दुसरे खेप फट मारतना म्हाका सांगचें पडलें घरा कडेन कितें तरी कार्यक्रम आशिल्लो म्हूण!"

"रायना,फट मारपाची संवय बरी न्हय.एक दीस तुका कोणूय धरतलेच तुका." आरुषान ताका सल्लो दिलो.

" नानू, काणी हांगाच सोंपता रे?"रणविरान विचारलें.

" ना रणवीर." एल्मोन म्हणलें आनी ताचे पासत ती काणी मुखार सांगूक लागलो.

तो तोपयेकार घरा गेलो आनी ताणें त्या माकडांच्या दयाळपणाक उपकार मानपा पासत खूब तरांच्यो रंगरंगयाळ्यो तोपयो तयार केल्यो.बाजारांतल्यान खूब तरांचीं फळां तांचे पासत घेतलीं. मागीर तो त्या झाडा कडेन गेलो.ताणें सगळ्या माकडांक भायर आपयले आनी तांकां दरेकल्याक तोपी भेटयली आनी एकेक फळूय तांकां भेटयलें.

माकडांक खूब आनंद जालो. तोपयेकाराक दिनवासपा पासत तांणी. शेजराच्या सगळ्या गांवांनी ताच्या तोपयांची जायरात केली. अशे तरेन तोपयेकाराचो धंदो खूब नेटान वाडलो. ●●●

▪ पेडें – म्हापशें ▪ 8788595022

▪ शोभा फुलकार

## बिलू बाय

बिलू बाय बिलू बाय
सांग कितें जाय?
नुस्त्याचें बोडूक काय
दुदा वयली साय?

धवें धवें बिलू बाय
मोव मोव मोव
पोल्लांत लोळटकच
लायला दिसता पोव

वेळ जातकच जेवणाचो
करूंक लागता नाच
नुस्तें घरांत हाडटकच
ताका पयलो येता वास

रातच्या वेळार बिलू बाय
एका जाग्यार बसना
हुंदीर नदरेक पडलो जाल्यार
धरले बगर रावना

दुयेंत जातकच बिलूचें
उदास जाता मन
आंगणा भायर वचून मागीर
खावंक लागता तण



श्रद्धा
गरड

# संजुचें सपन

(बाल नवलिका)



*फाटल्या अंकांत आमी पळयल्लें, संजुची मम्मा संजूक तरातरांच्या पक्षांचीं, फुलपाख्यांची चित्रां कशीं काडपाचीं आसतात तें शिकयता. संजू मन लावन फुलपाख्यांची चित्रां काडटा. जंय चुकता थंय खोड रबरान पुसता आनी सारकें करता. मागीर तांकां तो रंग लायता. आदीं काडिल्ल्या फुलपाख्यां परस दुसरे खेप काडिल्ल्या चित्रांत बदल जाला आनी तें बरें दिसता हे ताका कळटा.. चित्रकलेंत कश्ट घेवन काम करूंक जाय म्हणपाचें ताका समजता...आतां फुडें...*

साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत लेखिका कविता, ललित आनी बालसाहित्यात योगदान दिता.

दुसऱ्या दिसा संजुच्या मम्मान ताका वेगवेगळे तरेचे आनी वेगवेगळ्या रंगाचे एकवीस फुलांचे ल्हान रंगीत फोटो दिले. झाडाक फूल फुलचे पयलीं तें फूल झाडाक एक ल्हानसो कळो आसता. तो कळो थोड्या दिसांनी झाडाचेर फुलता आनी मागीर ताचें फूल जाता. झाडाक आशिल्ल्या कळ्यांचो फोटो आनी कळो फुलून ताचें फूल जाल्ल्याचो फोटो, तशेंच फोटवाचेर, त्या फुलाचें नांव आशिल्लें. मोगरी, आबोलीं, सदाफुली,अनंत, कृष्णकमळ , पारिजात, दसण,जायो, जुयो,चाफो,रोजां,साळीक (कमळ), शेंवती, गुलाब, सुर्यफूल, ब्रह्मकमळ , सुरंगां, ओंवळां, कणेरां, गुलमोहर,लिली अशीं वेगवेगळ्या पाकळ्यांचीं,आकाराचीं आनी रंगांचीं तीं फुलां म्हळ्यार फोटो आशिल्ले. त्या फुलांच्या फोटवां वांगडा संजूक आनीक चड म्हायती दिवपी फुलांचे फोटो दिले. दसण फूल सात पाकळ्यो आशिल्लें आसता आनी पांच पाकळ्यो आशिल्लेंय आसता. तशेंच दसण फूल तांबड्या रंगाचें, धव्या रंगाचें, हळडुव्या रंगाचें, गुलाबी रंगाचें आसता. शेंवतीं गुलाबी रंगाचीं, जांबळ्या रंगाचीं, धव्या रंगाचीं, हळडुव्या रंगाचीं आसतात. कृष्णकमळ तांबड्या रंगाचें, जांबळ्या रंगाचें आनी धव्या रंगाचें आसता. गुलाब हळडुव्या रंगाचो,धव्या रंगाचो, तांबड्या रंगाचो,

गुलाबी रंगाचो आसता. गुलाब दोन प्रकारचे आसतात. एक आकारान ल्हान आनी दुसरो आकारान व्हड. लिली धव्या रंगाचें, गुलाबी रंगाचें आसता.

मोगरें, आबोलें, सदाफुली, अनंत, कृष्णकमळ ,पारिजात, दसण, जाय, जूय, चाफो, रोजां, शेंवतें, गुलाब, सुर्यफूल, ब्रह्मकमळ, सुरंग, ओंवळ, कणेर, गुलमोहर, लिली ह्या सगळ्यां फुलांच्या रोपट्यांचीं मुळां जमनींत मातयेंत जातात आनी मातयेचेर रोपटो ल्हानाचो व्हड जावन एक झाड जाता. साळक ह्या फुलाचो रोपटो तळ्यांत आशिल्ल्या उदकांत वा शेतांत आशिल्ल्या उदकांत जाता. थंयच तीं फुलां फुलतात. उदकांत फुलिल्ल्या साळकाचो फोटो मम्मान ताका दिलो. त्या भायर फुलांची अशी म्हायतीय दिवन मम्मान ताका सांगलें, ‘‘पयलीं दर एक फूल सारकें लक्ष दिवन पळय. त्या फुलाच्या पाकळ्यांचो आकार कसो आसा, ताचो रंग कसलो आसा, फुलाच्या पाकळ्यांचें चित्र काडपाक तूं सुरवात खंयच्यान करतलो आनी फुलाचें चित्र कशे तरेन पुराय करतलो हाचो सारको अभ्यास कर. तुका फोटो दिल्यात तातुंतल्या कितल्या फुलांचीं चित्रां काडपाक तुका जमतलें हाचो तूं बरो विचार करून निर्णय घे. खंयच्या फुलाचें चित्र तुका काडपाक जमतलें हें पयलीं ठरय. मागीर पेन्सील हातीन घेवन तुवें ठरयल्ल्या फुलाचें चित्र काडपाक सुरवात कर. सुरवेक चित्र काडटना पेन्सीलीन वयले वयर फुलाच्या पाकळ्यांचो आकार कागदाचेर तयार कर. पयलींच पेन्सील कागदाचेर फोर्सान दाबून चित्र काडलें आनी जर तें चित्र सारकें जावंक ना जाल्यार तूं खोडरब्बर घेवन चित्र पुसतलो तेन्ना पेन्सीलीचो काळो दाग कागदाचेर उरतलो. तो चित्रा भोंवतणी दिसतलो. अशें केल्यार चित्र पळोवपाक निवळ दिसचें ना. तुजें चित्र बुरशें दिसतलें. तुका तुजी चित्रकला निवळ आशिल्ली जाय जाल्यार चित्र काडटना जतनाय घे. संजूक मम्मा सांगता तें पटलें. कारण ताणें हाचे पयलीं घर आनी ताच्या मुखार फुलांचें पोरसूं तशेंच फुलपाख्याचें चित्र काडटना तशीच चूक केल्ली म्हणून ताणें काडिल्लें चित्र निवळ दिसनाशिल्लें. फुलांचीं चित्रां काडटना ताणें ही गजाल लक्षांत दवरली.

संजून मम्मान ताका दिल्ल्या फुलांचीं चित्रां लक्ष दिवन पळयलीं आनी तांचो अभ्यास केलो. दर एका फुलाच्या पाकळ्यांचो आकार वेगळो आसता आनी रंग वेगळो आसता म्हणून दर एक फूल पळोवपाक वेगळें दिसता. सगळ्यां फुलांचे फोटो वेवस्थीत पळोवन जातकच,आपणा कडेन खंयच्या फुलाचें चित्र काडपाक जमतलें हाचो विचार संजून केलो. बरो विचार केल्या उपरांत ताणें, सदाफुली, पांच पाकळ्यांची हळडुवी दसण, केसरी रंगाचें रोज, धव्या रंगाचें साळक, जांबळीं शेंवतीं, सुर्यफूल, गुलमोहर आनी तांबड्या रंगाचो गुलाब अशीं आठ फुलांचीं चित्रां काडपाचें ताणें ठरयलें.

ताणें आपल्या चित्रां काडपाच्या पुस्तकांत, एका कागदाचेर पेन्सील घेवन, त्या कागदाच्या मदीं व्हडली उबी आनी आडवी लायन मारली. एका कागदाचेर एकाच आकाराचे चार चौकोन तयार केले. उपरांत ताणें दर एका चौकोनांत एक फुलाचें चित्र काडलें. फुलाच्या पाकळ्यांचें चित्र काडटना संजू मातसो चुकतालो. पाकळ्यांचो आकार सारको येना जालो. पूण संजू हार मानी नासतना परतून परतून यत्न करत रावलो. निमाणें संजू फुलाचें चित्र तयार करपाक यशस्वी जालो. चित्र सारकें जालां काय ना हें स्वता ताणें





तपासून पळयलें आनी चित्रांत जंय खंय सुधारणां करपाक जाय थंय ती केली. चित्रांत सुधारणां केल्या उपरांत, त्या फुलाच्या चित्राक सारको बरे तरेन रंग लायलो. उपरांत चित्रां काडपाच्या पुस्तकांत एका कागदार चार चौकोन काडले. दर एका चौकोनांत फुलाचें चित्र काडलें. अशें करून ताणें निवडिल्ल्या आठ वेगवेगळ्या फुलांचीं चित्रां काडून तांकां सोबीत रंग लायलो. दर दिसा, एक फुलाचें बरें चित्र संजू तयार करतालो आनी त्या फुलाक रंग लायतालो. अशें करून आठ दिसां भितर ताणें आठ फुलांचीं चित्रां तयार केलीं.

फुलांचीं चित्रां सोबीत तरेन तयार केल्या उपरांत दुसऱ्या दिसा मम्मान ताका फळांचे फोटो दिले. दर एका फोटवाचेर त्या फळाचें नांव आशिल्लें. आपोल, द्राक्षांचो घोस, दाळीम, चिकू, पोपाय, सिताफळ, चिबूड, केळें, काळींग,आतेंर,अनस,पणस, आंबो, काजू, जांबळां, काण्णां, चुन्नां अशे सतरा वेगवेगळ्या फळांचे फोटो दिले आनी ह्या फळांचीं चित्रां काडपाक ताच्या मम्मान ताका सांगलें.संजून पयलीं लक्ष दिवन फळांचे फोटो पळयले आनी मागीर ताणें आपणा कडेन खंयच्या फळाचें चित्र काडपाक जमतलें ताचेर विचार केलो. ताणें आपोल, द्राक्षांचो घोंस, सिताफळ, केळें, काळींग, अनस, आंबो, काजू ह्या फळांचें चित्र ठरयलें.

दर एका फळाचें चित्र सारकें काडून जातकच मागीरूच ताणें त्या फळांचीं चित्रां वेवस्थीत रंगयलीं. अशे तरेन संजून वेगवेगळ्या आठ फळांचीं सोबीत चित्रां तयार केलीं.

दर वर्सा शाळेक गिमाची सुटी पडटाली तेन्ना संजू नवीं-नवीं चित्रां काडपाक शिकतालो. गिमाची सुटी सोंपतकच शाळा सुरू जाताली. तेन्ना संजू आपलें सगळें लक्ष शिक्षण समजून घेवन शिकपाचेर दवरतालो.वर्गांत टिचरीन दिल्लो होमवर्क आनी असायन्मेंट बऱ्या तरेन वेळा पयलीं पुराय करतालो आनी परिक्षेंत बरे गूण मेळोवन परिक्षा पास जातालो. तरी मर्दीं थोडो वेळ तो चित्रकलेक दितालोच. तांकां चित्रकलेचोय एक विशय आशिल्लो. सुटयेंत चित्रां काडपाचो ताणें सराव केल्ल्यान शाळेंत सगळ्यां परस ताच्याच चित्रांची चड तोखणाय जाताली!

आनीक एके गिमाचे सुटयेंत संजूक ताच्या मम्मान, वेगवेगळ्या सवण्यांचे ल्हान ल्हान रंगीत फोटो दिले. त्या फोटवांचेर त्या सवण्यांचीं नांवां आशिल्लीं. मोर, पारवो, कीर, कावळो, चिमणी, बदक, राजहंस आनी गरूड बी. संजून सगळ्यांच्या चित्रांचो अभ्यास केलो. खंयच्या सवण्याचें चित्र काडपाक आपणांक जमतलें हाचो विचार ताणें केलो. संजून ठरयलें आपूण, मोर, पारवो, कीर, कावळो, चिमणी,

बदक, राजहंस आनी गरूड ह्या सवण्यांचीं चित्रां कागदार काडटलों आनी तांकां रंग लायतलों.

ताणें आपल्या चित्रां काडपाच्या कादेनांत पेन्सील घेवन एका कागदाच्या मदीं व्हडली उबी आनी आडवी रेग मारली. मागीर एका सारके चार चौकोन तयार केले आनी दर एका चौकोनांत एक सवण्याचें चित्र काडून तें रंगयलें.

सवण्यांचीं चित्रां वेवस्थीत आनी सोबीत तरेन तयार केल्या उपरांत थोड्या दिसांनी ताच्या मम्मान, वेगवेगळ्या जनावरांचे रंगीत फोटो ताका दिले. वाग, शींव,घोडो,हत्ती,सोसो,माकड,हरण,मांजर अशीं फोटवाचेर त्या जनावरांचीं नांवां आशिल्लीं. ताणें बरो विचार करून आपूण आतां सोसो,माकड,मांजर आनी घोडो हांचीं चित्रां काडटलों अशें ताणें ठरयलें. मागीर ताणें आपल्या चित्रां काडपाच्या कादेनांत आदले वरींच पेन्सीलीन कागदाच्या मदीं आडवीं आनी उबी रेग मारून एका सारके चार चौकोनी भाग केलें. त्या दर एका चौकोनी भागांत ताणें पयलीं एक जनावराचें चित्र काडलें आनी ताका रंग लायलो. ताका एक चित्र वेवस्थीत पुराय करपाक दोन दीस लागताले. अशें करून सवकासायेन ताणें दर एका जनावराचें चित्र पुराय केलें.

आतां संजू एकेक यत्ता पास जावन व्हडलो जायत गेलो आनी ताणें धाव्वी यत्ता मेरेनचें शिक्षण बऱ्या गुणांनी पास जावन पुराय केलें. संजूक भुगोल विशयाचो टिचर जावपाक त्या विशयाचें शिक्षण खंय घेवपाचें ताचें मार्गदर्शन ताच्या मम्मान ताका दिलें. मागीर संजू धाव्वी यत्ता पास जातकच फुडलें शिक्षण शिकपाक कॉलेजींत पावलो. ताणें लक्ष दिवन खूब मेहनत करून भुगोल विशयाचो टिचर जावपाचें कॉलेजींतलें शिक्षणय बऱ्या गुणांनी पुराय केलें.

ताच्या मम्मान ताका भुरग्यांक चित्रकला कशी शिकोवपाची मार्गदर्शन दिल्लेंच. उपरांतच्या काळार वेळ मेळटा तशें ताणें पेन्टींगचें शिक्षण खासगी वर्गांत वचून घेतलें. ताका लागून ताका कॅनवसाचेर चित्रां काडपाक मार्गदर्शन मेळ्ळें. तो सैम सुंदराय रंगांनी भरूंक लागलो. पांचवोचार दोंगर ताचे वयर निळें मळब आनी दोंगरा वयल्यान न्हंय व्हांवता, दोंगरां मुखार शेकानशेक भांगरा रंगाचीं शेतां असो देखाव आशिल्लें एक चित्र ताणें काडलें. अशें करतां करतां दोळ्यांक दिसता तो देखाव ताच्या चित्राचो विशय जावंक लागलो. शाळेच्या मैदानार ल्हान भुरगीं पंगडान खेळटात, बाजरांत नुस्तें, भाजी, फळां, फुलां विकतात असो देखाव आशिल्लीं चित्रां ताणें काडलीं.

संजून शिक्षण पुराय जातकच खूबकडेन नोकरे खातीर यत्न केलो. पूण ताका नोकरी मेळूंक ना. ताच्या वांगडा कॉलेजींत शिकपी सगळ्यां भुरग्यांक नोकरी मेळ्ळी. पूण संजू आपल्याक नोकरी मेळुंकना म्हूण अजिबात निराश जावंक ना.संजून स्वताक समजायत सांगलें, "आपणेन सत्य मार्गान कश्ट करून शिक्षण पुराय केलां.आयज आपणा कडेन नोकरी ना पूण एकदीस आपणांक नोकरी मेळटली आनी सत्य मार्गान, कश्ट करून हांव नोकरे खातीर यत्न करीत रावतलों. असो बरो निवळ सकारात्मक विचार संजून आपल्या मनांत दवरलो आनी तो नोकरे खातीर यत्न करीत रावलो.

संजूक ल्हान भुरग्यांक शिकोवपाक आवडटालें. ताका शाळेंत शिकोवपाक नोकरी मेळूंक नाशिल्ली. म्हणून तो ल्हान भुरग्यांक ताच्या घरा कडेन ट्यूशन दिवपाक लागलो. तो कश्ट करून ट्यूशन दिवन ल्हान भुरग्यांक शिकयतालो. ताचे पयशे ताका मेळटाले. संजू एक बरो भुरगो. ताका ताच्या घरांतली जबाबदारी खबर आशिल्ली. आपल्या आवय-बापायक आपणेन आतां सांबाळपाक जाय. तें आपलें कर्तव्य हें ताका खबर आशिल्लें. भुरग्यांक ट्यूशन दिवन ताका जे पयशे मेळटाले, त्या पयशांनी तो ताच्या घरांत रांदपाक सामान हाडटालो. तशेंच ताच्या घरांतलें लायटीचें आनी उदकाचें बील तो फारीक करतालो. ताचो आवय-बापूय दुयेंत पडलो जाल्यार, ताच्या कश्टाच्या पयशांनी तो तांकां दोतोरागेर व्हरतालो. ताचो आवय-बापूय बरो जावंचो म्हूण तो दोतोरान दिल्ली वखदां हाडटालो .

तशेंच ताणें रंगीत सोबीत चित्रां तयार केलीं आनी तांचें प्रदर्शन दवरूंक तो लागलो. संजून काडिल्लीं चित्रां जांकां आवडटाली आनी तीं चित्रां विकती घेवपाक जांकां परवडटालें, ते लोक ताणें तयार केल्लीं चित्रां विकतीं

घेताले. त्या पयशांनी संजू चित्रां काडपाक कॅनवास,पेन्सील आनी रंग विकते हाडटालो. चित्रां काडपाचें गरजेचें सामान जितलें गरज आसा तितलेंच सामान तो विकतें हाडटालो आनी नवीं बरीं चित्रां तयार करतालो. नोकरी मेळपाची वाट पळयनासतना संजून आपल्या शिक्षणाचो बरो उपेग केलो.

संजू नोकरे खातीर यत्न करीत रावलो. खूब यत्न करतकच, मागीर खूब म्हयन्यां उपरांत, संजूक एके शाळेंत भुरग्यांक भुगोल आनी चित्रकला विशय शिकोवपाचीं नोकरी मेळ्ळी. ताका नोकरी मेळटकच खूब मेहनत करून तो शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांक भुगोल विशय समजावन शिकोवपाक लागलो. तशेंच सोबीत रंगीत चित्रां काडपाची कला ताणें आपल्या विद्यार्थ्यांक चित्रकला विशय शिकयतना शिकयलीं. संजू जे शाळेंत शिकयतालो, ते शाळेंत तो भुगोल आनी चित्रकला विशयाचो टिचर जालो. संजून आपलें सपन पुराय केलें म्हणून ताच्या मम्मा - डाडाक ताचो अभिमान दिसलो.

संजू ल्हान आशिल्लो तेन्ना ताचे शाळेंत टिचरीन वर्गांतल्या सगळ्या विद्यार्थ्यांक एक प्रस्न विचारिल्लो, 'तुमकां फुडारांत कोण जावपाक जाय?' तेन्ना संजू कडेन जाप नाशिल्ली कारण ताका तेन्ना सपन म्हणजे कितें हें खबरूच नाशिल्लें. 'आपलें कसलेंच सपन ना' अशी जाप संजून दितकच वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं ताका हांशिल्लीं. सुरवातेक संजूक खूब वायट दिशिल्लें पूण ताचे आवयन ताका ताचें सपन आसा हें दाखोवन दिलें. संजूक आपलें सोबीत सपन आसा हें समजतकच, तें आपूण मेहनत करून, सत्य मार्गान पुराय करतलों अशें ताणें ठरयलें आनी ताणें तशेंच करून दाखयलें. संजू भुगोल विशयाचो खूब बरो टिचर जालो. तशेंच तो आपल्या विद्यार्थ्यांक बरी रंगीत चित्रां काडपाक शिकोवपाक लागलो. सगळ्यां विद्यार्थ्यांक संजू एक टिचर म्हणून खूब आवडूंक लागलो. कारण तो आपल्या विद्यार्थ्यांक बरे तरेन समजावन भुगोल विशयाचें गिन्यान दितालो. तशेंच बरीं-बरीं सोबीत रंगीत चित्रां काडपाक शिकयतालो. संजून हार मानिनासतना सत्य मार्गान, कश्ट करून आपलें सपन पुराय केलें आनी आपलो फुडार सोबीत केलो. ●●●

▪ फातोर्डा ▪ 8669495781

▪ शोभा फुलकार

## बाबूचें सपन

रातीं म्हाका सपन पडलें
सपनांत आयली परी
फाटीर तिचे बसून हांव
गेलों पलतडीं

पलतडच्या गांवांत
सगळेंच नवें नवें
आयस्क्रीमीचें तळें
आनी चॉकलेटीचे मळे

सगळीं भुरगीं नाचतालीं
खोशयेन सामकीं गायतालीं
तांच्या सांगाताक म्हाकाय
गावपाची रूच आयली

आयस्क्रीम आनी चॉकलेट खाली
आमी नाच नाच नाचलीं
दोळे उगडून पळयत तर
खाटीरूच गुठली आसली!



सुधा
खरंगटे

# गोड गोड काणयों

गांवांत बाई आयली आनी गांवच्या भुरग्यांचें नशिबच पालटलें. आलमपेड्ड्यार भोंवपी भुरगीं शिकपांत रुच घेवपाक लागलीं.

गांवांत एक शाळा आसली. पूण शिकोवपाक मास्तर केन्नाय आसतालो, केन्नाय नासतालो. एकेकदां चार म्हयने शिकयलेंशें करून नाच जातालो. भुरग्यांक व्हडलेंशें दुःखय जायनासलें. तांकां हेडपाक, खेळपाक आनी झगडून एक जावपाक दीसच पावनासलो.

परतेंऽ गांवच्या कोणा जाणटेल्याक भुरगे वाळेस शे भोंवतात हें पळोवं नजो जालें, भुरग्यांक शिक्षण ना - शिस्त ना ... ताणें मागीर कोण चार अक्षरां जाणां जाल्लो मास्तर धरून हाडलो. तोय बी भुरग्यांक शिकोवचे परस पट्टी घेवन मारपाकच चड रुची घेवंक लागलो.

अभ्यास करनात तांकां मारता, बरें आसा! अभ्यास करता तांकांय मारप ??

भुरगे चाळवले. वसंत, येसो दोगय बुदवंत.

मास्तराक बुद्द शिकोवपाच्यो जायत्यो युक्त्यो तांचे कडेन आसल्यो. आनी गांवांतल्या दोंगरार खाजकुले रोप्यांचो उणाव नासलो.

दोगांनीय मास्तराच्या कदेलार खाजकुली सारोवन दवरली.

मास्तरान बुड्डून बुड्डून रगतां काडलीं. शेवटाक तोय बी गांव सोडून गेलो आनी भुरग्यांक सूऽ जालें.

पूण ...बाईची खबरच वेगळी! बऱ्या घराण्यांतली, मॅट्रीक शिकिल्ली, बऱ्या मनाची, म्होवाळ सभावाची. तिणें शाळेंत शिकोवपाचें थारायलें. तेंय बी आपल्या शिक्षणाचो गांवच्या भुरग्यांक उपेग जावचो अशें दिसून! गांवभर लोकांक उमेदशी जाली.

भुरग्यांनी मास्तर जायते पळयल्ले. बाई केन्ना पळोवंकच नासली. तांकांय शिकपाक उमेदशी जाली. बिगरी, पयली, दुसरी आनी तिसरी....चारय वर्गांचीं भुरगीं वेगवेगळीं बसतालीं. आपल्या घरच्यान बसपाक साका कुडके घेवन येतालीं. बाई वाचूंक बरोवंक, गणितां शिकयतालीच! खेरीज पदां म्हणप, नाच करप, चित्रां काडप, नाटकुलीं करप, काणी रचप ...खूब कितें कितें!!!

शिस्त तर लागलीच. भुरगीं शिकपाक गोडी घेवपाक लागलीं. त्या दिसा बाईन 'गोड गोड काणयो' पुस्तक हाडलें. तातूंतली एक काणी भुरग्यांक वाचून दाखयली. भुरग्यांक ती खूब आवडली. बिगरींतलीं भुरगीं बोवाळ घालूंक लागलीं, ''बाई, आनीक एक काणी सांग..बाई, आनीक एक काणी वाचून दाखय...''

''आगो, पयलीं तुमी वाचूंक शिकात आनी मागीर तुम ीच हें पुस्तक वाचात. कोण पयलीं वाचूंक शिकतलो ताका पयलीं वाचूंक मेळटलें! हें पळयात, हांगाच खणांत दवरतां पुस्तक.'' बाईन मेजाच्या खणांत पुस्तक दवरलें. रतनान हात फुडें केलो. बाईन पुस्तक ताच्या हातांत दवरलें.

कितलें सुदंर ...चित्रांचे पुस्तक! आनी कितलें रंगीत! पुस्तक हातांत घेवन तें पोशेत रावलें. रतन, वासंतीनय हातांत घेवन पळयलें.



"काय बरीं चित्रां आसात, न्ही गो रतन?"

"हय गो, आमी वाचूंक शिकया आनी वाचया हां म गीर."

दोगांयनीय पुस्तक हातांत घेतलें. पोशेवन पोशेवन बाई कडेन परतें दिलें. बेगीन वाचूंक शिकूंक जाय..तांणी चिंतलें आनी नवे उमेदीन पाटये वयर्ली अक्षरां चिरूंक लागलीं. -क-ख-ग..

"तुजें जालें गो चिरून?" रतनान विचारलें.

"हय, म्हजें जालें. हांवें पळय चिरून चिरून केदीं मोठीं केल्यांत तीं अक्षरां..." वासंतीन सांगलें.

"चल ....तुजीं ल्हान आसात! म्हजे पाटयेर पळय, हांवें केदीं मोठीं केल्यांत तीं !"

"म्हजीं मोटीं आसात..."

"हांवें चड वेळां चिरल्यांत ..."

दोगांय झगडूंक लागलीं

दोगांकय झगडपाक वेळ लागनासलो आनी रोकडींच एकय जातालीं. झगडपाक कारणय जायच अशें नासलें.

"तूं मगो गोरूं! गोरेल्लेंच!" गोऱ्या रतनाक पळोवन वासंतीन म्हळ्ळें.

"तशें जाल्यार तूं काळू..." रतनान म्हळ्ळें

वासंती मातशें सावळें आसलें.

"तूं लांबु ...लांबश्या तोणाचें...!"

"तूं वाटु वाटकुळ्या तोणाचें.."

" एऽऽ गोरु-लांबूऽऽ"

" एऽऽ काळू..वाटूऽऽ"

दोगांयचो आवाज चडलो.

बाई दुसरेच्या वर्गाक गणितां शिकयताली.

"कोण तीं बोवाळ करतात?" तिणें विचारलें.

सुहास बिगरेचो मोनिटर .

"बाई, ही रतन आनी वासंती...अभ्यास चिरचें सोडून खबरी करतात आनी झगडटात..." सुहासान सांगलें.

बाईली शिक्षा म्हळ्यार एकच कान धरून उठाबशी काडूंक लावप.

"तांकां वीस उठाबशी काडूंक सांग !" बाईन फर्मायलें.

" चलात गो... कान धरून वीस उठाबशी काडात. चड खबरी करूंक जाय न्ही तुमकां! चड झगडूंक जाय न्ही तुमकां!"

दोगांय उग्गी हांसत कान धरून उठाबशी काडूंक लागलीं. सुहासाक मर्दीच येवजलें, "हांची मजा करुया हां!" ताणें म्हळ्ळें.

"अश्यो उठाबशी न्ही. एकमेकांचे कान धरात आनी उठाबशी काडात. बेगीन... बेगीन..."

रतनान वासंतीले कान धरले.

वासंतीन रतनाले कान धरले.

दोगांय मेळून उठाबश्यो काडूंक लागलीं.

रतनाच्या कानांत भांगराचे बट्टू आसले.

वासंतीच्या कानांत भांगराच्यो पेनेती आसल्यो.

"आवयस..! कानांतर्ली ओडनाका ...म्हाका दुखता..."

"आनी तूं नाखटां तोपतां तें? म्हाकाय दुखता...!"

मागीर दोगांयचीं कानांतलीं ओडपाची सर्त लागली.

रतनान तेमान पेनेती धरून ओडून ओडून वासंतीचे कान सुजयले.

वासंतीन नाकटां तोपून तोपून रतनाचो कान रगताळलो!

दोगांय रडत रडत उठाबशी काडटात....अठरा, एकोणीस, वीस. सुहासान उठाबशी मेजल्यो.

"बाईक सांगतलों हां रडल्यार! ओगी बसात." सुहासान दोगांकय धपकायलें.

शाळा सुटली. भुरगीं घरा गेलीं. वासंतीले सुजिल्ले कान ...रतनाची रगताळील्ली कानापाळी..घराकडेन आवयांनी पळयलीच!

रतनाचो आजो तर रागाक सामको वायट. तो चाळवलो...

"एदे व्हडले बाईक समजना? भुरग्यांक म्हूण अशी ख्यास्त दिवप?? मनीसपणा भायली?"

रतनाचो आजो, वासंतीचो बापूय...बाईक जाप विचारूंक शाळेंत पावले.

बाई सगळीच गोंदळ्ळी.

"हांव दुसरेच्या भुरग्यांक गणितां शिकयतालें. व्हडान झगडटात देखून हांवें तांकां कान धरून उठाबश्यो काडात म्हळ्ळें." तिणें सांगलें.

"भुरग्यांक ख्यास्त दिवंकच जाय! पूण अशीं रगतां काडऽसर..??"

"पूण हांवें तांकां एकामेकांचे कान धरूंक सांगुकूच नासले.."

" बाई, सुहासान तांकां एकामेकांचे कान धरूंक सांगिल्ले..." मीरान चाडी केली. तांची मज्जा करुया म्हणटालो..!"

"हय रे सुहास?" बाईन विचारलें.

सुहासाक जाप आसा?? तो तकली सकयल घालून रडूंक लागलो.

बाईन जाणट्यांची चूक मागली.

"चारय वर्गांचेर नदर दवरूंक सोंपे जायना. आनी भुरगीं कशीं तें तुमी जाणांतच. परतून अशें घडचेंना!"

-इतल्यार ही काणी सोंपली??

ना..सोंपूंक ना.

रतनाच्या आज्याक इतलो राग आयिल्लो ...!! पूण काडटलो कोणाचेर..?

रतनाचे सुजिल्ले कान... रगताळिल्ल्यो कानाच्यो पाळयो...सगळें पळोवन तो खुबळ्ळोच!!

"फाल्यांच्यान रतन शाळेंत म्हणून पांय दवरचेंना.." ताणें ओर्द सोडली.

शेकी....जालें कितें? बाबडें रतन चार अक्षरां शिकून बरोवंक-वाचूंक शिकतलें आसलें तें ना जालें.

रतनान रडून रडून दोळे सुजयले. इतलें रडलें कीं दोनय दोळे सुजून सामके पुरवल्ले भशेन जाले.

आवयल्या फाटल्यान कीट कीट करीत रावलें. "-आई हांव वतलें गे शाळेंत..म्हाका वाचूंक शिकूंक जाय. हांव खबरी करचें ना गेऽऽ.. उलोवचें ना गे... झगडचें ना. फकत अभ्यासच करतलें..देवाच्यान तर! फकत अभ्यासच करतलें... आई धाड गे म्हाका शाळेंत.. सांग गे आज्याक....म्हाका तें पुस्तक वाचूंक जाय गे..!"

रतनान आवयक नाना तरेन विनयलें. पूण आज्याक सांगपाचें धाडस कोणाकूच जालें ना.

घरांतल्या जाणटेल्यांनी सांगलें- "आगो, चली भुरगें तूं ! फाल्यां घोवागेर वतकच तीं बुकां वाचपाक-करपाक तुकां वेळ लेगीत आसचोंना मागीर ...चल, तूं आतां घरांतलीं कामां शीक.."

रतन मुकाट्यान घरांत घोळूंक लागलें... घरांत सारन मारप ..केन्ना सोय कातून दिवप ..बारकीं आयदनां घांसप करूंक लागलें.

-रातच्या सपनांत मात ताका तें गोड गोड काणयो चित्रांचें पुस्तक दिसतालें. तें हातांत घेवन तें पुस्तक पोशेतालें.. तोखेतालें..मागीर जाग येतकच तें सपन म्हूण खेदतालें.

वयार येतकच गोरेंपिट्ट रतन चडच सुंदर दिसूंक लागलें. पयलेच जाग्यार सोयरीक व्हेली थंय पसंत पडलें.

-रतनाचें लग्न जालें.

रतनालें चली रतना भशेनच 'गोरु आनी लांबू'. शिवाय शिकूंक हुशार !

आईक शाळेंतल्यो खबरी सांगून सांगून बेजार हाडपी.

एक दीस तर ताणें अजापच केलें.

पाटी-काडी घेवन आयलें. म्हणूंक लागलें- हांव मगे तुजी बाई...चल तुकां शिकयतां.

पिशा, म्हाका तूं शिकयतलें? चल, फकाणां नाकात. म्हाका कामां आसात. त्रास दिवनाका.." रतनान म्हळें.

"आई गे, बाईन सांगलां - जणएकल्यान एके तरी बायलेक वाचूंक बरोवंक शिकोवपाचें.."

"बाय गो, घरच्या कामांतल्यान म्हाका वेळ तरी मेळटा? चल..म्हजे वाटेक वचनाका!"

"पूण आई, म्हाका वर्सुके परिक्षेंत धा मार्क चड मेळटले.. आनी बक्षीसय मेळटलें. वर्सुकी परिक्षा जावचे पयलीं म्हाका तुकां वाचूंक शिकोवपाक जाय...आई.. शिकयतां..गे तुकां...आई..प्लीज गे..आई.."

शेवटाक आवयचे फाटल्यान लागून लागून जाई रतनाक शिकोवंक लागलें.

चलयेचो हट्ट पुरोवपाक रतन कसो तरी वेळ काडून पाटये वयलीं अक्षरां चिरपाक लागलें. जाईक धा मार्क मेळचे खातीर नेटान शिकूंक लागलें. जाईची परिक्षा लागीं पावसर रतन जाईच्या पुस्तकांतले धडे वाचूंक लागलें.

-जाईची बाई घरा येवन रतनाक मेळून गेली. रतनान जाईच्या पुस्तकांतलो धडो वाचून दाखयलो. बाईन दोगांकय शाब्बासकी दिली.

जाईक परिक्षेक धा मार्क मेळ्ळे आनी एक पुस्तक बक्षीस मेळ्ळें.

जाई खोशी जावन घरा आयलें.

"आई, तुका लागून म्हाका धा मार्क चड मेळ्ळे. पयलो नंबर आयलो आनी काय बरें पुस्तक बक्षीस मेळ्ळा पळय- गोड गोड काणयो.." पुस्तकाचें नांव आयकतनाच रतनान हातांतलें काम थंयच सोडलें. झोपय मारून पुस्तक ओडून घेतलें. 'हेंच तें पुस्तक ' म्हाका सपनांत येवन चाळोवपी रंगीत...चित्रांचें...

ताका बाईची याद जाली- "तुमी वाचूंक शिकात आनी मागीर तुमीच वाचात ह्यो काणयो..."

तें हापापिल्ले भशेन तें पुस्तक वाचूंक लागलें.

●●●

▪ पर्वरी गोंय ▪ 9545020101



उषा
ज.
कामत



# आंब्यांचो घोंस

मायाा म्हयन्याचे दीस. रातच्या वेळार सदांच राजूचो पापा रिनाक आनी राजूक घेवन फुडल्या आंगणांत पासयो मारतालो. रातच्या थंड वेळार भायर आंगणांत मात्शें थंड वारें मारतालें. थंय आंगणांत एके कुशीक घरा लागसार एक आंब्याचें झाड आशिल्लें. ताका बरें वाटकुळेंच पेड बांदून घेतिल्लें. पासयो मारतां मारतां रिनान म्हणचें,

''चल पापा आमी बसया आतां...''

मागीर पापा तांकां दोगांयकय घेवन त्या पेडार बसतालो.

मम्मीय आपलें रांदचे कुडींतलें काम सोंपोवन थंय पावताली. आजय सदचेवरी मम्मा आयली. तिणें राजूक धरलो आनी ती पासयो मारूंक लागली.

रिनाचो बडबड चालूच आशिल्ली.

आपले शाळेंतल्यो सगळ्यो खबरो तें पप्पाक सांगतालें.

पप्पाय घोस्तान सगळें आयकतालो.

अशींच तीं बशिल्ले कडेन टूप्प करून आवाज आयलो.

''कसलो आवाज रे पप्पा?''

''तोर पडलें आसतलें गो!'' पप्पान हेवटेन तेवटेन पळयत म्हळें.

''कशें पडलें तें? बडी मारूंक ना मरे! फातरूय मारूंक ना!''

''आगो वाऱ्यान पडला!''

मम्माचे दोळेय मात्शे हेवटेन तेवटेन सोदताले.

राजू एक सारको मम्माक पासयो मारूंक फोर्स करतालो.

''मम्मा वाऱ्यान पानां पडटात मगे. तोर पडटा?'' आरे शाण्या वाऱ्यान पानांय पडटात आनी तोरांय पडटात.'' मम्मान हांसत म्हळें आनी मम्माचें लक्ष मळबांतल्या चांदोमामा कडेन गेलें.

''पुनव लागीं पावली दिसता!'' मम्मा आपले भितरच उलयली खरी पूण रिनाक एक नवो विशय मेळ्ळो.

''पुनव म्हळ्यार कितें?''

''पुनव कशी येता?''

''पुनवेकच चांदोमामा असो कसो दिसता?''

रिनाचे एकाचेर एक प्रस्न सुरु जाले.

पप्पा समजावन ताका सांगतालो खरो पूण ताचे पिराये कोतान ताका तें समजनासलें.

मम्मान हळूच ताका आंब्याचो घोंस दाखयलो.

राजूबाबूकय दाखयलो.

"पळय रे बाबू, आंबे पळयल्यात तुवें? कितलो सकल लागला पळय तो घोंस!"

"पळय गो रिना."

बाबून तो आंब्या घोंस पळयलो आनी बोट दाखोवन ऊं ऊं करीत तो मागपाक लागलो.

'जाय जाय' करीत बाबू लागलो रडपाक.

बाबूक कितलो समजायलो, फुसलायलो, खेळयलो पूण बाबू कसोच आयकना.

'ऊं ऊं जाय जाय' करीत बाबू व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलो. कसोच आयकना.

भितर हाडलो तरी थांबना.

एक सारको भायर व्हर म्हणून रडटा. मम्मी पप्पान खूब समजावन पळयलें.

आजयेनय समजायलें.

पूण रड इतली थांबना.

आनी रिनाक याद जाली ती रामबाबूची, आजयेन सांगिल्ली काणी.

रिना धांवत भितर आयलें.

आजये तुजो हारसो दी

"कित्याक गो बाय?"

"मागीर सांगतां. पयलीं दी हारसो."

रिना आजयेलो वांटकुळो हारसो घेवन आंगणांत पावलें.

सारको आंब्याचो घोंस हारशांत दाखयत ताणें म्हळें, "घे आंबे!"

लायटीच्या उजवाडांत आंब्यांचो घोंस बाबूक हारशांत दिसलो.

बाबू खूश जालो.

खुदू खुदू हांसपाक लागलो.

बाबू खूश. रिनाय खूश.

मम्मी,पप्पाक,आजयेक सगळ्यांचेच नदरेंत कौतूक.

•••

▪ मेरशें – गोंय ▪ 9403079052



वैष्णवी
रायकार

# उखाणी

## (आपरचीत)

*पयलीं लग्ना वेळार वा पांच पर्तावणार बी व्हकलेन न्हवयाचें,न्हवऱ्यान व्हंकलेचें नांव घेवपाचो खेळ चल–तालो. हें नाव सादें सरळ घेवपाचें नासतालें जाल्यार तें उखाण्यांतल्यान घेताले. ह्या खेळाच्या निमतान लोकसंस्कृतायेंत काव्य केळोवपाचो हो प्रकार कलागुणांक प्रोत्साहन दितालो. आजूय फकत लग्ना निमतानूच न्हय तर वेगवेगळ्या कार्यावळीनीय ही कला मनरिजवण करता.*

लेखिकेन कविता,कथा आनी ललित साहित्यांत आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्या. तांचीं पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत.

1-.......च्या मोगाचें गायतां हांव
कवन, सगळ्यांनी म्हणलें- मेळ्ळें
तुका मना प्रमाणें धन.

2- म्हज्या बऱ्या नशिबान.........
म्हाका मेळ्ळें, जशें जाचें मन भलें
ताका देव दिता केळें .

3- मोगरेच्या परमळान फुल्लां
पोरसूं.........च्या आनी म्हज्या
आयुश्यांत मोग भरसूं.

4- हळदीच्या रंगाची
मुखामळार कांती, उमेदीच्या खिणांत
म्हज्या........म्हजें सांगाती.

5- सुर्याचें पयलें किर्णं परजळायता
सकाळ....... म्हज्या गळ्यांत
घातल्या मोतयांची माळ.

6- पावसाचे पयले धारेर धर्तरी परम
ळटा.....ची मोगा भास म्हाका आतां
कळटा.

▪ पाजीफोंड, मडगांव ▪ 8698147583

# निमंत्रण




## बिम्ब
### प्रकाशन

*पुरण शेतांत कबाड कश्ट करपी म्हादय न्हंयेचे तडी वयल्या शेतकारांची शोकान्तिका, सामाजीक, लोकसांस्कृतीक आनी राजकीय स्थित्यंतरां, बंधाऱ्याक लागून नामशेश जाल्लें कृशीजीवन आनी गोसंस्कृताय, तशेंच रेवेंच्या उत्खननाक लागून जाल्ल्या न्हंयच्या विद्ध्वंशी रूपाचो वेध घेवपी डॉ.प्रकाश पर्येकार हांचे पुरण हे कादंबरीच्या प्रकाशन सुवाळ्याक आमी तुमकां मानान आमंत्रीत करतात.*



*अद्यक्ष*
**श्री.दामोदर मावजो**
ज्येश्ठ साहित्यकार
आनी ज्ञानपीठ पुरस्काराचे मानेली

*मुखेल सोयरे*
**श्री.विश्वास पाटील**
(मराठींतले ज्येश्ठ कादंबरीकार)

*मानाचे सोयरे*
**डॉ.भूषण भावे**
समिक्षक आनी
प्राचार्य - विद्या प्रबोधिनी महाविद्यालय,परवरी-गोंय

*पुस्तकाचेर उलोवपी*
**डॉ.रमिता गुरव**
(हिन्दी समिक्षक
आनी सहयोगी प्राध्यापक,
सेंट झेवियर महाविद्यालय
म्हापशें-गोंय)

*सुत्रसंचालन*
**मानसी धाऊसकार**
(पालवी संपादक,बिम्ब)

**मंगळार ता. २४ माय २०२२ वेळः सांजेच्या ४.०० वरांचेर**

*तुमच्या येवकाराक रावतात*

**दिलीप बोरकार**
*प्रकाशक*

**डॉ. प्रकाश पर्येकार**
*लेखक*

तुमची उपस्थिती म्हणल्यार साहित्य आनी साहित्यकारांची उर्बा

# सर्गेस्त डॉ.भिकाजी घाणेकार

## हांचे यादीक *एक भांगराळी सांज*

दोतोर भिकाजी घाणेकार
चुटकुले विनोदी गजालींनी
पिडा पयस करपी जादुगार
मांडो फेस्टीवलांनी नाचयली
कोंकणीचीं मांदोलीनां
चळवळ बंड घोशणांनी
अन्याया आड आंदोलनां
कोंकणी भावंडांक केली
तुवें उतरांनी खातकुतली
शब्दांचीं कपयाळीं गुंथून
खळी गालार खेळयली
स्वरांचो साद चडयत
उतरांक दिलो शिरंगार
सामान्यांक नाचपाक लायता
तुज्यांतलो तालबद्ध गीतकार
जनांचीं मनां जिखपी
तुजींच सुत्रसंचालनां
पुरस्कार सन्मानानी दोतोर
गायली तुजी किर्ती
शाश्वत सदां उरतली
कोंकणी काळजांत तुजी मूर्ती

गौरीश वेर्णेकार





































सर्गेस्त भिकाजी घाणेकार हांचे यादीक ओपिल्ले कार्यावळीक वांटो घेतिल्ले मानेस्त-सुत्रसंचालक चंद्रिका पाडगांवकार,योगिता वेर्णेकार,फाउस्त द कोश्त,अशोक परब,दिलीप बोरकार,उदय देशप्रभू,शकुंतला भरणे,,सुनंदा घाणेकार,महेश नायक, शोभा तारकार,रजनी ठाकूर,डॉ.सीताकांत घाणेकार, फा.जेजुईन्य आल्मेद, जमिल्ले प्रेक्षक, पुस्तक प्रदर्शन. दामोदर घाणेकार येवकार दितना.

# गोंयचे नामनेचे हास्यकवी, बालसाहित्यीक आनी गीतकार तशेंच कोंकणींत वैजकी साहित्यांतल्यान समाजांत भलायकेची जागृताय करपी

# सर्गेस्त डॉ. भिकाजी घाणेकार

## हांची कांय लोकप्रिय पुस्तकां





















**कथा**



सोनाली
सु.
पेडणेकार

# केल्लें हांगाच उरता

*आमच्या घरांत आमी जायत्यो अशो वस्तू विकत घेतात वो दवरतात जांचो केन्नाच वापर लेगीत जायना. देखीक आरमारींत भरून दवरिल्ले कांय कपडे जे आमी केन्नाच न्हेस-नात, पुस्तकां जीं केन्ना वाचपच जायनात, खेळणीं जीं वापरप जायनात, तशेंच वापरांत ये नाशिल्लीं उपकरणां घरांत पडून उरतात आनी कोयर करतात.*

लेखिका कथा,कविता आनी ललीत साहित्य सातत्यान बरयता.तांचें साहित्य नेमाळ्यांनी उजवाडाक येता.



तें पिळगेचें घर. खूब व्हड न्हय आनी खूब ल्हानूय न्हय. त्या घरांत स जाण भावांतले फकत दोन भाव रावताले.बाकीचे आपआपले स्वतंत्र रावोंक गेल्ले. तांणी आपआपल्याक स्वता जागो घेवंन घरां बांदलेलीं. पोरन्या घरांत रावताले ते फकत दोग भाव. तातूंतलो एकलो आशिल्लो व्हडलो आनी दुसरो आशिल्लो चौथो.

त्या बापायले पिळगे घरांत दोगूय जाण वेगळे वेगळे रावताले तरी तांची चौक कूड एकूच आशिल्ली. व्हडल्या भावान त्या घराक मर्दी एक वणत घालून व्हड वांटो आपल्याक घेतिल्लो. फकत दोन कुडी त्योवूय खुबूच ल्हान चौथ्याक दिल्ल्यो. व्हडल्या भावान त्या घरांतले रांदचे कुडींत आपलो हक्क गाजयतालो तर चौथो भाव झगडें नाका म्हण घरा फाटल्यान आशिल्ल्या चुडतांच्या पागेलांत आपली तीन फातरांची चूल घालून आपलें जेवण खाण करतालो. व्हडल्या भावाक मात तो चौथो भाव त्या घराकूच नाका आशिल्लो. तो ताका नडोक लागलो. ताणें घराक बांय आशिल्ली ती लेगीत आपल्याचीच केल्ली. हाची किरकीर नाका म्हण हो शेजाऱ्याले बांयचें उदीक हाडटालो.

हाका त्या घरांत एकटोच रावपाक जाय आशिल्लें म्हूण ताका या भावाची नसाय जावंक लागलेली. तो ताची आनी ताच्या भुरग्यांची कितें ना कितें कळ काडूंक लागलो. ताचें चिंतप अशें जाल्लें की ही अशी कळ काडटकूच तोवूय बाकी भावां बशेन दुसरेकडे वयचो. तो ताच्या फाटल्यांनूच लागतालो, "हें पळय मधु, तूं हें घर सोड, तू तुका दुसरें घर काड. म्हाका हें आख्खें घर जाय. तुका खबर आसा हें घर बाबान म्हज्याच नांवार केलां. तुका एकट्याक हो इल्लोसो दी सांगिल्लो म्हूण बाबा आसतना तुका दिल्लो. आतां बाबा गेलो. हें आख्खें घर म्हज्या नांवार आसा. तू हांगाचो आतां चल. तुका नवें घर बांद."

"दादा, असो कितें उलयता तू ? तुका खबर आसा म्हजेकडे इतले पयशे नात. तू म्हाका वच म्हण नाका हीं झाडां पेडां हांवें लायल्यांत. त्यो गायो म्हज्यो. म्हाका बाबान दिल्ल्यो." चौथो व्हड भावाक काकुळटेन सांगतालो.

"ना आं तू हांगा रावपाचें नांव घे नाका. तू चल म्हळ्यार चल." व्हडलो काकूळट आनी नातीं जोडप हें नकळोच आशिल्लो. तो इतको तुसडेपणानी वागतालो की नाका खरेंच नाका तें घर अशें दिसपा सारकी ती परिस्थिती जाताली.

बापायलें घडये हेंच तर चुकलें आसत! ना ताणें फकत एकठांय रावपाचें शिक्षण दिलें. आवय तर केन्नाच सोडून गेली. चौथो मनांत म्हुणटालो,'बापायन सारको वाटो करून वाटून दिल्लो जाल्यार हो अशे त्रास तो करचोच नाशिल्लो. ताका आपल्या व्हड पुताचेर चड मोग आनी विश्वास. तो म्हणटालो,'व्हड भाव म्हळ्यार एक बापुयच कसो!' पूण ना हांगा अशें दिसना जाले. व्हड भावूच खेत्री जालो.

चोथौ मात्सो जोडीक कमी आशिल्ल्यान दुसरेकडे जागो घेवन वा घर घेवपा सारको पयसो ताचेकडे नाशिल्लो. त्या भायर ताका तीन चलयो आनी एक चलो आशिल्लो. पयलीं एकएकल्यांक कितलीं भुरगीं आसतालीं तीं तींच जाणां. हागेली बायल शेता भाता कामांक वताली. अशेंच तांचें घर चलतालें आनी भुरग्यांचें तें शिक्षण. ताणें आपल्या पागेला फाटल्यान आपल्याक जाय तितलीं झाडां लायल्लीं. बाकी इल्लेश्या जाग्यार ताची बायल भाजी बी रोयताली. बाकीची जी व्हड सुमार हजार देड हजार स्केवर मिटर आशिल्ली तातूंत हाणें आपणें वंय घालून चौथ्याक इल्लीशी वाट दिली. ताणें आंगणाक लेगीत मेर घालून वांटो केल्लो. ताका तो त्या आंगणांत पांय लेगीत घालूंक दिना आशिल्लो. तांचीं दोगालीं भुरगीं केन्ना केन्ना खेळटात तेन्ना चुकून तांचे पांय त्या आंगणांत पडटाले. तेन्ना व्हडल्या भावाच्या तोंडाक सदाच गाळयो,बुरशीं उतरां आनी हातांत मारपाक हत्यारां उबीं जातालीं .

हरशीं लेगीत तो तसोच खुनशी कसो आशिल्लो. तो आपल्या भावां भंयणी लागीं आपूण व्हड भाव अशें सांगत व्हडपण गाजयत रावतालो. हेच खातीर हेर सगले भाव आपापल्याला पांयांर उबे रावन, ताच्या ह्या सभावाक बेजारून जळीमळी वचून रावताले. हो मात 'आयज हाड आयज खा' करीत ती जागा आनी घर सोडून खंय वयतलो? हो दिसवड्या कामांचो मनीस. हेचे कडेन जागो घेवपाची परिस्थिती ना. हेच्या पदराक चार भुरगीं. बायल कापस्तादिची, हट्टी ! आपलो जागो आसा तोवूय सोडून गेलो जाल्यार सामकीं रस्त्यार पडटलीं म्हणपाचें ती भेस जाणा आशिल्ली. ती पाशिंयेस काडीत थंयच रावताली.

व्हडलो तांगेर सोयरीं आयल्यार लेगीत तांकाय गाळयो घालतालो .

व्हडल्या भावाक तर तो थंय राविल्लो नाकाच आशिल्लो. तो ताच्या भुरग्यांक बी तोंडाक येता तें कितेंय म्हणटालो आनी बुरशो गाळी घालतालो. त्यो भुरगीं रोकडींच लक्षांत घेतालीं. रात जाली काय हो तीं रावता थंय फाटल्यान घराचेर कितें कितें मारून आवाज करतालो. माडा चुडटांचो सरसर आवाज करतालो. ल्हान भुरगीं तीं! खरेंच भितालीं आनी धाकटे काकीगेर वतालीं. व्हडल्याचो हेतू भुरगीं भियेत रावचीं आनी तांचे खातीर हाणेन भायर सरचें असोच आशिल्लो घडये! चौथ्याक आपलीं भुरगीं अशीं भिवून दीस काडटात तें पळोवन वच्चें दिसतालें. पूण वयतलो खंय! बायलय बी म्हणटाली मागीर, ' आमी सोडून गेल्यार होवूय इल्लोसो वाटो तो आपलोच करतलो! तेच पासत तर करता तो हें सगळें!'

तांचो निमाणो, सगळ्यांत धाकलो भाव थंयच लागीं एक व्हड घर बांदून रावतालो. ताकाय तीन भुरगीं. सगल्यांचें

एका फाटोफाट लग्न जाल्लें. तें एक काम बापायन बेस बरें करून उडयिल्लें. तांका सगळ्यांक संवसाराक लायलें.होच सगळ्यांत मात्सो भोळो कसो आशिल्लो! बाकीचे सगळे हुशार! धाकल्या काकान आनी काकीन भावालीं भुरगीं भितात तें पळयलें आनी आपल्या घराची एक कूड तांका रातची न्हिदपाक दिली. आतां भुरगीं रात जाली काय त्या धाकट्या काकागेर न्हिदोंक वतालीं. काकालीं भुरगीं आनी तीं मस्त रावतालीं.

चौथ्याची बायल म्हणल्यार ह्या भुरग्यां आवय जिद्दी. ती त्या घरांतली भायर सरपाक पळयत ना हाचो व्हडल्याक खुबूच राग येतालो. ताणें आपली बुद्धी सामकीच भ्रश्ट केली. तो आतां कोयतो, सुरी, खोरें बी ताका मारपाक वापरोंक लागलो. घराक आनी जमनीच्या कुडक्याक लागून,जो स्वता व्हडलो भाव आशिल्लो तरी असो करता म्हूण चौथो पिकासावान व्यसनाक लागलो. तेंतून बुडोंन आपल्या व्हड भावाक कितें कितें म्हुणत रावतालो. ताचो ताका आनीक राग येवंक लागलो. बापायन जाच्या विस्वासार केल्लें नांवार तोच घातकी रूप घेवंक लागलो. तोच फाटल्यां भावाचो वैरी जालो. हातूंत हात ताचे बायलेचो आशिल्लो.

तो इतको सतावंक लागलो, ताणें एक दीस चौथ्या भावाचे बायलेर फाटल्यान हळूच कोयतेचे घाव घालूंक फाटीं फुडें पळयलें ना. तिचें नशीब इतलेंच की तेन्नाच ते वाटेन वचपी एका मनशान ताका आडायलो.

चौथ्याक जगडोंक कळना. तो उलोवंकय बी फाटी. ताका उलोवंक जाय आशिल्ली ती व्यसनाची ताकद. ते ताकदीर उलयतना हो व्हडलो ताका मारपाक लागतालो. तेन्ना मात बायल भुरगीं भितालीं. तीं कडकडटालीं. तांचो अभ्यासय बी सारको जायना जालो.

तांची ही खबर गांवांतल्या सरपंचाकडे पावली. ताणें त्या व्हडल्याक खूब समजायलो तरी तो आयकूं तयार ना. आतां हाणें त्या रागान तांची वाटय बी बंद केली. घरा मुखार व्हड व्हाळ आशिल्ल्यान तीच तांची रस्त्यार वचपाची वाट आशिल्ली. आतां थंय रावोप खूब भिरांकूळ जालें. मागीर एक दीस सरपंचान तांका सांगलें,“तुमी हांगा रावों नाकात. तुमी त्या वयल्या दोंगरार झोपडी बांदून रावात. हांव सांगतां, कांय भिवों नाकात.”



सरपंचाचें आयकून बायल आपल्या भुरग्यांक लागून घोवाक घेवन थंय गेली. त्या दोंगरार चुडटांची झोपडी बांदून रावली. घर थंयच उरलें. ताका तिणें कुलूप लावन दवरलें. ती मागीर केन्ना केन्ना घर निवळ करूंक आनी थंय फुलां- फळांचीं झाडां आशिल्लीं तांका उदीक घालूंक वताली. भुरग्यांक व्हरऽ नाशिल्ली. ती जेन्ना जेन्ना तंय वताली आनी ताका ती दिसली काय तेच्यो गाळयो सुरुच आसताल्यो. तरी तिणें आपलें घर सोडचीं ना अशेंच मनार घेतलेलें.

पूण हांगा ती कितें करता तें उलटें पडों लागलें. जालें अशें चौथ्या भावाचें व्यसन आंगांत बळ्ळें. त्या व्यसना शिवाय ताच्यान रावोंक जायना जालें. तो दिसरात त्या व्यसनात बुडलो. ताका ना बायलेचें पडूंक, ना भुरग्यांचें. तें व्यसन करप, घरा येवन न्हिदप. परत वचप. आपूण कितें जोडटा तें ह्या व्यसनाक काबार करप. ती ताची संवय जाली. भुरग्यांचे उपासमार!

बायल घरकामाक वचूंक लागली. घरकाम करून भुरग्यांचें पोट भरताली. केन्ना शेताच्या कामाक वताली तर केन्ना लाकडांचे भरे हाडून विकताली.

ती एकटी, पदराक व्हड शिक्षणूय ना, कितलें करतली? पोटच भरलें म्हणून जायना. हो तर व्यसन सोडूंक तयार ना. परत परत तिका एकूच प्रस्न करी, 'तू म्हाका हांगा कित्या घेवन आयल्या?' ती सांगत रावताली,'अरे तुका तो मारूंक

सोदता न्हय रे! तो केन्नाय फाटल्यान तीं शस्त्रां उबारता तो. तू असो भिवकुटो!'

तिणें अशें म्हणलें काय हाणें वयल्यान तिचेर व्हडल्यान तापप. तिचें सांबाळून दवरलेलें व्हरून व्यसनाक मोडप. जेवणां भगर भुरग्यांक कपडे लत्ते, शाळेंत धाडपय आसलें! सरकारी शाळेंत शिकोंक घातलेलीं.

सदांच हेंच रूटीन चलतालें. व्हडली आशिल्ली चली. तिका ना सारके कपडे, ना सारकीं चपलां! अश्यांतल्यानच तीं शिकोंक लागलीं. कशे तरेन हाल काडीत शिकतालीं.. आनी गे वटेन ही आपली दिसरातच्या कश्टांनी जाम जायत गेली.

कांय दिसांनी हिणंये त्या आपल्या घरा वचपय सोडून दिलें. तें घरय बी ताची नितळसाण जाय नाशिल्ल्यान एक दीस मोडून पडलें काय कोणें मोडून घालें खबर ना. तें मोडल्या बराबर हाणें ताचेर कब्जो केलो. हिणें तें घर आपल्या भुरग्यांक तो वाटेर धरून त्रास करता म्हूण सोडलेलें. पूण तिचो जीव मात त्या घरार उरिल्लो.

तांचे ते हाल उपद्रे त्या व्हडल्या भावाक बादले जावं येता.थोडे दिसांनी तो कसलो तरी रोग जावन मेलो. ताचीं भुरगीं त्या घरांत सामके गरीब परिस्थितींत दीस काडूंक लागलीं. ताचो एक चलो ताचोच सभाव घेवन आयलो. तेंच मोडकें कशें जाल्लें घर घेवन रावंक लागलो.

लोक उलयताले,' आपल्या खासा भावा लागीं तो झगडलो..दादागिरी करत रावलो. पूण तें घर आनी जागो मात हांगाच उरलो. आपूण घेवन गेलो ना. फकत तमाशा करून गेलो. बरे बशेन राविल्लो जाल्यार घडये बरें मरण तरी येता आशिल्लें ! ताचीं भुरगींय बी बरेकडेन पावत आशिल्लीं.'

ताच्या त्या कुकर्मांनी ताच्या गांवचोय लोक ताका बरो नाशिल्लो. शेवट मात वळवळोन जालो. ताका ताचो एकूय भाव निमाणे कडेन लेगीत दिसलो ना. कित्याक ताच्या कर्माचें फळ भोगून तो गेलो. तो गेलो तरी ताचो पुतय बी आतां तेच अवस्थेंत जगता..हेंय घडये ताच्या कर्माचेंच फळ म्हणपाचें!

हो चोथौ रावतालो त्या दोंगरार मागीर आनिकूय कांय लोक रावोंक आयले. हिणें मात ते खोपटेचे कुशीक बरो व्हड जागो आडायलो. तातूंन तिणें भरपूर झाडां लायलीं. व्हड झाडां मदीं काजुचीं, आंब्याचीं, पेरांचीं आशिल्लीं. त्या भायर केळी, पोपायो हांचींय झाडां लायलीं. तरेकवार फुलांचीं झाडां लायलीं. ती त्या जाग्यार नाचणेय पिकोंवंक लागली. तिणें कुकडां, माजरां, कुत्रो पोशिल्ले.

आतां भुरगींय बी व्हड जालीं. जाता तितलीं शिकलेलीं. व्हडलें कामांक वचूंक लागलेलें. त्या मजगती आवय बराबर त्या भुरग्यांनी शिकता आसतनाच कामांय केल्लीं. दुसरेंय कामांक वचूंक लागलें. सगळीं बापायक मात बरीं सांबाळटालीं. पूण आपलें तें व्यसन तो सोडूक कस्सोच

पळयनाशिल्लो. तरीय बायल आनी भुरगीं ताका जेवण कमी करी नाशिल्लीं.

त्या व्यसनान ताची जीण सोंपपाचे धडेर आयली. ताच्या भुरग्यांनी ताची बरी सेवा केली. ताका दोतोरान सांगलें,'बाबा आतां तरी तो सोड. तुका कितले फावटी तीं वाचयतलीं? आतां चड पियेत जाल्यार मात तू वयतलो!'

दोतोरान घाल्ले हे भिरांतेन मात ताचें तें व्यसन सुटलें. आतां तो घरांतल्या कामाक आदार करूंक लागलो. काम बायल आनी भुरगीं करतालीं. झोपडी आतां नळ्यांच्या घरांत बदलली. भुरग्यांले कश्ट फळाक आयले. भुरगींय लग्न जालीं. तांचोय संवसार फुल्लो. कश्ट काडले खरे तरी तिणें तांचेर जैत जोडलें. आपल्या जिवितांत नातरां पळयलीं. चौथ्यानय नातरांक आपल्या आंगार खेळयलीं.आनी एक दिसा मात ताची ती व्यसनांनी पोखरिल्ली कूड ताका सोडून दिवंची पडली. पूण कितेंय आसूं निमाणें वच्चे पयलीं ताणें आपल्या भुरग्यांची सुखी जीण पळयली. कारण ताचें मन कुकर्मी नाशिल्लें हाची ती पावती म्हणू येता. करता तें हांगाच उरता हें मात खरें.

●●●

▪ वास्को ▪ 9923046779



उदय
देशप्रभू

# वर्तुळावर्तात

*सर्गेस्त रमेश भगवंत वेलुस्कार हे कोंकणी वांगडाच मराठी, हिन्दी, इंग्लीश आनी बंगालींतल्यान कविता,ललित,बाल साहित्य बरोवपी साहित्यकार.. ते गोंयच्या नवप्रभा ह्या दिसाळ्यांत सासत्यान लिखाण करताले. तांचें अशेंच एक मराठी सदर उदय प्रभुदेसाय कोंकणी वाचकांक भेटयतात...*

**लेखक अणकाराच्या मळार फिशाल. ते फाटलीं पंचविशेक वर्सां इंग्लीश,हिन्दी,मराठी भासांतलें साहित्य कोंकणींत अणकारीत करत आयल्यात..**



व्हिक्टोरिया मेमोरियलचे दावे वटेन तो रस्तो वता त्या मार्गाचे कुशीक दोन-चार थिएटरां आसात. कॉडमी थिएटर त्या मदलें एक. एक दीस सांजवेळार चार वरांचेर हांव थंय पावलों. भायर विंगड-विंगड संस्थांची जायरात करपी बोर्ड रंगोवन दवरिल्ले. बंगीय चित्रकारांचें एक प्रदर्शन थंय चालू आसलें. तें हांव पळयतालों. बंगला भाशीय चित्रकाराक शिल्पी म्हणटात. आमच्या मनांत शिल्पी हें उतर शिल्पा कडेन जुळून येता. आर्टीस्ट ह्या अर्थान तें उतर बांगला भाशेंत भरसलां. म्हज्या मनांत हें उतर भरसपाक कांय काळ वच्चो पडलो.

म्हाका चित्रां आवडटात, पूण जायते फावटी तीं कळनात. थंय एक वर्तुळाचें पेंटींग आसलें. एका मर्दी एक अर्शी तीं वर्तुळां सतत घुंवतालीं आनी भितर भितर वतालीं. हांव त्या चित्रा कडेन पळयत रावलों. जसो जसो हांव पळयतां तशीं तशीं तीं वर्तुळां खऱ्यांनीच घुंवतात अशें म्हाका दिसूंक लागलें. जें दिसता तें प्रत्यक्षांत तशेंच आसा काय, हो विचार मनांत आयलो म्हणून त्या वर्तुळांक स्पर्श करचो शें दिसलें. पूण थंय खंय तरी एक पाटी आसली 'स्पर्श कोरबेन ना' (हात लावंचो न्हय).

त्या वर्तुळांक स्पर्श करपाक मुखार सरिल्लो म्हजो हात हांवें मनांतल्या मनांतच फाटीं काडलो.

म्हाका हांसूक येतालें! हांव चित्राक स्पर्श करिनूय आसलों तरीय बीन म्हज्या हातांक तांची गती लागतली आसली काय? रंगाच्या माध्यमांतल्यान उबें रावपी तें वर्तुळ म्हज्या हाताक लागचेंच नासलें. म्हाका फकत त्या कॅनव्हासाक हात लावपाक मेळटलो आसलो. कॅनव्हासाक हात लावन म्हाका रंगाचो रंग कळटलो आसलो व्हय? तातूंतली गती कळटली आसली व्हय? अजिबात ना. कित्याक कोण जाणा, म्हाका जाणवता की तांची गती ल्हव ल्हव वाडत वता. म्हाका त्या चित्रकारांचे कवतूक दिसलें. कशी कितें ताका रंगांतल्यान गती घेवंक आयली? आनी आतां तर ह्या शिल्पीन म्हाका अशे तरेन आपल्या चित्रा मर्दीं गुंतोवन दवरलां की हांव त्या वर्तुळाचे गती वांगडा एक सारको फिरत आसां, त्या वर्तुळाच्या गतीच्या नेटान ताच्या अंतरंगांत वडत वतलों. निमाणे कडेन तें वर्तुळ एक ठिपकोसो जाता. त्या ठिपक्याच्या अंतरंगांत पुराय काळखाचें साम्राज्य आसलें. त्या काळखांत म्हजो हांवूच शेणून वतां हाची जाण म्हाका जाताली. हें सगळें म्हाका आवडटालें. कळं मात नासलें. हें चित्र पळयतां पळयतां म्हाका एक शलोक याद जालो,

युध्दात गूतला अर्जून<br>
इकडे काय झाले वर्तमान ।।<br>
चक्रव्यूह गुरु द्रोण<br>
रचिता झाला अदभूत।।

अदभूत चक्रव्यूह! झुंजार गतीचो चक्रव्यूह! आनी त्या चक्रव्यूहाचो भेद करप खबर आशिल्लो अभिमन्यू. म्हणजेच चक्रव्यूहांत अडकपच खबर आशिल्लो अभिमन्यू. बाबड्याक भायर कशें येवप खबर नासलें. आनी आतां कशेच भशेन भायर सरूंक येना आनी जाका चक्रव्यूहांतल्यान भायर सरूंक येना ताका थंयच आपलें जिवीत सोंपोवंचें पडटा, म्हजीय अवस्था त्या अभिमन्यू भशेनूच जाताली. पूण तशाय वेळार कवीचें आनी चित्रकारांचें नातें जाणवतालें. चित्रकार रंगान चित्र



रंगयता. कवी उतरांनी चित्रां रंगयता. खऱ्यांनीच काय कवी चित्रां उतरांनी रंगयता?

चक्रव्यूह हें कांय उतर न्ही. तो अनेक रंगसंगतीचो आनी त्या रंगसंगतीच्या माध्यमांतल्यान येवपी अर्थाचो प्रवाहक जावन आसा आनी रंगीतूय आसा. कवी ह्या एका उतरानूच जायत्या रंगाची जाण आमकां करून दिता. थंयचें पुराय जग हें रंगीत. युध्दभूंय, योध्दे, चिलखतां, आयुधां, पताका, रण वाद्यां, योध्यांच्या मुखामळा वयलो आवेश हें सगळें रंगीत. रंगांतल्यानूच आमकां जाणवता. ह्या चक्रव्यूहाक अदभूत ह्या उतराची जोड मेळटा तेन्नाच त्या पुराय समाजाची, तातूंतल्या जाणिवांची, तातूंतल्या तर्कसंगतीची व्यामिश्रता चडच गडद जावंक लागता. पूण निमाणें आमकां जाणवता, कवीय बी एक चित्रकारूच आसता. ह्या दोगांय भितर कमालीची समानता आसा.

म्हाका आनिकूय कांय चित्रां पळोवपाचीं आसलीं.पूण हांव तें एकूच चित्र पळोवन थकून गेल्लों. पळोवपांतूय आपली शक्त खर्च जाताच न्हय? थियेटरच्या प्रदर्शन साला सामकार ल्हानशे बागेंत एक चौथरो म्हाका दिसलो. म्हज्या सुशेगा खातीर तो म्हाका खुणायतालो. हांवें वचून ताचेर मात्सो सुशेग घेतलो. बरें दिसलें भायले हवेंत

थंडसाण आसली. भितरल्यान म्हाका कितें गरम खायन शें दिसतालें. थियेटरच्या कॅम्पसांत कॅन्टीन आसलें. तें म्हाका भायर चौथऱ्यार बसलां थंयच्यान दिसलें. त्या कॅन्टीनांतले च्यायेचे उबेचे दिकेन म्हर्जी पावलां पडलीं. हांव उर्जेच्या वर्तुळाच्या मध्यबींदू कडेन वडत वतालों. मजा दिसली. हांवें गरम गरम च्याचो एक घोंट घेतलो. च्याची गरमी पोटांत वचना फुडें, ती म्हजे कुडी भितर वांटकुळी फिरत वता अशें भासतालें.

मात्सो स्थिरस्थावर जातकच हांव नाटक-घरांत प्रयोग आसा म्हणपाचें पळयलें. च्या,पितां पितां विचार केलो, म्हाका हो नाटकाचो प्रयोग पळोवंक मेळटलो काय? पूण कसो? हांवें त्या कॅन्टीनवाल्याक विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें की नाटक चालू जावन खूब वेळ जालो. ह्या वेळार तिकीट दिवपाक कोण आसचो ना. तुमी अशेच भितर सरात. पूण म्हाका तशें घुसूंक जमना. इतल्या भितर सामकारच्या दारांतल्यान एक मनीस थियेटरच्या सभाघरांतल्यान भायर आयलो. हांवें ताका सांगलें की हांव पयसच्यान, गोंयां सावन हांगां आयलां आनी म्हाका नाटक पळोवपाचें आसा. ताणें म्हाका भितर व्हरून बसयलो. तोय बी दुसरेच रांगेंत. सामकार एक नृत्यनाट्य चालू आसलें. विशय पौराणीक आसलो.

नाचपी फिशाल आसलें. लयबद्द अशी ती नाटीका पळोवन बरें दिसलें. मुर्दगाचो, पावलांचो सुंदर मिलाफ आनी त्याच वांगडा बांगला-गान असो त्रिवेणी संगमच थंय जाल्लो. गोंयांत केन्ना तरी उदय शंकरचो बॅले पळयल्ल्याची याद जाली. पूण हो बॅले नासलो. बांगला गाण्याचो टोनय आवडलो. पुरुषी आवाजांतली धिरगंभिरताय हाची जाणीव कानांत भरसून गेल्ल्याचें भासलें. हो नवो प्रयोग पळयल्याचें समाधान मेळ्ळें. विचारांच्या सृजनाची उत्पती अशीच दर्शनांतल्यान जाता. तो मेरेन हांवें कोंकणींतल्यान एक ब्रह्म कविता बरयल्ली. 'आंगणी नाचता मोर मोरया' कवितेक नृत्यनाट्याचें रूप दिवंक जातालें,अशें दिसलें. पूण तें तशें जावपाक हांवें जें कितें त्या काव्यांत बरयल्लें, ताचो साक्षात्कार, जो कोण ताची प्रयोग निर्मिती करतलो, ताका जावप गरजेचें. हांवें सांगलें म्हणून तो तसो जातलोच अशें ना. ताचे खातीर दिग्दर्शक, संगीतकार, कवी आनी नृत्यरचनाकार हांणी एकठांय येवक जाय. नृत्यरचनाकार म्हटल्यार कोरियोग्राफर.

इंटरवालाक भायर आयलों. परत एक फावट च्या पियन शी दिसली. परतून कॅन्टीनांत गेलों. थंय एका मनशा कडेन उलयलों. पार्थो चक्रवर्ती अशें त्या मनशाचें नांव. तो एक नाटककार. दुरदर्शन कलकत्ता भितर तो काम करतालो. तसो तो दुरदर्शनचो रेग्यूलर स्टाफ नासलो. लेखक,दिग्दर्शन अशा क्षेत्रांत तो वावुरतालो. त्या संबदान तो थंय येता वतालो. ताचें थंय एक प्रॉडक्शनय चालू आसलें. आमी नाटक ह्या विशयाचेर थोडे भोव उलयले. गोंयांत खूब नाटकां जातात, अशें हांवें ताका सांगलें, तेन्ना ताणें प्रस्न केलो की खूब म्हटल्यार कितली? आनी हीं नाटकां जातात खंय?

हांवें ताका थोडे भितर नाटकांचो इतिहास सांगलो. गोंयांत दर एका गांवांत आशिल्ल्या देवळाचे माचयेर हीं नाटकां जातात. देवळांनी जितले उत्सव, ताचे दुपटीन नाटकां जातात,अशें म्हटल्यार फट जावचें ना. शिगम्याचो उत्सव तर दर एका देवळांत जाता. त्या वेळार तीन चार नाटकां जातात. गांवांत हाचे शिवाय एक दोन उत्सव जातात. तातूंतय नाटकां जातात. तेन्ना गोंयांतल्या ह्या गांवांनी उण्यांत उणे चारशें-पांचशें प्रयोग सहज जातात, आनी तेय बी सातत्यान. म्हजी ही गजाल आयकून तो खूब गोंदळ्ळो. ताणें म्हटलें,"अरे बापरे! इतलीं नाटकां?" मागीर हांवें ताका म्हटलें, "थोडीं भोव चडूच आसतलीं! पूण एकूय उणें आसचें ना." नाटकांची उदरगत जशी मराठी माचयेर महाराष्ट्रात जाल्या तशीच ती बंगालींतय जाता पूण हातूंत गोंयचें नांव तशें ना, हाची जाण म्हाका जाली. अशे तरेची म्हायती विचारपी एकाद्रो प्रस्न ताचे कडल्यान येवं शकता अशें म्हाका दिसलें. पूण तो तसो काय आयलो ना. आयिल्लो जाल्यार ताका हांव दिनानाथ मंगेशकर, मास्टर दत्ताराम, रामदास कामत,

जितेंद्र अभिषेकी अशीं नांवां सांगतलों आसलों. पूण चारशें पांचशें प्रयोग आनी तेय सातत्यान! त्या मानान आमची गोंयची उदरगत कांयच न्ही,अशें म्हणचें पडटलें! ही गजाल म्हाका मनांतल्यान खायत रावली!

कित्याक कोण जाणां,पार्थो कडेन म्हजें नातें जुळ्ळें. इंटरवाल सोंपलो. पार्थोन म्हाका प्रयोग सोंपल्या उपरांत मेळपाक सांगलें. प्रयोग खूब बरो रंगलो. प्रयोग सोंपलो तेन्ना हांवें नाटक घरांतले उपस्थितीचो नियाळ घेतलो. ती खूबच उणी आसली. कलकत्याकूय अशीं बरीं नाटकां पळोवपी रसीक उणे आसतात हाची जाणीव जाली. पूण हातूंत बरे प्रयोग करपी कलाकारूय आसतात ही जाणीव म्हत्वाची आसली. पौराणीक विशया वयलें हें नृत्यनाट्य म्हाका मानवलें. माचयेर कलाकारांक मेळपाक लोक वताले. हांव कोणाकूच वळख नाशिल्ल्यान वयर वचूंक ना. पूण पार्थोची वाट पळयत रावलों.

पार्थो आयलो. ताणें म्हाका एक सुंदर गजाल सांगली. ताच्या घरा ताची आवय, बापूय आनी तो मेळून दूर्गापूजे वेळार एक 'पूजा' म्हणून एक साहित्यीक अंक प्रसिध्द करतात. एका साहित्यिका कडेन जाल्ली ही भेट म्हाका आवडली. ताणें म्हाका आपल्या घरा येवपाचें आमंत्रणूय दिलें. तो उल्टाडांगा हांगां रावतालो. उल्टाडांगा हांव पाविल्ल्याची खबर हांवें ताका सांगली. कस्तुरीच्या माम चें घर थंय आसा.

ताणें म्हाका टॉलीगंज हांगा आशिल्ल्या दुरदर्शन केंद्रार मेळपाक आनी केंद्र पळोवपाक आफयलो. ताचें आमंत्रण घेवन हांव अलीपूर हॉस्टेलार वचपाक भायर सरलों. ●●●

▪ पेडणे ▪ 09551955523

**स्केच**

डॉ.सुषमा अरूर

# विदूषी आनी सुंदरतायेचें प्रतीक अंजलीबाय मालपेकर

**(२२ आब्रिल १८८३-७ आगोस्त १९७४)**

*आब्रिल म्हयन्याचे २२ तारखेक अंजनीबाय मालपेकारांलें १३९ वें जल्मशती वरस, त्या निमतान हे कर्तृत्ववान विदुषीच्या वावराचेर लेख रुपान मारिल्ली ही एक उडटी नदर.*

**लेखिका अणकाराच्या मळार साहित्यांत योगदान दिवपा वांगडाच कविता आनी ललित साहित्यांतूय योगदान दितात...**



पुर्तुगिजांल्यां धर्मांतराच्या भंयान, अत्याचार, हिंसा ह्या सगळ्याक लागून गोंयच्या देवळांचेर निंबून आशिल्ल्या देवदासी समुदायांचें स्थळांतर जायत आशिल्लें सगळे जाण. एकोणीसाव्या शतकाच्या आखेरचे दशकांत, वयाचे स वर्सार अंजनीबाय गोंय सोडन आजी गुजाबाय आनी आई नबूबाय वांगडा शास्त्रीय संगीत शिकपाक मुंबय आयली.सगळो सानपण कठीण परिश्रम करन उत्तरादी शास्त्रीय संगीत शिकून, तर्णाटे प्रायेर शास्त्रीय गायन वेवेसायीक नमून्यार म्हणतल्यांत पयलो पांवड्यार ती आसली. दिसपाक अती सुंदर , मेहफिलेक येत्तल्यां पैकी चड करन तिजे गायन आयकूंवपाचे परस तिजी गोमटाय पोळोपाक येवप हाचो तिका खूब बेजार आशिल्लो. त्या काळांतलो नामनेस्त आनी जग प्रसिद्ध चित्र कलाकार राजा रविवर्मालो कलास्फूर्ती आसली ती. नंतरचे काळांत तिणें शास्त्रीय गायन म्हणचे सोडन संगीत शिकोवपाक सुरुवात केलें.कुमार गंधर्व, किशोरीताई आनी लता मंगेशकर हांगेली मोगाची माई आसली ती. त्या काळांत संगीत क्षेत्रांतल्या दिग्गज मंडळी वांगडा तिचो संबंद आदर आनी मान सम्मनाचो आशिल्लो अशें समकालीन दिग्गज कलाकारांलें म्हणणें आसलें.

अंजनीबायेली आजी गुजाबायी आनी आवय नबूबायी ह्यो गोंयच्या संगीत वलयांत नामनेस्त आशिल्यो. कलावंत

कुटुंबाची वसंतसेना अशें गुजाबायीलें नांव प्रख्यात आशिल्लें. अंजनीबायलो जल्म गोंयांत 22 आब्रिल 1883त पेडणें गांवांत जाल्लो. सानपणांत आजी आनी आवय हांचे पयलीं तालीम अंजनीबायेक मेळ्ळेली.

मुंबय त्या काळांत आनी अजून बी खंयचोय वेवसाय करतल्यांलो आदार दिवपी केंद्रबिंदु जावन आसा. आनी थंय उत्तर हिंदुस्तानांतल्या श्रेष्ठ गावप्यालें संगीत शिकोवपाक मुंबयींत यो-वच आशिल्लें. मुंबय असल्या व्हडले शारांत अंजनीबायक मुखार येवपाक बरी संद मेळतली, आर्थिक दृष्टीन बी बरें म्हण तीन पिळग्यांच्यो बायलो स्थळांतर जाल्यो. गोंय थावन आयिल्ल्या कलावंतीण्या पैकी अती सुंदर आनी शास्त्रीय गायन वेवसायीक नमून्यार म्हणतली अंजनीबाय पयलीच आसली.

दक्षिण मुंबयचे भेंडीबजार वाठारांत हिंदु आनी मुसलमानांली वसती आशिल्ली. थंय मालपेकर कुटुंब रावपा लागलें. उत्तरप्रदेशांतल्या मोरादाबादा थावन आयिल्ले तीन भावंड, उस्ताद छज्जूखान, नजीरखान आनी खादीम हुसेन खान हे खयाल गायन पद्दतीचे पुरस्कर्ते ह्या वाठारांत रावताले. हे तिन्नीय भेंडी बाजारांत रावताले म्हूण, तांचे गायन शैलीक भेंडी बजार गायन शैली अशें नांव पडलें.

पारंपारीक गायन शैलींत, खालचे श्रुतीचे स्वरां थावन वयरचे स्वरार चडयतना वा निसरचे वा सरकंवचे अलंकाराक 'मींड' म्हणतात. ह्या भावंडान,'मींड' हो एक अलंकारीक खास स्वर रचनाची आविश्कार करन, खयाल प्रस्तुतीकरणाक एक प्रकारची सुंदरताय आनी गोमटाय हाडलें अशें संगीतज्ञांले म्हणणें आसा.

अंजनीबायेन उस्ताद नजीरखाना साकून वयाचे आठ वर्सा पसून गायन शिकपाक सुरू केल्लें. भेंडी बजार गायकीचें वैशिष्ट्य, सरगम म्हणप. ताचो मूळ कर्नाटकी संगिता पसून आसा. खानसाहेबाक कर्नाटकी संगिताची खूब आवड आसून ताणी तांत खूब परिश्रम केल्ले. 'आ'कारांत मुक्त कंठ वा आवाजांत खयाल म्हणतना आवाजाचें नियंत्रण करन, एका श्वासांत, दीर्घ काळा पर्यंत स्वराची उपेग करन घेवन गायन म्हणचे एक खासियत आशिल्ली. तांचे गायनाची आनीक एक विशेषताय म्हळ्यार विलंबीत आनी धृत (जलद) हांतू 'बोल' म्हणतना तानांत विणलेले तांचे समृद्ध बोलतान'. तशेच सात स्वर वेगवेगळे रितेर, क्रम आनी मांडावळाचे उपेग करन



वा स्वरांचे समूह तयार करन ताचो शिखरा वरेक उबारचे क्रिया अलौकीक आसताले. हाका खंडमेरू वा मेरूखंड अशें म्हणतात.

भेंडी बजार घराण्याची जी थोडी विशेशताय वयर सांगल्या तें सगळें अंजनीबायन आत्मसात करन, तातूंत आपणाले स्वताचें मोलादीक वेगळेपण प्रस्तूत केल्लेलें प्रत्येक मैफलींत लोंकालें मन भारावन वत्तालें अशें तांचे समकालीन गवय्यान उद्गारलेले दाखले पुस्तकांत येता. तांची पयली मैफल मुंबयत 1899त जाली. तेन्ना बायलांनी सार्वजनीक रितीन हाचे पयलीं अशे कार्यक्रम दिल्ले नाशिल्ले. गिरेस्त लोकांले आदार आशिल्ल्या निमतान तिची ही आनी नंतरच्यो खूबश्यो मैफली यशस्वी जावन तिची आनी भेंडी बजार घराण्याची खूब तोखणाय जायत उरली..

1901त, एक गिरेस्त, संगीत आनी नृत्यांत आवड आशिल्लो कला रसीक सेठ वासवजी केर हांणी अठरा वरसाचे अंजनीबाय बराबर लग्न करन उपपत्नीचो दर्जो तिका दिलो. ताणी गायनाची मैफल करपाक स्वातंत्र्य दिलें मात न्हय, तिचें गायन वाडोवपाक पूर्णपणें साथ दिलो ह्या उदार

मनाच्या गृहस्थान. ताका लागून अंजनीबाय मैफल करत उरली आनी तिचे संगीत कौशल्याक लोकांन भरभरून दाद बी दिली.

अदमासे तीस वरस अंजनीबायक वैवाहीक सूख आनी आदार मेळ्ळो. पूण नंतरचे काळांत तिजो घरकार वासवजी हांचें व्यापारांत लुकसान जावन, उरलेली सगळी आस्ती शेणोवन गेली. हाचो धक्को सहन जायनास्तना अचकीत ते मरण पावले. अंजनीबायल्या जिवितांत एक व्हडलें वादळ येवन जीण मुश्कील जाल्ली.

मुंबयचे ताडदेव वाठारांतल्या नाना चौका पसून केनेडी ब्रिजार वत्तना, नारायण आश्रम म्हळिल्लें एक घर दिसता. एका काळांत अंजनीबाय ह्या घरची मालकीण आशिल्ली, एक-दोन वर्सांत त्याच आंगणांतले भायरचे एके कुडींत (आवट हावसांत) तिका रावचें पडलें.

ह्या घरा मुखार प्रोफेस्सर बि.आर. देवधर हांचें, School of Indian Music आशिल्लें. थंय भारतांतले एकूणेक गावपी येत्ताले. तशेच, अंजनीबायले घराय बी इचलकरंजी बुवा, विष्णु नारायण भातखंडे, पलूस्कर, देवधर आनी कितले तरी हिंदुस्तानी शास्त्रीय संगीताचे म्हान गायक मंडळी, काव्य, शास्त्र, संगीत हाचेर गजाली करूंक आयिल्ले म्हणपाचें खूब गावप्यांनी तांच्या आत्मचरित्रांत बरोवन दवरल्लें आसा.

अंजनीबायचे शिष्य वर्ग- अंजनीबाय दीर्घायुशी आशिल्ली.तिचें उर्वरीत आयुष्य एक योगिनीवरीं देवालें भजन आनी संगीत शिकोवपांत सरलें. बि.आर. देवधरांन कुमार गंधर्व हांका सानपणांत मुंबय आफोवन हाडन, आपणाले घरांत राबवून संगीत शिक्षणाची जबाबदारी घेत्तिल्लें सगळे संगीत प्रेमी जाणतात. संगीत शाळेचे मुखार आशिल्लें अंजनीबायलें घर ल्हान पिरायेच्या कुमार गंधर्वाक, मायेचो आदार आशिल्लो. माईलो मोगाचो आशिल्लो कुमार गंधर्व. ताणी तांचो सहवास आनी संगिताचें माई कडल्यान ज्ञान संपादन केल्लेलें केदनाच विसरले नात. रागा संबदीत उलयतना घडये घडये माईचे उगडास करताले अशें तांच्या चरित्रांतल्यान कळन येत्ता.

तशेंच, किशोरी अमोणकर तांची शिष्या. खास करून अंजनीबायली विलंबीत लय शैली, तांत प्रत्येक श्रूती ल्हवूल्हवू आनी अचूक धप्पे घेंवचे तांची खासीयत आशिल्ली. तांची लहरेली (लहरवरी) खंयचोय मोडो (अडखळो) नासतना म्हणचे गायन श्रवणीय आसतालें. किशोरीताईन माई कडसून एक स्वरा पसून आनीएक स्वर घेत्तना, मदलो खंयचोय जागो रिकामो दवरी नासतना ल्हवू ल्हवू सरकटत व्हरची क्रीया बी शिकिल्ली. अंजनीबायन आपणाक ,'मींड' शिकयलें म्हण किशोरीताईय केन्ना केन्नाय उद्गार काडताली अशें तांचें चरित्रांत वाचिल्लें.

अंजनीबायन बेगम अखतरी हांका भैरवी ठुमरी, रस के भरे तेरे नैन शिकयललें एक अपूर्व आनी दुर्मीळ अशें ध्वनिमुद्रण (gramophon record)अस्सा.

अंजनीबायले शागीर्दांत नैनादेवी आनी लता मंगेशकर बी आस्सत. त्र्यंबकराव जानोरिकर आनी आपणाले गुरु नज़ीर खानसाहेबांले भावालो चलो, अमान अलीखान हांकाय तिणेंच संगीत शिकयिल्लें आसा. थोडे काळ मुंबयचे रमेश नाडकर्णीन बी तांचे कडसून तालीम घेत्तिल्ली आसा.

संगीत वलयांत तांची असादारण शिश्य लेगीत अंजनीबाय कायम अविस्मरणीय आसतली.

सौंदार्याची प्रतीक- सानपणांत उस्ताद नज़ीम खानसाहेब हांणी अंजनीबायक आरश्यांत तोंड पळोवं नाका म्हूण ताकीत केल्लेली खंय.! गायनांत मन लावन शिकत आशिल्ली आट-





धा वर्साची भुरगेन आरशांत स्वताची मूख दर्शन केल्यार मन विचलीत जावन गायना दिकेन अलक्ष जात्तले अशें तांका दिसलें कि किर्ते?

परंतू, अंजनीबायचें चरित्र वाचतना तांचेर खूब वेळां लिंगीक अत्याचार जाला हें कळन येता. लग्न जावन एक-दोन वर्सांत गोंयचो त्या काळाचो पुर्तूगेज गव्हर्नर जनरल हांचे कडसून तांका आदरयुक्त निमंत्रण आयलें तेन्ना कुळार वयता म्हूण खूब उमेदीन आनी खोसालपणान पणजी पावन, एक-दोन कार्यक्रम तिणें दिले. हांचे सौंदर्य पळोवन भूल पडलेलो गव्हर्नर कार्यक्रमा उप्रांत तिका अभिनंदन करतना अतीप्रसंग केलें. तेच रात्ती गोंय सावन, 'वांचय रे देवा!' म्हणत सावंतवाडी संस्थाना कडेन पळून वचका पडलें तिका. थंयचे राजा साहेब बापूसावंताले आश्रयांत दोन दीस रावन, ती मुंबय परती गेली अशें इतिहास सांगता.

मुंबयत अंजनीबायलली मैफली गाजताल्यो, पूण प्रेक्षक सगळे दादले आसताले. वयरचे अणभवा नंतर तिका, सार्वजनीक मैफल करची त्रासदायक थारलें. नंतर तिचे मनांत भंय बसलो देकून आवाज बी बसलो आनी एक वरस गायन म्हणचे सोडूण दिलें. परतून आवाज सारको जालो तेन्ना तांका गायनाच्यो मागणी येंवपाक लागल्यो आनी तांणी कार्यक्रम दिंवपाक सुरुवात केली. पूण 1920 त जेन्ना तिजे उस्ताद नजीरखान साहेबांलो मृत्यू जालो , मागीर तिणें संपूर्ण मैफल करचें सोडून दिलें.

अंजनीबाय जितली व्हड गावपी आसली तितलीच सुंदर बी आसली. तांचें पयलें तैलचित्र, चित्रकलेंत निपूण आशिल्लो नामनेस्त एम. वी धुरंधर हांणी काडलें. नंतर ती सुप्रसिद्ध चित्रकार राजा रविवर्मालो कलास्फूर्ती बी आसली. बायलमनशेलें चित्र काडपाक प्रतिकृतीचे शोधांत केरळा सकून मुंबय आयिल्ल्या रवीवर्माक नव्व वारी साडी कास मारन न्हेशिल्ली अंजनीबायेंत ताका एक दैवी सुंदरताय दीष्टींत पडली आनी आपल्याक जाय तशे मॉडेल मेळ्ळें हाचें समाधान ताका जाल्लें आस्सू फाव. 1901-1903चे काळांत रवीवर्मान तिजीं चार चित्रां काडिल्लीं तीं सगळीं देश -परदेशांत प्रसिद्ध जाल्यांत. झोपाळ्या वयर बशिल्ली सुंदरी, स्वरबाट (एक वाद्य) घेवन बशिल्ली, दुक्कांन पिडीत जाल्लेली बायल मनीस, बाल्कनीर चान्नी रात पळयत आशिल्ल्यो दोन बायल मनीस हीं चित्रां आपल्याले आर्टप्रेस्सांत छापून रविवर्मान अंजनीबायक प्रसिद्धीचे तेंगशेर पावयली.

1923त जगन्नाथ शंकरशेट हांचो सुपुत्र शंकर जगन्नाथ हांचे प्रेरणेन अंजनीबायची एक अखेरची मैफल टॉवन हॉलाचे दरबार सभांगणांत आयोजीत जाल्ली आनी तिजें गायन मुंबय शारांत खूब गाजलें अशी त्या काळाची व्हड गजाल आशिल्ली अशें संगीतप्रेमींचें म्हणणें आसा.

भारत सरकाराच्या संगीत नाटक अकादेमिचें पयलें गौरव सदस्यत्व 1953त अंजनीबायक प्रदान केलें. फुडले वरसांत एक यशस्वी मानादीक जीण जगून वयाचे 91 वर्सांत ती मरण पावली. तांची गायकी अजून अजरंवर आस्सा. तांचे गुरु उस्ताद नज़ीर खानसाहेबाल्या मरणा नंतर तांणी मैफल करचें सोडून दिलेलें. त्या वेळार तांचें वय फकत सदतीस आशिल्लें. संगीत वलयांत तांका त्या वेळाचे प्रतिशिठत गवय्ये आनी शागीर्दा कडून भरपूर प्रेम आनी मान सम्मान मेळ्ळे. तांची मोलादीक जीण आनी गायनांत केल्लेली प्रगतीची याद गोंयकारांन कायम दवरपाक जाय . ●●●

▪ दोना पावल ▪ 97403 99995

*शब्दुली*



रूपाली
कामत
शेटये

# आगो तुजो हो खंय गो?

*'बटरफ्लाय बीच हो मातसो खोल आसा, थंय उदकांत वचूंक मातशी भिरांत. उदकांत वचून न्हावपाचें बी आसल्यार हनिमून बीच बेस्टूच! आनी बसपाक भरपूर जागोय आसा.' ताणें एके तरेन त्या हनिमून जोडप्याच्या कलान घेतलें अशेंय म्हणूं येतालें! आमीय तोच बीच निवडलो.*



एक अस्तुरी वो आमी बायलो खंयचेय कार्यावळीक गेलीं, जावं तें लग्न, मूंज, वाडदीस..... , जर तिजो घरकार तिजे बराबर दिसलोना जाल्यार तिका एक कॉमन प्रस्न आसता, "आगो तुजो हो खंय गो? आयलोना?" मागीर आमी स्पश्टीकरण दीत बसतात. म्हजोच एक अणभव सांगतां. ह्या पाडव्याची गजाल. म्हचे अपुरबायेचे जाउबायेची पासडी. गाडी पार्क करतासर कळाव जायत म्हण हाणें म्हाका ड्रॉप केलें आनी गाडी पार्क करपाक गेलो. होय म्हण म्हगेलो खुबूच कटकटी! गाडी पार्क करपाक अमकोच जागो जाय, ताका जाय तसोच, कोणाकच आमचे गाडयेची आडखळ जावंक उपकरना अशी ताचीं तत्वां खूब. ताका जाय तसो जागो मेळटा सर हांवें रावपाचें? हांव ताका राव नासतना तुरतुरीत गेलें. हांव भितर सरून बसलां मात, एकलेन प्रस्न केलोच, "शेटयो गो? आयलोना सो?"

हांव फकांडेर जाल्ल्यान जापोय तश्योच दितां! म्हणचें केल्लें,'झक मारलो तो, हांव आयलें तें पुरो ना? तो कित्याक जाय धेंडलो?'

पूण असल्या कार्यावळींनी मातशें सोंसून सारक्यो जापो

लेखिका ग्रंथपाल म्हूण म्हाविद्यालयांत वावुरता. ललित लेखन हो तांचो आवडीचो विशय.सहज सोपी भास हें तांचें खाशेलपण.

दिवंच्यो पडटात. हांकां सगळ्यांक हरशी खबर आसता घोव हो कसो आसता तो! पूण तरी तांकां दुसऱ्याच्यो व्यथा आयकूंक खूब आवडटा!

हळदकुंकू, फुलां, बारसो, पासडी आनी हेर बायलांच्या कार्यावळींनी येवपाक हे घोव फाटीं फुडें जातात. थोडे आनी फुगयतात. 'आगो, बायलांचो प्रोग्राम तो, हांव कितें करूं थंय? वोगीच टायम वेस्ट! तुमच्यो खबरोच सोंपनात!'

मागीर हें असलें आयकुचें पडटा. पूण मागीर घडटा भलतेंच, आमकां पावोंवक आयिल्ले कडेन जर आमगेल्यांक दुसरे दादले (जमिल्ल्या बायलांचे घोव) मेळ्ळे, तर बऱ्यो तल्लीन जावन हांगच्यो थंयच्यो खबरो पेट्टात!

म्हजें आनी हाचें चडशें ह्याच विशयाचेर गेर्र पेट्टा. लग्न, मूंज असल्या समारंभानी म्हाका, 'तूं वच, तूं वच' करप. पयलीं पयलीं,'यो रे,तशें हांवें एकलें वचप बरें दिसचेंना, सगळीं विचारतलीं हां!' असो आग्रो करतालें. साडी न्हेसून, भांगरां घालून गाडी चलोवपाक वाज येतालो. आतां मार जक म्हण तुरतुरीत गाडी स्टार्ट मारून वतां. हांचे नखरे आतां भोव आयकतां आमी? हें एक प्रकरण जालें.

एकेक फावटी दोन तीन लग्नां बराबर येतात. तेन्ना सगळोच घुस्पागोंदळ जाता. खंय वचप खंय नाका अशी परीस्थिती जाता. बरें, हाका 'तू वच रे' म्हळ्यार 'हांव एकलों वच्चोंना' म्हण फुगयता. ते वटेन तीं रागार जातात. आमचें मरण आमकांच कळपाचें. मागीर प्लॅन करप. अमक्यागेर तेलाक, अमक्यागेर म्हुर्ताक आनी तमक्यागेर जेवणाक. दोन तेलां चुकलीं म्हण जीव चुरचुरता! कितें गिफ्टां वाटल्यां आसतलीं काय? हो हुसको. पूण केन्नाय सामकीं क्लोज आशिल्लीं, नात्यांतलीं जावं क्लोज फ्रेंड सरकलां मदलीं यादीन गिफ्ट धाडून दितात.

एक तोखणायेची गजाल म्हळ्यार हांव भोंवडेर वा कसल्याय कामा निमतान गोंयां भायर गेल्लें आसत जाल्यार मात हो कार्यावळींनी हजेरी लायता. हजेरी लायता खरो पूण एक तरी कितें अर्दकुटें करताच. 2017 ची गजाल. म्हजे इश्टीनीचें लग्न माया म्हयन्याचे 7 तारकेक आशिल्लें. म्हाका ज्यूस्त 5 तारकेक म्हत्वाच्या कारणांक लागून मुंबय वच्चें पडलें. हाका पयलींच सांगून दवरलें, हे खेपे तरी लग्नाक एकलोच वच्चो पडटलो. अहेराचो लाखाटो हातांत दिवन शंबर फावटी सांगलें, हो व्हरूंक विसरूं नाका म्हण. इतलें सांगून सुद्दां हो लाखाटो व्हरूंक विसरलोच. विसरलो तो विसरलो, म्हाका आनी फोन करून सांगता,'आगो हांव अहेर व्हरूंक विसरलों, कितें करूं? असोच हाथ दिवन येंव?' म्हाका साम की तिडक मारिल्ली. पयलींच मुंबयची गरमी, आनी तातूंत हाचीं असलीं धांदरटपणा! पारो सामको चडिल्लो. तरी हांवें पाशियेंसान जाप दिली, ''तुका जाय तें कर.'' हें आयकल्या बराबर हाणें थंयच्यान कूस मारली. हाका मात तेन्ना खंय कोणेंच विचारलें ना, 'घरकान्न येवना?' हाका विचारलें ना तें जालेंच, इश्टीनीचो फोग लास्टाक म्हजेरच. ताका आनी स्पश्टीकरण दितां म्हणसर नाका शेवट जालो.

रामनाथी एका लग्नाक गेल्ले कडेन अशीच एक मजेशीर गजाल घडली. हांव फकांडेर आशिल्ल्यान वतां थंय फकांडां, हांसो आनी किटकिटो आसताच. पूण थोड्यांक बाये रागूय येता. आसूं चुट्टी लावपाची असल्या गजालींक. तर जालें अशें... हाचे मामेभयणीलें लग्न! तेल धा वाजतां आनी म्हुर्त बारा वाजून पन्नास मिनिटे..स्टें.टाँ. हांव तेलाक ज्युस्त धा वाजून पंदरा मिनटांक पावलें. 'तेलाक आनी आपलें कितें काम?' अशें म्हण हो च्या घेवन थेट देवळांत गेलो. जालें, न्हवऱ्याक व्हंकलेक तेल लावन कडो, फित, रिस्पेक्टिवली घालें. बायलांच्या कपलाक लावन गिफ्ट आनी सायड बाय सायड कसाटाय वाटपाक सुरवात जाली. इतल्यांत पुता एक आमचीच सोयरीं भितर सरलीं. येवन म्हजे कुशीक बसलीं. हांव मनांत चित्तां थंय आसां, हिणें विचारलेंच–''आगो, शेटयोबाब आमचो? रामनाथी आसां म्हणटकच म्हाका फट्टच्च करून सदु आनी चिली याद जाली. हांवें मनांतल्या मनांत, 'देवा रामनाथा माफ कर' म्हणीत तिका जाप दिली, ''आगे रामनाथी आयिल्लीच आसा न्ही, सगळें आटपता म्हणसर कांय न्ही म्हळ्यार स तरी जातलींच, सो तुमच्या शेटयेबाबाक हांवें आज सदूगेर कितें स्पेशल आसतलें, हाची वासपूस करूंक धाडला. घरा आनी वचून कोण रांदतलो? रामनाथी आयल्यां म्हणटकच सोमतेंच सदूगेर वचून ताव मारलो आनी गेलीं... व्हॉट से? हें हें...... शिवराकान पोट डब्ब जाता गे..! काल देंवकारें, आज लग्न, फाल्यां सोमार...!''

'शी...बाये, सामकें मगो तू!' अशें म्हणीत ती कसाटा खायत दुसरे कडेन खबरांक पेटली. ●●●

▪ पणजी ▪ 9850467477



डॉ. नुतन
देव

# साधना
## (मेडीटेशन)

*एक एक फावट आमी साद्या*
*गजालींचो स्ट्रेस घेतात.*
*देखीक आमी जर कोणाकय*
*एक फोन केलो आनी ताणें*
*रींग वचूनय जर फोन*
*घेतलोना वा थोड्या*
*वेळान परत केलोना जाल्यार*
*थोड्यांक स्ट्रेस जाता.*
*पयशे हो एक स्ट्रेसाचो*
*विषय आसा. पयशे चड*
*आसल्यारय ताण कमी*
*आसल्यारय ताण. बायलेक*
*भांगर विकतें घेवंक जाय तर*
*घोवाक टुरार वचूंक जाय.*

**लेखिका नामनेची डॉक्टर आनी मराठींतली कवयित्री. तांचे दोन काव्यसंग्रहउजवाडाक आयल्या. तांचें ललित लेखनय काव्यमय आसा.**



सद्या विंगड विंगड संस्था,तरेकवार कार्यावळी राबयत आसतात.तातूंत खाणां करपाचें धरून दोंगरा –रानांत ट्रेकींग करपाचे लेगीत उपक्रम आसतात.थोडे फुकट थोडे पयशे भरून. नित्याच्या कामांतल्यान सवड मेळटा तशी हांवें असल्या जायत्या कार्यावळींक हजेरी लायल्या. हाचें कारण म्हणल्यार एक उमेद,दुसरें हांगा कितें शिकयतात हें जाणून घेवपाची उमळशीक. आनी तिसरें म्हणल्यार लोकांची भेट घडून येवपाचें एक निमीत्त!

हातूंतलोच एक कार्यक्रम जो सगळ्यांक उपेगाचो आसा तो म्हणल्यार साधना वा सदांचे भशेन मेडिटेशन. हांवें असल्या जायत्या कोर्सांक हजेरी लायल्या तिवय बी भुरगेपणा सावन आनी त्या सगळ्यांतल्यान थोड्या थोड्या प्रमाणांत काय जायना,जें कितें सादें सोंपे पुणून खूब उपेगाचें अशें म्हाका दिसता तें हांव हांगा थोडे भितर मांडटां.

मेडिटेशन हें प्रत्येकाक खूब गरजेचें ानी ताचो दिसपट्टो आस्पाव आमच्या जिवितांत आसूंक जाय हातूंत दुबाव ना. साधना हो एकूच असो मार्ग जो आमकां आमी कोण हें सांगता. आमचे भितरले बरे तशेच वायट गूण दाखोवन दिता. आमकां आमचेच विशींची एक जाणीव करून दिता. आमकां काळखांतल्यान उजवाडा कडेन

व्हरता. पयशे जोड,पयशे मोड.जेव,का,न्हीद इतलेच पासत मनीसजल्म न्ही अशें आमकांएक सत सांगून वता. ामचे जिणेंत चार मोजमापां आसतात. एक म्हणल्यार आमची कूड. दुसरी आमची बुद्द. तिसरी जावन आसा मन आनी चौथे म्हणल्यार अध्यात्म! संवसारीक भलायकी संघटना लेगीत हेंच सांगता, जेन्ना आमी ह्या चारूय वाटानी सारखो तोल सांबाळटात तेन्ना आमचें आरोग्य बरें उरता. आनी जर काय एखादें दुयेंस जालेंच जाल्यार तें बरें जावंक वा नियंत्रणांत उरूंक सोंपें जाता. ज्यो वाटो आमी आपणायतात तातूंत सगळ्यांत सोंपें काम आमची कूड सांबाळपाचें. जाय तशें, जाय तितलें अन्न आनी व्यायाम घेवन आमी तें बरें दवरूंक शकतात. बुद्द लेगीत आमी बरें वाचन करून,बरें आयकून आनी ती बऱ्या कार्याक वापरून सतर्क दवरूंक शकतात. मन हें सैरभैर भटकत आसता. ताका थीर दवरप वा ताचेर नियंत्रण दवरप हें तातूंतल्या तातूंत मातशें कठीण ानी हाकाच लागून आमी साधना करूंक जाय. कूड,बुद्द आनी मन ह्या तिनूय गजाली जर बऱ्यो उरल्यो जाल्यार चौथो पालव म्हणल्यार अध्यात्म,आपसूक प्राप्त जाता.

मेडिटेशन करपाक तशें पळोवंक गेल्यार,ओग्गी बसपाक थोडो जागो जाय पडटा. पुणून एकेक फावट आमी एखाद्रे आमचें आवडीचें काम करतात तेन्ना सुद्दा एक जी तंदरी लागता तेंय बी एक मेडिटेशनूच! कोणाक गायन करपाक तर कोणाक लिखाण करपाक. कोणाक गाडी घेवन पयस वचपाक तर इतलेंच कित्याक,ऑपरेशन करतना लेगीत दोतोरांक तंद्री लागता म्हळ्यार फट जावंचें ना.जेन्ना कसलेंय एक काम आमी तन,मन आनी बुद्द ओपून करतात तेन्ना जें आमकां समाधान मेळटा तशेंच कितेंशें समाधान आमकां एका जाग्यार बसून साधना करतना मेळटा.अशे वेळार आमचे तकलेंत नाका जाल्ले विचार येनात.मन थीर उरता.जेन्ना ामी कसल्याय कामात आसतात तेन्नात्याते पिरायेर साधना करपाक एक अर्दवर दिवप जरी जमलेंना तरी तें चलता. कित्याक तर काम हीच आमची साधना ासता. पुणून जशीं जशीं आमचीं कामां उणीं जातात वा तीं सदर्चींच जातात तेन्ना आमी अवश्य मेडिटेशन करूंक जाय.हाका लागून फुडलीं फ डलीं चिंतनां तकलेंत येवप कमी जातात.आयचो दीस आयज हें समजून येता आनी दीस आनंदान सरता. जांचें कोमाचें कामांत लक्ष लागना वा मन मारून,पयशे जोडपा खातीर एखादें कसलेंय काम करचें पडटा किंवा काम करतना खूब ताण येता किंवा हुसक्यान न्हीद पडना जाता त्या लोकांनी तर मेडिटेशन करूंकच जाय. मागीर ती व्यक्ती उणे पिरायेची काय जायना!

साधना करतना एका जाग्यार थीर बसप हें योग्य.दोळे बंद करून आपल्या श्वासोश्वासाचेर सक्ष केंद्रीत केलें जाल्यार मेडिटेशन करप सोंपें जाता. तकलेंत थोडेभोव विचार ल्हारां कशीं येतलेच,पुणून ताचेर विचार करप ना. ते येतात तशे वतातय बी!कांय लोक माळ घेवन जप करतात. पुणून खुबश्या वेळार तांचे दोळे,कान आनी तोंड आपआपल्या कामांत गुंतिल्लें आसता! कोणाकूय आवड आसत जाल्यार एक शांत अशें संगीत लावं येतावा एक मंद सुवासीक उजवात लावं येता.ल्हवू ल्हवू मेडिटेशन आपसूकच जावंक लागता आनी पांच किंवा धा मिनटां सुद्दा साधना जाली तर आमकां खूब ताजेतवानें दिसूंक लागता. ामचे भितर`क शक्त येता आनी फुडले चोवीस तास उमेदीन वतात.

एकेक फावट कांय विचीत्र प्रस्न विचारपी मेळटात. एक दीस एका सभाग्यान विचारलें,'सोरो पितकच तशेंच थोडेशे प्रमाणांत ड्रग्स घेतली जाल्यार बरी तंदरी लागता. ती घेतल्यार जाता व्हय?' ताका सांगचें पडटा की ह्यो वस्तू कसो आमचो गोबोर करून उडयतात तें! हीं असलीं वेसनां करप म्हळ्यार आपल्याकच पेटटें चुडीत लावप! हाका लागून मनीस वाळटी लागिल्ले वरी सगळ्याच वाटांनी पोकळ जायत वता. तशेंच हें वेसन!

हाच्या उरफाटें मेडिटेशन.दिसपट्टें अर्दवरच जर साधना करत जाल्यार आमचें आरोग्य बरें जायत उरता. आमची जीण आनंदी जाता आनी संवसार सोडचे वेळार मनाक,कुडीक एक समाधान मेळटा.

आमकां म्हायती खूब वाटांनी मेळटा. तशेंच गिन्यानूय बी खूब जामां कडल्यान मेळटा.पुणून शाणेपण जर आम कां येवंक जाय जाल्यार तें आमचे आमीच मेळोवंक जाय! आनी तें मेळोवपाक मेडिटेशन हो एक सादो सरळ मार्ग! तेन्ना आमी प्रत्येकान हो मार्ग जरूर आपणावंचो

●●●

▪ फोंडें-गोंय ▪ 9850133160



एच. मनोज

# आपलें आत्मीक बळ जाणून घेयात



**जाची जागृताय वा लक्ष्य तेज आसता तो मनीस वेग-वेगळे सर्तींत (बरोवपाची वा तोंडी) आनी खेळांत बरें प्रदर्शन करूंक शकतात. बरी जागृताय आशिल्ल्या मनशाक अस्वस्थताय सतायना, ताचो वावर मुखार वचत रावता. गती मनशाक फटक करून निर्णय घेवंक आदार दिता म्हणल्यार जाता. चड करून खास परिस्थितींत वा कठीण परिस्थितींत लेगीत गतिमान आशिल्ले मनीस अचूक निर्णय घेवंक शकतात.**

*लेखक पेशान शिक्षक जाल्ल्यान आपलें लेखन आदर्श अशी नवी पिळगी घडपा पासत आसचें हे भावनेन सातत्यान बरयतात. तांचो एक लेख संग्रह आनी एक काव्य संग्रह उजवाडाक आयला.*

मनशाचें विचार चक्र खंय सदांच घुंवत आसता. तो कसलो ना कसलो विचार करीत आसता. पूण नेमके कसले विचार ताच्या मनांत घोळटात हाचो अदमास लावप भोव कठीण. त्या खिणाक तो मनीस कितें अणभवता, सूख काय दुख्ख हें ताच्या तोंडार फाकिल्ले हावभाव तेळून आमी पारखूंक शकतात. पूण मनांत कितें चल्लां हाचो अदमास मात लागना. एका-मेकाक समजप आनी वळखून घेवप सदांच बरें. जसजसो मनीस पिरायेन वाडत वता तो एका-मेकाक बरे तरेन वळखुपाक आनी समजुपाक शकता. मनीस कुडीन जसो वाडत वता तसो तो बुद्दीन लेगीत वाडूंक जाय. तें आमकां लाबिल्लें सैमाचे देणें. घडये हाकाच लागून म्हाका ह्या खिणाक इंग्लीशींतली एक म्हण याद जाता ती अशी Growing up is a decision. No one can make us grow up. हय जण एकल्यान आपूण जावन नव्यो-नव्यो गजाली शिकूंक जाय. आमी कोणाक बळजबरीन शिकोवपाक शकनात. नाम नेचे वैज्ञानीक आइजाक न्यूटन हांकां एक फावट विचारिल्लें, 'तुमी गुरूत्वाकर्शणाचो सोद कसो लायलो?' काय म्हण. त्या वेळार तांणी जाप दिल्ली, 'बारीकसाणेन आनी परत परत ताचेर विचार करून हांवें गुरुत्वाकर्शणाचो सोद लायलो.' आमची मानसीकताय न्हयकारी आसत तर ती बदलून हयकारी करूंक जाय आनी 'प्लॅन ऑफ एक्शन' थारावपाक जाय. बरी समज येता मेरेन आपले आवडी विशीं आनी आपणाक आवडट्या छंदा विशीं जागरूक आसूंक जाय. तरनाट्यांनो

आपल्या फुडारा बद्दल तुमी केन्ना स्वताक प्रस्न केला व्हय तर? ना करूंक तर आयज करात. हांव म्हणीन आतांच करात. हे मुखेल तीन प्रस्न आपल्या मनाक विचारात.

- म्हजें सपन कितें?
- म्हजे कडेन दूरदृश्टी आसा व्हय?
- म्हज्यो इत्सा पुराय करूंक हांव कितें-कितें करूंक शकतलों?



तुमी जर आतां मेरेन हे प्रस्न तुमच्या मनाक विचारूंक ना तर अशें दिसून येता तुमी जीण सहज घेतल्या म्हण. 'आतांच कित्याक विचार करया? अजून वेळ आसा!' अशेंय तुमकां दिसता आसत!

आजून जायतीं वर्सां आसात हाचो विचार करपाक! अशें जर तुमी चिंततात आसत तर तुमी चूक करतात. आपल्या फुडारा विशीं जितले बेगीन येवजीतले तितलेच बेगीन तें ध्येय पुराय करूंक तुमी वावरूंक लागतले. आनीक एक प्रस्न तुमच्या मनांत उप्रासूंक शकता, 'पिरायेचे कितले मेरेन हाचेर विचार करप?'काय म्हूण.

म्हाका दिसता जेन्ना तुमी आठवी वा णववे यत्तेक पावतात त्या वेळार तुमी विचार करूंक लागपाक जाय. आपलें सपन पुराय करूंक जाता ते परीन बरी येवजण आखून वावरूंक जाय. दुसरी गजाल म्हणल्यार आतां मेरेन तुमचे भितर कांय तत्वां तयार जाल्ल्यीं आसतात. हांवें हाचे पयलीं एका लेखांत म्हणिल्ले प्रमाण हीं तत्वा घराब्या कडसून, शाळे कडसून, वांगड्यां कडसून आनी सरभोंवतणच्या परिसरा कडसून जण एकल्या भितर आयिल्ल्यीं आसतात. तांचो बरे तरेन वापर करून घेवन सगल्यां कडेन बरो संबंद प्रस्थापीत करूंक कळूंक जाय. ही गजाल जाली शिक्षणाचे आनी सामाजीक जिणे बाबतींत.

छंदाचे बाबतींत विचार करीत जाल्यार चडशे जाण भुरगेपणारच कसलो ना कसलो छंद आपणायतात. ताचें प्रशिक्षण घेतात आनी नामना मेळयतात. अशे भुरग्यां मुखार व्हडलीशी अडचण आसची ना. कारण तांचें ध्येय पक्कें जाल्लें आसता आनी तेच दिकेन ते चलूंक लागिल्ले आसतात. जल्मा सावन तांच्या रगतांत ते खास गूण आसपाविल्ले आसतात. हांगा पिरायेचोय आडवाद पयसावन ते त्या-त्या क्षेत्रांत पर्जळीत जायत रावतात.

प्रस्न उबो रावता तो सर्वसादारण (एवरेज) भुरग्यांचो जांणी वयर विचारिल्ल्या प्रस्नांचो विचार करूंक ना. अशे भुरग्यांक हांव सांगूक सोदतां तें अशें, तुमी तुमचे जिणेंतलो एकाद्रो खास खीण याद करात, ज्या दिसा तुमचे कडल्यान बरें काम जाल्लें आसत आनी म्हूण तुमची घरच्या लोकांनी आनी इश्टांनी तोखणाय केल्ली आसूं येता वा तुमचे बद्दल बरीं उतरां उलयल्लीं आसूं येता, तींय उतरां याद करून पळयात. तुमकां खोस जातलीच हातूंत दुबाव ना. ते भायर तुमची उर्बा वाडटली. मुखार परत कितेंय तरी बरें करपाची इत्सा मनांत घर करूंक लागतली. बारीक विचार करीत जाल्यार तुमचे मतींत येतलें, हें सगलें घडोवन हाडपाक तुमचे भितर आशिल्लीं तत्वां आनी तुमचे बरे गूण जापसालदार आसात. हांव तर अशें म्हणीन, जण एक मनशा भितर आशिल्ल्या आत्मीक बळाचो उपेग, असो कळऽ नासतना जाता तेन्नाच जैताची एक-एक पायरी आमी चडत वतात! वतात काय ना? याद करून पळयात !

जेन्ना तुमचे जिणेंत अशे बरे दीस येवंक लागतात तेन्ना आनीक एक प्रस्न तुमकां पडूंक शकता तो असो,

आमी कोणाचोच आदार घे नासतना यश जोडूंक शकतले व्हय?

ह्या प्रस्नाची जाप जावन आसा, ना. केन्नाच ना. आमी जरी कितलेय हुशार आसले तरी आमकां सगल्या प्रस्नांच्यो जापो खबर आसतल्योच अशें ना. तेच प्रमाणे सगल्या विशयांचें ज्ञान सारकें बरें आसतलें अशेंय ना. म्हूण जाणकारांचें, शिक्षकांचें, पालकांचें मार्गदर्शन घेवपाची गरज आसता. तांचे वरवीं आमी नव्यो नव्यो गजाली शिकूंक पावतात. आमचे बुद्दिचो विस्तार आनी गिन्यानाची वाड करपाची गरज आसता. त्या खातीर जाणा जावंक जाय, आमच्या मेंदवाचीं पांच मुखेल क्षेत्रां.

- स्मरण
- जागृताय / लक्ष्य
- गती
- लवचीकपण
- आडखळी सोडोवप

ज्या मनशाची स्मरण शक्त चड बरी आसता तो चडशीं नांवां बरे तरेन याद दवरूंक शकता. खंयच्या वर्सा खंयची गजाल घडिल्ली हें तो मनीस अचूक सांगूंक शकता. त्या भायर सुवाती सोदून काडूंक शकता आनी खूब उपेगाची म्हायती बरे तरेन याद करून हेरां मुखार मांडपाक शकता. आंकडे मेजूंक आनी हिशेब कांयच न्हय अशें आपले तकलेंत करूंक शकता.

जाची जागृताय वा लक्ष्य तेज आसता तो मनीस वेग-वेगळे सर्तीत (बरोवपाची वा तोंडी) आनी खेळांत बरें प्रदर्शन करूंक शकतात. बरी जागृताय आशिल्ल्या मनशाक अस्वस्थताय सतायना, ताचो वावर मुखार वचत रावता.

गती मनशाक फटक करून निर्णय घेवंक आदार दिता म्हणल्यार जाता. चड करून खास परिस्थितींत वा कठीण परिस्थितींत लेगीत गतिमान आशिल्ले मनीस अचूक निर्णय घेवंक शकतात.

लवचीकपण आशिल्लो मनीस आपल्याक खंयचेय फास्केंत बसोवंक शकता. हाचो ताका बरोच लाव मेळटा. जाका लागून फुडें जावपाचें लुकसाण आडांव येता.

आडखळी सोडोवप ही एक मनशाची कुशळटाय अशें हांव मानतां. ही कुशळटाय आशिल्लो मनीस धिटाय सोडी नासतना वावुरता. सहजतायेन आडखळी पयसावन आपलें ध्येय पुराय करूंक वावुरतना दिसता.

समजा हीं मेंदवाचीं पांच क्षेत्रां एकाद्या मनशांत कमी आसत जाल्यार लेगीत भिवपाची गरज ना. तांणी मनन आनी वाचन करून हीं क्षेत्रां वाडोंव येतात. तेंय बी आपले कुडीक दुखापत करी नासतना. तेच प्रमाण पोशक जेवण खाण घेवन मनीस आपल्या मेंदवाच्या क्षेत्रांत वाड करपाक शकता. तुमकां सगल्यांक खबर आसतलीच आत्मीक बळ मनशां मनशां प्रम ाण बदलता. कांय जाणांचें खर तर कांय जाणांचें नाजूक आसूं येता. नाजूक आत्मीक बळ आशिल्ल्या भुरग्यांक सोदून काडून तांकां प्रोत्साहन दीत रावल्यार तांचे भितर आत्मविस्वास तयार जाता. तांचे कुवती प्रमाण तांकां खेरीत उपक्रम दिवन तो करून घेतल्यार तांची उर्बा तर वाडटाच ते आपूण जावन आनीक कसलोय उपक्रम दियात म्हूण मागणी करूंक लागतात. असल्या एका अणभवावेल्यान त्या भुरग्यांचे जिणेची दिका बदलूंक पावता हें म्हज्या अणभवावेल्यान हांव स्पश्टपणान सांगपाक शकतां. दुसरी आनीक एक गजाल म्हणल्यार आमी जेन्ना तांचो तो वावर पळोवन तांची तोंडभर तोखणाय करतात तेन्ना ते प्रेरीत जावन वेग-वेगळे प्रयोग करपाक लागतात आनी सफळ जावंक पावतात. ही बऱ्याचीं लक्षणां जालीं न्हय! मनीस सामाजीक प्राणी जाल्ल्यान आपले भितर सहज बदल करून घेवन परिस्थिती सुदारूंक शकता अशें म्हणल्यार म्हजी चूक जावची न्हय! दर एका मनशाचे कुडींत जल्मा सावन वेग-वेगळ्यो शक्ती आसपाविल्ल्यो आसतात. त्या भायर म नशाचें खाण-जेवण, हेर प्राण्यां कडेन आयिल्लो ताचो संबंद, ताचे विचार, ताचें वागणें ह्यो सगल्यो गजाली ताचे कुडीचेर बरो जावं वायट असो परिणाम घडोवन हाडटा. हाचे वयल्यान एक गजाल आमी जाणां जावंक जाय ती म्हणल्यार मनशान सदांच हयकारी विचार करूंक जाय. नानाकार पयस सारूंक जाय. वायट बऱ्योय गजाली घडत रावतल्यो. तें निसर्गाचें देणें म्हणू येता. एके सुवातीर बसून रावल्यार कांयच साध्य जाय ना म्हूण जें घडटा ताचे फाटल्यान बरें तेंच घडपाचो हेत आसूं येता अशें भुरग्यांक पटोवन दिवचो यत्न जावपाक जाय. तुमी कसलीय गजाल बरे तरेन करूंक शकतात म्हूण तुमकां सांगीन दिसता तें म्हणल्यार स्वताचेर विस्वास दवरात, आपलो आत्मो मातपूण हालोवंक दिनासतना वावराक लागात. तुमचे भितर आशिल्ली शक्त तुमी जागृत करून मुखार वचूंक जाय. तरूच तुमकां जैताचो मार्ग सांपडटलो.

●●●

▪ चिखले गोय ▪ 9822441417



सुचेता
पै
कामत

# पाळणो...

*श्वेताक अजापच दिसलें. तो म्हजे परस चार पांच वर्सान ल्हान आनी म्हजेर भुलप! अजापच शें! ताणें बेगीबेगीन शावर घेतलो. बरो गुलाबी फुलांफुलांचो ड्रेस घातलो. बाल्कनींत येवन बसलें. जनाक ताणें आपले आवडीची बासुंदी-पुरी करूंक सांगली. जनाय मात्शें अजापानच ताका पळयतालें.*

लेखिका महाविद्यालयांत कोंकणीची प्राध्यापक आसा.तांकां कविता,ललित आनी कथेंत रुची आसा.तांचीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.



'पाळणो' आमच्या दर एकल्याचे जिणेंत हो पाळणो आयिल्लोच आसता. जल्म मेळ्ळो म्हणटकच पाळणो मेळटाच. पाळण्याचीं रुपां आस्पती प्रमाण वेगवेगळीं आसूं येतात. कसल्याय रुपाचो आसलो तरी शेवटाक तो पाळणोच!

पाळणो ह्या शब्दाक इंग्लीशींत 'cradle'अशें म्हणटात. Vababy coat हो आनीक एक शब्दूय ताका वापरतात. पाळण्यांक झुला, पालना, लालयति अशेंय वेगवेगळ्या भासांनी म्हणटात.

म्हजी आवय केन्नाय पाळण्याचें म्हत्व सांगतना म्हणटाली, पाळण्यांत घातलें जाल्यार भुरगें सुरक्षीत उरता. भुरगें ताका लागून कसलोय जीव वा जिवाणू पासून पयस उरता.

अशीच एक घटना म्हज्या भुरगेपणांत घडिल्ली. हांव तेन्ना् सात म्हयन्यांचें पाळण्यांतलें भुरगें आशिल्लें खंय! 11 देजेंब्र 1967 तली गजाल खंय ती! ह्या दिसा मध्यानरातीं कोयना नगरी हांगा भुंयकांप जालो. लोकांचे खूब लुकसाण जालें. गोंयांतय हाचो पडसाद उमटलो! आमच्या घरांत त्या वेळार रातीचो दिवो पेटतालो. त्या दिसा त्या भुंयकापाक लागून दिवो सकयल पडलो. पूण हांव पाळण्यांत आशिल्ल्या

कारणान म्हाका कांयच जालें ना. हांव पाळण्यांत सुस्त न्हिदिल्लें. घरांतलीं सगळीं ह्या आवाजान जागीं जालीं. पूण म्हाका कांयच जावंक ना तें पळोवन तांका सूऽऽ जालें!.

आमच्या घरांत म्हज्या मांयचें कुळारचें सत्तर वर्सा आदलींचें खूब सुंदर नक्षी काम केल्लें लाकडाचें पाळणें आसा. ताका वेगवेगळे रंग लायल्यात.

तांचेर कीर, फुलां, फळां अशीं खेळणीं लायतात.जेन्ना कोणागेरूय भुरगें जल्मलें काय शेजारी बी आमगेर तो पाळणो मागपाक येतात. आई तांका ना म्हणना. आनी मागीर तो वाडो भर सगळे कडेन भोंवता. गरज भागतकच जेन्ना तो परत घरा येता तेन्ना तातूंत नाल्ल आनी खावपाक आसता. असो आमचो हो 'सुगुरवयाचो पाळणो'.

म्हजे व्हडले नणंदेचो जल्म जालो तेन्ना कांदोळेच्या माम ान तो दिल्लो. कितलीं वर्सा जालीं तें अचूक खबर नासलें तरी नणंदेच्या जल्मा वयल्यान हिशेब लावन सत्तरेक वर्सा जालीं आमच्या ह्या पाळण्याक अशी आमी ताची पिराय थारायल्या. ती चडूय आसूं येता.

आमच्यो कितल्योशोच पिळग्यो तातूंत न्हिदल्यात.

आतां आमी केन्नाय कोणाक गरज पडली तर ताका म ाळयेवेल्यान देंवयतात. बरोऽ नवीन पेन्ट मारून ताची डागडुजी करून तें वापरपाक दितात. पाळण्यांत न्हिदिल्लीं नातरां / पणटुरां आतां अमेरिकेक पावलीं. पाळण्यांत एक गादी सुद्दा आसा. ती ल्हान गादी पळोवन मनाक एक आनंद, जगपाची उमेद दिसता. पाळण्यांत एक मायेचो आदार आसता, खंय तरी मनाची ओलसाण, आवयचें प्रेम, तातूंत दिश्टी पडटा.



आतां वेगवेगळींआकाराचीं पाळणी बाजारांत दिश्टी पडटात. तातूंत प्लास्टीकचीं, लोखणाचींआसतात.नाजूक नक्षी केल्लीं कास्ट आयर्नाचीं सुददा आसतात.

पूण लाकडी पाळण्याची सर तांका येवपाक ना.एकदा हांव एका हॉस्पिटलांत गेल्लें. म्हजे इश्टीणीची खबर घेवपाक.ताका चली जाल्ली. आनी पळयतां किदें तर एका लोखणाच्या इल्लेश्या पाळण्यांत बेबी सुस्त न्हिदिल्लें!तो पाळणो हालऽ नाशिल्लो.तो एकाच जाग्यार स्थब्ध कसो उबो आशिल्लो. हालना,धोलना असलो कसलो हो पाळणो? असो मनांत विचार आयलो म्हणून नर्सिक विचारलें. तिणें जाप दिली ती आयकून अजाप कशें दिसलें! 'ना मॅडमआतांच्या भुरग्यांक असल्या न धोलपी पाळण्यांची संवय जाल्या.तीं सुस्त न्हिदतात तातूंत!'

मागीर याद जाली रस्त्याचें काम करपी कामगार,पाथरवट तर कपड्यांच्या झोळण्यांत घालून न्हिदयतात. तशेंच झाडांक सुद्दा पाळणो बांदतात. अष्टमी दिसा भगवान श्रीकृष्णाक तर पाळण्यांत घालतात.झुल्यांत घालतात आनी झुलयतात म्हणूनच ताका 'झुलेलाल'हें नांव पडलां आसूंये! गणेश जयंतीक श्रीगणपतीक पाळण्यांत घालतात आनी पाळणो म्हणटात...

हलके हलके जोजवा
बाळाचा पाळणा
बाळा जो जो जो रे
गजवदना पतितवदना

तशेंच आमच्यो जाण्ट्यो बायलो हो एक पाळणो सदांच गाजयतात.

जो बाळा जो
जो बाळा जो
कृष्णाचें पाळणें यशोदे घरी
जो बाळा जो
जो मन्न्या हरी

असो हो पाळणो, ल्हान आसतना मायेची उब दिता आनी खंय तरी मनाच्या कोनश्याक ताका एक निश्चितच सुवात आसा. ●●●

▪ म्हापसा ▪ 9421242859

■ *तेफळां* ■



प्राचार्य
डॉ. वामन
रा. नायक

# प्राचार्यपद एक आव्हान...

*ते पुणे विद्यापिठाचे कुलगुरू जावपाचे आसले. पूण तें हातांतल्यान गेलें. तांकां संस्थेंतल्यान काडून उडोवपाची मागणी जाली. संस्थापकाक संस्थेंतल्यान काडून उडोवपाचो विरोधकांचो डाव आसलो. पूण बऱ्या नशिबान मुंबय उच्च न्यायालयान न्याय दिलो आनी विरोधकांक राजिनामो दिवन संस्थेंतल्यान वचें पडलें. तांणी धीर आनी चिकाटी सोडली ना. निमणें घडपाचें तेंच घडलें.....*

बरो प्राचार्य वा प्राध्यापक जावपाक कांय गूण लागतात. सगळ्यांच्या आंगांत ते आसताच अशें ना. ते आपणावप सोंपें न्हय. पूण प्रयत्न जावंकूय जाय. हेरांच्या अणभवांतल्यान बऱ्याच गजालींची जाण येता. स्वतःच्या आनी हेरांच्या अणभवांतल्यान बरेंच शिकूंक मेळटा. अणभव ही गिन्यानाची आवय अशें निकोलस ब्रेट हांणी म्हळां तें तेच पासत.हांवें कांय पुस्तकां वाचलीं ताचो म्हाका खूब फायदो जालो. बदलते परिस्थितीचो थाव घेवपाचो यत्न जेन्ना हांवें केलो तेन्ना दिसून आयलें, सद्याचें यूग गतिमान आसा. ह्या युगांत वेगवेगळ्या वाठारांनी नेटान बदल जायत आसा. शिक्षणीक वाठारूय ताका आडवाद ना. गिन्यानाचो जावपी विस्फोट, म्हायती तंत्रगिन्यानांत जाल्ली कल्पने भायली क्रांती, शिक्षणीक क्षेत्रांत हिसपा भायर बदल जावन गिन्यानाच्यो कक्षा विस्तारिल्ल्यो आसात. केन्ना केन्ना तर एखादऱ्या विशयांत कांय विद्यार्थ्यांचें अध्ययावत गिन्यान शिक्षकां परसूय चड आसता, अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. ह्या बदलाक फुडो करपा खातीर आनी विद्यार्थ्यांक गुणवतापर्णू दर्जे दार शिक्षण मेळपा खातीर शिक्षकांनी आपले मर्दीं बदल घडवचे पडटात. गोंय आनी हेर कडेन कांय जाणकारांनी केल्ले यत्न, धडपड हे विशीं ह्या स्तंभांत एक नदर मारपाचो हो यत्न. ह्या क्षेत्रांत प्रवेश करपी नव्या प्राध्यापकांक ताचो नक्कीच फायदो जांवये!




बरोवपी नामनेचे अर्थतज्ञ आनी लेखक जावन आसात. सद्या पुण्यांत आय.एस.बी.एस.कॉलेज ऑफ कॉमर्स ह्या महाविद्यालयांत प्राचार्यपदार वावुरतात. सातत्यान ललित लेखन करतात. तांचीं कांय पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत.

गोंयचे बाबतींत सांगचें जाल्यार बऱ्याच जाणांचें शिक्षणीक मळार योगदान आसा. उच्च शिक्षणीक मळार सर्गेस्त प्राचार्य द. भ. वाघ हांचे योगदान विसरपाक जायना. जांणी मुंबय आनी पुण्याच्या फामाद कॉलेजांनी काम केल्लें,आपल्या अणभवान, बुद्धीमत्तेक धरून, प्रशासकीय कुशळतायेक लागून जायते जाणांच्या मनांत तांचे विशीं आदराची भावना निर्माण जाली. बऱ्याच विद्यार्थ्यांचें, प्राध्यापकांचें, ते श्रद्धास्थान आसले. खूब जाणांक तांच्या अध्यापन काळांत ते आधारस्तंभ आनी म ार्गदर्शक आसले. गोंयच्या शिक्षणीक मळार अद्ययावतपणा आनी गतिमानता हाडप्यां मदें ते मुखार आसले. चौगुले कॉलेजचे प्राचार्य आनी उपरांत मुंबय विद्यापिठाच्या पदव्यत्तूर केंद्राचे फुडारपण करतना सगल्या आंगांनी उदरगत जावंची ही उमळशीक तांणी आपणायली आनी ते दिकेन यत्न केले. फुडारा खातीर नवी नदर दाखयली आनी बऱ्याच गरजेवंत विद्यार्थ्याक तांणी आपले परीन मजत केल्ली आसा. गणीत हो तांचो विशय जाल्ल्यान, ते विशीं तांकां आस्था आसप तशे सभावीक. पूण आपल्या आवडत्या विशया भायर तांकां साहित्या विशी आवड आशिल्ली. ते अष्टताशी आसले. तांणी खेळ, वक्तृत्व, साहित्य आनी नाट्यकला, हाका प्रोत्साहन दिताले. पणजेच्या पदव्यत्तुर केंद्राचे संचालक ह्या नात्यान, अणभवाच्या म्हालवजार, प्रशासन कौशल्य, ऊर्जा,आनी नवनिर्मणेचे जिद्दीर तांणी ह्या केंद्रांतल्या ज्ञानशाखांचो विकास घडोवन हाडलो. गोंय विद्यापिठाची बुन्याद घाली.

हालींच उजवाडा अयिल्लें 'मी आणि सिबायोसिस' हें प्रा. (डॉ.)शा. ब. मजुमुदार हांचें पुस्तक वाचलें. पुस्तकांतल्यो घडणुको वाचतकूच अजाब दिसता, रात दीस अभ्यास करुंनय इंटर सायन्स परिक्षेंत कमी मार्क मेळिल्ल्यान वैजकी

महाविद्यालयांत प्रवेश मेळ्ळो ना. बापूय कडक रावलो. बापायन मेडिकल प्रवेशा खातीर देणगी दिवपाचें ना म्हण थारायलें. आपूण मुखार शिकचों ना अशें ताणें बापायक सांगलें.पूण प्रवेशा खातीर दमडी दिवंचों ना हाचेर बापूय ठाम रावलो. आपल्या तत्वाक चिकटून रावलो. आयची परिस्थिती बरीच बदलिल्ली दिसता. एमबीबीएसच्या प्रवेशा खातीर पालक 50 लाख सहजतायेन मेजतात. एम.डी.एम. एस.च्या प्रवेशा खातीर एक कोटी रुपया देणगी दिवंची पडटा.

शिक्षण क्षेत्रांत नांवा रूपाक येवपा फाटल्यान तांच्या खुबश्या साद्या आवय बापायचो तत्वनिश्ठेचो आशिर्वाद आसुंये अशें ते एकिकडेन म्हणटात. बरे शिक्षणीक फाटभुंयेच्या म्हालवजार तांकां फर्ग्युसनांत प्राध्यापकाची नोकरी मेळ्ळी, ताचें तांणी शिकोवपात, संशोधनांत, महाविद्यालयाच्या हेर मळांनी भांगर केलें..उपरांत फर्ग्युसन महाविद्यालयाचो राजिनामो दिवन सिम्बायासिस खातीर पुराय वेळ दिवपाचो निर्णय घेतलो. संशोधन आनी हेर वावराक तांणी प्राध्यान्य दिलें. जिणेंत कसोटीचे जायते प्रसंग आयले. खबरेपत्रांतल्यान टिका जावपाक लागली.रात्रीं अपरात्रीं घाणयारे टेलिफोन येवपाक लागले. तीन चार वर्सां खूब क्लेशदायक आसलीं अशें ते म्हणटात. तशेच सिम्बायसिसच्या कार्यकारिणीच्या वांगड्यां मदें बरेच मतभेद जाले.अशे तरेन जिणेच्या प्रवासांत जायते खाच-खळगे आयले. कितले तरेचे अवमान, अपमान गिळचे पडले. ते पुणे विद्यापिठाचे कुलगुरू जावपाचे आसले. पूण तें हातांतल्यान गेलें. तांकां संस्थेंतल्यान काडून उडोवपाची मागणी जाली. संस्थापकाक संस्थेंतल्यान काडून उडोवपाचो विरोधकांचो डाव आसलो. पूण बऱ्या नशिबान मुंबय उच्च न्यायालयान न्याय दिलो आनी विरोधकांक राजिनामो दिवन संस्थेंतल्यान वच्चें पडलें. तांणी धीर आनी चिकाटी सोडली ना. निमणें घडपाचें तेंच घडलें. एक गांवगिऱ्या वाठारांतसून आयिल्लो तरणाटो पुण्याच्या फामाद कॉलेजचो प्राद्यापक जाता. थंय नांवलोकीक मेळयता. एक एक पावल चडत चडत विद्यापिठाचो कुलपती जाता. मागीर तीन कडेन कुलपती, पद्मश्री मेळयता. सहज मेळना अशे पुरस्कार मेळयता.



हालींच 900 खाटांचें हॉस्पिटल बांदलां पुण्यांत, खासा चलयाचें. आपलें येस ही देवाची कृपा आसा ही याद येता आनी आपली देवा वयली श्रद्धा आनिकूय बळीश्ट जाता. ईश्वरी शक्तच मनशाक तारताअशें ते मानतात.

प्राध्यापक / प्राचार्य हांचो रोल खूब मल्टिडायमन्शनल. बोलते चालते विद्यापीठ म्हूण जांकां पुराय महाराष्ट्र वळखता ते म्हळ्यार - प्राचार्य शिवाजीराव भोसले. तांचेर प्राध्यापक मिलिंद जोशीन चरित्र ग्रंथ बरयला. ही कथा जावन आसा श्रृजनाची. आपल्या ओघवत्या भाशणांनी पुराय महाराष्ट्र तांणी मंत्र मुक्त केलें. विशयाक मर्यादा नासली. मागीर -विवेकानंद जावं, अरविंद घोष, वीर सावरकर. महाराष्ट्रात असो एकूय गांव आसचोना जय शिवाजीराव भोंसले सर वचूंक नासले. कसलेंच व्यासपीठ तांकां वर्ज्य नासलें. तांकां उत्कृश्ट शिक्षक इनाम घोशीत जालो, पूण आपलो भाव मुख्यमंत्री आशिल्ल्यान तांणी तो स्वीकारलो ना. तत्वाक धरून ते जगले. राजकारणांत ओडपाचो यत्न जालो पूण ते राजकारणा पासून पयस रावले.

'प्राचार्य' ह्याच नांवाचें आनीक एक पुस्तक उजवाडा आयलां. बरेच आदीं तें बरयलां डोळेसरांनी. ह्या पुस्तकांतले कांय संदर्भ कालबाह्य जरी जाले तरी शिक्षणीक मळा वयल्या बऱ्याच प्रस्नांचें बारीकसाणेन ह्या पुस्तकांत भासाभास केल्या.

हेंय पुस्तक वाचपा सारकें आसा.पूण ताच्यो प्रती मेळनात.आऊट ऑफ प्रिन्ट जाला.आपली फाटभूंय, सेवादलांतलें कार्य,प्राचार्य म्हूण केल्ले नवे नवे प्रयोग,आयिल्ल्यो अडचमी,बरे प्राध्यापक मेळपा खातीर आयिल्ल्यो अडचणी,खेडेगांव वाठारांतल्यो खास अडचणी,गंभीरसमस्यांचेर वाट कशी मेळ्ळी हें जाणून घेवपा खातीर हें पुस्तक वाचपा सारखें आसा, नव्या प्राध्यापकांनी हीं पुस्तकां वाचल्यार तांचो तांकां फायदो नक्कीच जातलो. ●●●

▪ पुणे ▪ 99224 45059

*मुलाखत*



श्रध्दा
गरड

## बँकेंत करियर आनी सृजनशील कवितेंची रचना हाचेर

# कवयित्री नूतन साखरदांडें



*कोंकणी भाशा आनी साहित्यांच्या मळार वावुरपी नूतन साखरदांडे एक आघाडेची कवयित्री. 'जीण जालीं कस्तुरी', आनी 'पासवर्ड' हे तांचे कविता संग्रह खूब गाजल्यात. 'त्रिवेणी' हे काव्य सादरिकरणाचे कार्यावळीची संयोजक आनी तातुंतली एक कवयित्री. पंजाब नॅशनल बँकेंतल्यान निवृत्त जाल्या. १६ व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाची अध्यक्ष.*

*तांकां आतां मेरेन टि.एम.ए.पै,बिम्ब,कोंकणी भाशा मंडळ,जनगंगा, कविता ट्रस्टाचो माथायस पुरस्कार अशे साबार पुरस्कार लाबल्यात. नूतन प्रकाशन ही तांची स्वताची प्रकाशन संस्था आसा. गोवा कोंकणी अकादमी , कोंकणी भाशा मंडळ , बार्देस अस्मिताय केंद्र, कोंकणी लेखक संघ आदी संस्थांच्यो कार्यकारिणी समितिचेर तांणी काम केलां. बार्देस दिवाळी अंकाचें संपादन केलां.*

लेखिका साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवयित्री. बालसाहित्य आनी ललित लेखनांतूय फिशाल आसा.

**श्रध्दा–** कोंकणींत कविता बरोवपाचो तुमचो प्रवास केन्ना आनी कसो सुरू जालो ?

**नूतन–** म्हाका भुरगेपणांतल्यान वाचनाची आवड लागिल्ली. हांव 'चांदोबा', 'किशोर', 'कुमार', 'फुलबाग' ह्या सारकीं त्या काळार भुरग्यांक खूब आवडपी मासिकां हांव नेमान वाचतालें. तशेंच 'जादुची चटई' , 'जादुची छत्री' बी असलीं ल्हान ल्हान पुस्तकां येतालीं तींय हांव पिशां भशेन वाचतालें. भुरगी पिराय सरून मातशें वय वाडत गेलें तशें कथा, कादंबरी , कवितेचीं पुस्तकां, आत्मकथा बी वाचूंक लागलें. माशेलांत आमच्या घरा मुखारूच आशिल्ल्या वाचन मंदिरांतल्यान पुस्तकां हाडप आनी अधाश्या सारकें तीं वाचून काडप. जेवता आसतना लेगीत जेवणाच्या मेजार पुस्तक दवरून जेविल्लें याद जाता. रेडियो आयकप, पुस्तकां वाचप आनी सैम भोंवडी करप हे म्हजे छंद. शाळेंत शिकतालें तेन्ना 'एक आशिल्लो सोसो, सामको बाये पिसो', 'मास्तर आमचो मारकुटो, तकलेन मात्सो तिरकुटो' अश्यो 'स' क 'स' आनी 'ट' क 'ट' जोडून कवितेचो प्रवास शाळेच्या रफ बुकार सुरू जालो.

**श्रध्दा–** आयज कॉलेजींत शिकपी विद्यार्थ्यांक कविता सर्तिच्या निमतान स्वता भितरल्या कवीक वा कवयत्रीक एक माची मेळटा. तुमच्या तेंपार तशी सुविधा आशिल्ली? तुमी ह्या

सृजनशील क्षेत्रांत फुडें कशीं सरलीं?

**नूतन–** आयच्या तरणाट्या भुरग्यांक जितली माची मेळटा, प्रसिध्दी मेळटा तें आमच्या वेळार नाशिल्लें. आतां तुजें कोंकणी साहित्य उजवाडाक हाडपाक जाय जाल्यार, कोंकणी दिसाळें आसा, कोंकणी म्हयनाळीं आसात, दिवाळी अंक येतात. विंगड विंगड टि.वी. चॅनलां आसात. साहित्य संमेलना,परीशद,म ेळावे जातात. शाळा,महाविद्यालयां, संस्था दर वर्सा सर्तींचें आयोजन करता. आयज भरपूर संदी उपलब्ध आसात ज्यो म्हज्या तरणाटेपणांत नाशिल्ल्यो.मुख्य म्हळ्यार मोबायल नाशिल्लो, इंटरनेट नाशिल्लें. आतां ीलळरश्र ाशवळर हें आनीक एक बरें माध्यम जालां, तुका व्यक्त करपाक. तेन्ना आतांच्या भुरग्यांनी आपल्याक खूब नशिबवान समजूंक जाय आनी तांणी ह्या सगळ्यां गजालींचो पुरेपूर उपेग करून साहित्या कडेन लक्ष केंद्रीत करूंक जाय.






**श्रध्दा–** खूब वर्सा जालीं तुमी सातत्यान कविता बरयतात आनी तुमची कविता तुमी माचयेर सादर करतात. कवितेची रचना आनी तुमचें नातें हे विशीं आमकां सांगशात?

**नूतन–** म्हाका जेन्ना जेन्ना सुचलें तेन्ना तेन्ना हांव बरयत गेलें. कित्याक ते म्हजे अणभव आशिल्ले आनी ते वाचप्यांक भावपाक लागले. म्हजी तोखणाय जावपाक लागली. तेन्ना म्हाका इल्लोसो आत्मविश्वास आयलो. हांव म्हज्यांतल्यान भायर सरून जेन्ना आशिकुशीक नदर भोंवडायली तेन्ना म्हाका कितलेशेच प्रस्न दिसले. मार्गार जावपी अपघातांचो प्रस्न, म्हारगायेक हात आवळून घेतिल्ल्या पगारदारांचो प्रस्न, बायलांचेर जावपी अत्याचार, तरणाट्या भुरग्यांचे प्रस्न, भुरगें नाशिल्ल्या बायलांचो प्रस्न, भुरगे परदेसांत आशिल्ल्या आवय-बापायचो प्रस्न, देवाचो दिवो न लायता टिवीचो बटण नेमान तिनसांजचो लावपी अस्तुरेचो प्रस्न! हे सगळे प्रस्न म्हज्या कवितांनी आयल्यात. म्हज्या मतान कवीक वा लेखकाक सामाजीक जापसालदारकी आसप गरजेची. आनी ह्या सगळ्याची जाणीव म्हाका म्हजी कविता करून दिता हेंच म्हजें आनी कवितेचें नातें.

**श्रध्दा–** बँकेंत करियर करपाक तुमकां प्रेरणा कशी मेळ्ळी?

**नूतन–** बरो प्रस्न श्रध्दा. हांव आठवेंत आसतना म्हाका एका निबंदा खातीर इनाम मेळ्ळें. आनी तो निबंद आशिल्लो, ‘म्हजी आवय’ ह्या विशयाचेर. आनी हांवेन म्हजे याद नाशिल्ले आवयचेर कल्पनेनूच निबंद बरयलो. जाका पयलें इनाम मेळ्ळें. ती एक मजाचशी! इनाम 25 रुपया बी आसत! आतां सारकें याद ना. ताचो चेक मेळ्ळो. चेक मेळटकच, हांव खातें उगडपाक बँकेंत गेलें. तेन्ना थंयचें वातावरण पळोवन मनांत बँकेंत काम करपाची सुप्त इत्सा जाल्या आसूं येता! हांव अभ्यासांत हुशार आशिल्ल्यान घरच्यांक हांव दोतोर जावचें अशें दिसतालें. पूण आर्थीक परिस्थिती आनी अन्य कारणांक लागून म्हाका अठराव्या वर्सार नोकरी धरची पडली. पयलीं प्रायव्हेट केली दोन वर्सा. मागीर सरकारी नोकरी केली. पूण कितें कोण जाणा, ते वातावरणांत मन रमलें ना. बँकेच्यो परिक्षा दीत रावलें. तेन्ना बँकेंतली नोकरी म्हळ्यार उच्च पदा वयली थहळींश लेश्रश्री क्षेल कसो दिसतालो. खूब रेस्पेद आशिल्लो. कोणाची प्रेरणा बी ना. बँकेंत काम करप म्हजे हांवेंच थारायल्लें. अशे तरेन हांव बँकेंत पावलें आनी 34 वर्सा काम केलें.

**श्रध्दा–** वयल्या प्रस्नाचे जापेक जोडून प्रस्न विचारतां. तुमी म्हळें, तुमकां याद नाशिल्लो आवयचेर तुमी कल्पनेनूच निबंद बरयलो. हाचे विशीं आमकां सांगशात?

**नूतन–** म्हज्या घरांत हांव आवय-बापायगेर जल्मल्लें पांचवें चली. म्हजे परस व्हडल्यो चार भयणी आनीक एक भाव. हांव जाल्लें त्या काळांत चली जावप म्हळ्यार सगळ्यांची तोंडां वाकडीं जातालीं आनी कपलाक आंटयो पडटाल्यो. हातुंतल्यान हांव वाटावलें अशें म्हणपाक जावचें ना. पूण जातनाच हांव धवें गोरें, गुबगुबीत पोल्यांचें आनी म ुदयाळ्या केंसांचें आशिल्ल्यान म्हजी अर्थ अपुरबाय जावपाक रावली ना. पूण ती फकत थोडेच म्हयने तिगली. हांव दिम खुऱ्यांनी चलपाक लागिल्लें . धा म्हयन्याचें. पांयारय उबें रावूंक लागूंक नाशिल्लें. आनी तेन्नाच म्हजी आवय, संवसार सोडून गेल्ली. 'आई' म्हण तोंडांतल्यान उतर येवचे पयलींच आवय म्हज्या दोळ्यां आड जाल्ली. जिवितांत पावल घालतनाच हो आपालिपाचो खेळ म्हाका खेळचो पडलो. हो खेळ खेळून हारता थंय आसां , पिरायेच्या आठ वर्साचेर आनीक एके विवंचनेंत सांपडलें. माशेलांतल्या म्हज्या घरा भायर आंगणांत , 'इति इति पाणी, गोल गोल राणी ' वा 'तामरेतीर पानां मेजार फुलां' ह्या गाण्याच्या उतरां प्रमाण खेळ खेळटना म्हजो बापूय संवसार सोडून गेलो. हांवें म्हज्या जिवितांतले दोन गडगंज आदार वगडायल्यात हें कळपा इतली म्हाका तेन्ना अक्कलय नासली. हांव वाडत वचपाक लागलें तशें म्हज्यांतलें रितेपण म्हाका जाणवपाक लागलें. शाळेंतल्या बाकिच्या भुरग्यांक जे तरेन आवय-बापायचो मोग मेळटा तो मेळना हाची खंत म्हज्या काळजांत म्हाका सतत जाणवत रावताली. लोकांचे नदरेंत म्हाका म्हजे विशीं काकुळटेची भावना दिसून येताली आनी ही नदर म्हाका नाका जाताली. हांव हे नदरेचोच तिरस्कार करपाक लागलें. एक मात खरें, म्हज्या भावंडांनी म्हाका केन्ना कितेंच उणें पडूंक दिलें ना. हेच न्यूनगंडाचे भावने खातीर हांव संवेदनशील जालें आसूंक जाय....




**श्रध्दा–** बँकेंत करियर करपाक सोदपी तरणाट्यांक तुम च्या अणभवांतल्यान मार्गदर्शन दिवशात?

**नूतन–** हांवें बँकेंत काम करूंक सुरवात केल्ली तेन्नाचो काळ आनी आतांच्या काळांत खुब्ब फरक आसा. तेन्ना बँकेचे नोकरेक एक सश्ररोंी आशिल्लो. म्हज्या वांगडच्यो सगळ्योच इश्टिणी बँकेच्यो परिक्षा दिवपाक धडपडटाल्यो. हार्ची कारणांय आशिल्लीं. बँकेंत तुज्या व्यक्तिमत्त्वाचो विकास जाता. तुजें बँकिंगचें गिन्यान वाडटा. योग्य वेळार आयिल्ले संदिचो फायदो घेत जाल्यार तुजो करियररूय घडटा. पूण हांवें पळेलां, गोंयचे तरणटे वा तरणाट्यो बँकींग क्षेत्रांत वचपाक उत्सूक नात. कदाचीत तांकां दिसलां जातलें बँकेंत खूबीशी आसा. हय आसाच , पूण तो खंयच्या क्षेत्रांत ना? आयज काल सगळे कडेन आसा.

पदवी उपरांत भुरग्यांनी बँकेचे परिक्षेची योग्य तयारी केली जाल्यार बँकेंत सहज नोकरी मेळूं येता. शिवाय तो शिलीशव त्रेैशीपाशर्पी गेल. हालींसराक गोंया भायल्या राज्यांतल्यान कितलेशेच इंजिनीयर, एमबीए शिकिल्ले भुरगे गोंयांत सेंटर घेवन परिक्षा दितात आनी पास जातात.

म्हाका दिसता गोंयच्या तरणाट्यांनी बँकेचे नोकरेची संद व्हगडावची न्ही. परिश्रम करून बँकेची परिक्षा दिवची आनी बँकींग क्षेत्रांत फुडें सरचें.

**श्रध्दा–** एके व्यक्तीन अर्थीक नदरेन स्वावलंबी आसप कित्याक गरजेचें? स्वताचो करियर करून, स्वताच्या पांयार उबें रावप म्हत्वाचें आसा?



**नूतन–** निश्चितूच म्हत्वाचें आसा. म्हज्या मतान आर्थीक दृश्ट्या पयशांनी गडगंज आशिल्ल्या मनशांनी लेगीत स्वावलंबी जावप गरजेचें. तुजी एक वेगळी ळवशपींळीं उरता. तुका भायल्या जगाचो अणभव येता. आपणेन कश्टान कमयल्ल्या पयशांचें म्हत्वूय कळटा.

सामान्य मनशाक तर पर्यायूच नासता. ठरावीक शिक्षण घेतल्या उपरांत नोकरी वा धंदो ताका आपणावचोच पडटा. योग्य वेळार योग्य विचार करून ताणें हें पावल मारूंक जाय.

तूं आर्थीक दृश्ट्या स्वावलंबी जालो ना जाल्यार तुजें वैयक्तीक लुकसाण जाता तें जालेंच वयल्यान समाजाचे नदरेन तूं अपेशी थारता.

**श्रध्दा–** एके व्यक्ती कडेन व्हड रक्कम नासत आनी ताका पयशांची सामकी गरज आसता तेन्ना ती व्यक्ती बँकें कडल्यान रीण घेता. रीण घेतल्या उपरांत तें फारीक करतना, अर्थीक अडचणींक मुखार वतना संघर्श चुकना.

**श्रद्धा–**अशी तणावाची जबाबदारी मनशांतीन पुराय करपाक तुमच्या अणभवाचो सल्लो दिवशात?

**नूतन–** हय, हांवें अशेय मनीस पळेल्यात जे ल्हान ल्हान रिणांचें टेन्शन घेतात. आनी थोडे मनीस व्हड रीण काडून सुद्दा टेन्शन घेनात.आतां तुज्या प्रस्ना कडेन येवंया. जेन्ना मनीस रीण घेता तेन्ना ताणें हें चितूंक जाय, हे पयशे म्हजे न्हीं, हे लोकांचे पयशे जे ताणें बँकेंत दवरल्यात आनी बँकेन विश्वासान आपल्याक दिल्यात. ते कळंतरा सयत परत करतलों वा करतलें म्हूण! तेन्ना ताणें आपले येणावळींतल्यान, रिणाच्या हप्त्यांची रक्कम कुशीक काडून दवरूंक जाय. आनी म्हयन्या म्हयन्याक बँकेंत भरूंक जाय. एकाद्या म्हयन्याक येणावळ कमी जाली जाल्यार तांणी आपल्यो बाकिच्यो गरजो कमी करूंक जाय. पूण रिणाचे हप्ते वेळार भरूंक जाय. तशें करीत जाल्यार मनशांती केन्नाच बिघडची ना आनी रिणाचें वर्जेंय दिसचें ना.

पूण रीण भरिनासतना रावले जाल्यार बँक तुका सोडिना आनी खूब पयशे भरपाक, मागीर दुसरे कडेन आनीक रीण काडचें पडटा. अशे तरेन रिणाच्या चक्रव्युहांत तूं अडकता. ते खातीर वेळच्या वेळार रीण फारीक केल्लें चड बरें. अशें केल्ल्यान तुजेर तणाव येवचो ना...

**श्रध्दा–** आमी परतून कविते कडेन येवया. तुमी कविता लेखन सर्तीचे परिक्षक म्हणून काम अणभवलां. एक सर्तक जेन्ना कविता लेखन सर्तींत भाग घेता, तेन्ना स्वता रचिल्ली बरी कविता सर्तींत धाडटा. पूण सर्तींत तर खुबशे सर्तक भाग घेतात. दर एकटो आपणेन रचिल्ली बरी कविता सर्तींत धाडटा. तुमी एक अणभवी कवयित्री आनी परिक्षक म्हणून, सर्तकांक सर्ती खातीर बरी कविता रचपाक मार्ग दाखोवशात?

**नूतन–** बरी कविता रचपा खातीर खूब खर साधना लागता जी मुळाव्या पावंड्यार करप कठीण. तरी लेगीत भरपूर



वाचन, कवितेच्या बिजाचें चिंतन गरजेचें. ताकतीक अजिबात उपकारची ना. कवितेचो विशय मनांत घोळोवप. आपलें शब्दसामर्थ्य वाडोवप. आपल्याक कितें सांगपाचें आसा तें मेजक्याच उतरांनी सांगपाची कळाशी सादप आनी वाचकाच्या काळजा मेरेन आपली कविता पावोवप हें बरे कवितेचें लक्षण. एकूण कवितेचो ध्यास,अभ्यास आनी व्यासंग ह्यो तीन गजाली कवी वा कवयित्री कडेन आसल्यो जाल्यार कवी वा कवयित्री बरी कविता रचूंक शकता.

**श्रध्दा–** माचयेर कविता वाचन करतना, कवितेंत आशिल्ली भावना आनी विचार कविता सादरीकरणांतल्यान कशी अभिव्यक्त करप?

**नूतन–** म्हज्या मतान पुस्तकांत आशिल्ले दर एके कवितेचें बरें सादरीकरण जाताच अशें ना. सादरीकरणाच्यो म्हणून खास कविता आसतात. ती कविता सादर करता आसतना तुवें आवाजाच्या चड उतारा कडेन लक्ष दिवप आसता. जी कविता सादर करपाची आसा ती कविता पाठ करप गरजेचें. कविता पाठ केली जाल्यार तुजें पुराय लक्ष तू तुज्या भावनां कडेन दिवंक शकता.

त्या भाय खंयच्यो ओळी रिपीट करच्यो , रींश खंय घेवंचो, हेंय बी तितलेंच म्हत्वाचें. कविता वाचच्या परस सादर करप केन्नाय बरें. तातूंत तू कवितेक सारखो न्याय दिवपाक शकता.

**श्रध्दा–** स्वता रचिल्ल्यो कविता एकठांय करून, पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडप कितलें गरजेचें आसा? आनी तशें कित्याक करप?

**नूतन–** स्वता रचिल्ल्यो कविता एकठांय करून पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडप सामकें गरजेचें. तुवें कितल्योय कविता बरोवन दवरल्यो म्हणून तू लेखक वा कवी जायना. जो मेरेन तुजें लिखीत स्वरुपांत पुस्तक छापून येना. पुस्तक आयल्या उपरांत तुजे कवितेचें मुल्यमापन जाता. तूं कवी-कवयित्री म्हूण नांवा रुपाक येता. तुज्या फुडल्या साहित्य प्रवासाक तें बरें थारता. तूं कवी-कवयित्री म्हणून प्रस्थापीत जावपाक जाय जाल्यार पुस्तक येवप गरजेचें. पूण त्या पुस्तकाकूय एक दर्जो आसतलो हाची जतनाय तुवें घेवची पडटली. म्हणून म्हज्या मतान नवोदीत कवी वा कवयित्रीन ताकतीक करप ना. आपल्यो कविता जेश्ठ कवीक वा कवयित्रीक वाचूंक दिवप, तांचो अभिप्राय घेवप, खंयचे कवितेचो आस्पाव करप, ना करप हें थारावप आनी मागीरूच पुस्तक रुपान हाडप. एकदां पुस्तक रुपान कविता आयल्यो काय त्यो मागीर वाचकांच्यो जातात, तुज्यो उरनात.



**श्रध्दा–** नवोदीत बरोवप्यांक, स्वताचो कविता संग्रह उजवाडाक हाडपाक तयारी कशी करप तें सांगशात?

**नूतन–** स्वताचो कविता संग्रह तयार करपाक पयलीं लागता त्यो स्वता रचिल्ल्यो कविता. आपल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कविता निवडटकच तुवें कवितेचें हस्तलिखीत टायपसेटिंगाक दिवप.कवितेची प्रस्तावना जाय जाल्यार जेश्ठ कवी -कवयित्री कडल्यान बरोवन घेवप. उपरांत तुका कवितेचीं प्रुफां तपासपाक जाय, मांडावळ तयार करपाक जाय. मुखपृश्ठ तयार करपाक एका चित्रकारा कडेन वचपाक जाय. अक्षर जुळणी, मांडणी,चित्र, प्रस्तावना, जाल्या उपरांत तुवें तें बऱ्याश्या प्रिंटरा कडेन छापूंक दिवंक जाय.

वा दुसरे तरेनूय करूं येता. तुज्यो कविता घेवन प्रकाशका कडेन वचप. प्रकाशक छापूंक तयार जालो जाल्यार, वयर सांगलां त्यो सगळ्यो गजाली प्रकाशक सांबाळटलो.

लेखकाच्या वा लेखिकेच्या पयल्या पुस्तका खातीर गोवा कोंकणी अकादमी सारखी सरकारी संस्था आसा, जी पयल्या पुस्तकाक अनुदान दिता. ताचोय लाव घेवपाक जाता...

**श्रध्दा–** स्वताचें पुस्तक तयार जातकच, त्या पुस्तकाचो विमोचन सुवाळो वा प्रकाशन सुवाळो आयोजीत करप गरजेचें आसा?

**नूतन–** भुरगें जल्माक येतकच बारसो जावप जितलें गरजेचें, तशेंच पुस्तक तयार जातकच, पुस्तकाचो विमोचन सुवाळो (ल्हान वा व्हड प्रमाणांत जांवचो अशें म्हाका दिसता. प्रकाशन सुवाळो जाल्या उपरांत तुजें पुस्तक आयलां हे जनमानसांत कळटा आनी पुस्तकाचेर चर्चाय बी जाता. आनी लेखक-




लेखिका म्हणून तुका एक स्थान मेळटा.

**श्रध्दा–** तुमचे घरची जबाबदारी, नोकरेची जबाबदारी आनी कविता रचनेंत सातत्य दवरप हें सगळें सांबाळटना तुम च्या मनांत सकारात्मक खंयचो विचार आसलो?

**नूतन–** म्हाका दिसता कविता सुचप, वा तुजे भितर प्रतिभा आसप हे दैवी गूण. ते चुकुनूच थोड्यांच्या वांट्याक येता. म्हज्या आयलां हें म्हजें भाग्य. जिणेंत खूब संघर्श करचो पडलो. पूण तातुंतल्यान सकारात्मक विचारान वाट चलतना कविता सदांच म्हज्या सांगाताक रावल्या. तिची आराधना करप हें म्हजें काम. हें काम हांव आनंदान म्हाका जमता तशें करीत आयलां आनी हाचे फुडेंय करीत रावतलें.

**श्रध्दा–** कोंकणी गोंयची राजभास जावची म्हूण गोंयांत चळवळ जाली. तुमी ते चळवळींत आशिल्लीं. चळवळी संदर्भांत आमकां तुमच्यो यादी सांगशात?

**नूतन–** राजभास आंदोलनाचें हांव एक साक्षिदार. हाचो म्हाका आयजूय खूब अभिमान भोगता. 1979-80च्या काळांत चित्रंगी मेळाव्याचो जल्म जालो. ह्या चित्रंगीच्या माटवांत जेश्ठ साहित्यीक भौ.हेमा नायक हांच्या फुडारपणा खाला माया खरंगटे, नयना आडारकर, प्रशांती तळपणकार, विनंती कांसार, सुकांती, जयंती नायक, शकुंतला भरणे, रजनी अशीं कितल्याशाच जाणांची फौज घडली. सगळ्यांचो एकूच हावेस आसलो आनी तो कोंकणी. कोंकणीचे तेन्नाचे म्हालगडे बुदवंत तशेच साहित्यीक बाकिबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, चंद्रकांत केणी , रवीन्द्र केळेकार , उदय भेंब्रे , नागेश करमली हांचे कडेन वळख जाली आनी सगळें जिवीत कोंकणीमय जालें. कोंकणी भाशेक मानाची सुवात मेळोवन दिवपा खातीर जीं पोटतिडकेन वावुरतालीं, तांतलें हांव एक आसलें. अशे तरेन हांव कोंकणी चळवळींत पावलें. कोंकणी राजभास आंदोलना वेळार जे मोर्चे, मेळावे, उपासाक बसप जालें ह्या सगळ्यांत म्हजो चानयेचो वांटो आसा हें सांगपाक अभिमान भोगता.

कोंकणी राजभास आंदोलनान म्हाका म्हजो जिवीतभराचो जोडीदारूय मेळोवन दिलो. हांव मनांत म्हण्टालें म्हाका सांगाती असो जाय जो साहित्याचो मोगी आनी कोंकणीचेर निश्ठा दवरपी आसतलो. तशेंच घडलें. राजभास आंदोलना वेळार तळमळीन वावुरपी कवी अरूण साखरदांडेची म्हाका सोयरीक आयली. आनी पयलेच भेटींतूच आमचीं मनां जुळ्ळीं. मागीर म्हजी कविता आनी संवसार दोनूय फुलत रावले हें आनीक सांगपाची गरज ना.

**श्रध्दा–** मुलाखत सोंपयतना हालींच तुमी रचिल्ले कवितेच्यो दोन वळी आमकां सांगशात?

**नूतन–** बरे भशेन,ही म्हजी हालींच सुचिल्ली एक कविता–

उडटा मनांत
कितलीं सवणीं
अर्धीं पिर्शीं
अर्धीं शार्णीं
खंयसून आयलीं
खंय गेलीं?
मळबूच सगळें
घेवन गेलीं.

▪ फातोर्डा ▪ 8669495781



नूतन
साखरदांडे

# लेझीम

**फुडें कितें जालें खबर ना, हांव ही गजाल विसरूनूय गेल्लें, पूण ही बायल सांज मेरेन म्हजेर पाळत दवरून म्हज्या फाटोफाट बशींत चडून म्हजेर गाळींचो शिंवर करताली. तिच्या उलोवण्या वयल्यान आनी भेसा वयल्यान ती नॉर्मल ना हें कळटालें. पूण माशेलांत पावऽसर तिची रिकॉर्ड चालू आशिल्ली.**

*लेखिका नामनेची कवी. तांचे 'जीण जाल्या कस्तुरी' आनी 'पासवर्ड' हे कवितासंग्रह लोकप्रिय थारल्यात*



चानये चानये गोड कर, हुंदरा हुंदरा म्हॊंव कर म्हणत धाकटुलेंच जगम हाताच्या तळटार घेवन आमी वाटकुळेंच घुंवडायतालीं ते दीस याद जाले. ते दिसूच आशिल्ले मंतरलेले, धव्याफुल्ल चुन्नाचे, काळ्या किट्ट काण्णांचे, जांबळ्या जांबळ्या जांबळांचे, गुलाबी जामाचे, आंबट गोड बोरांचे, अमुरपिक्या चिंचाचे.

चिंचो म्हणटकच याद जाली! भुरगेंपणांत माशेलांत म्हजी शाळा आठवी मेरेनूच. णववेकसान आमी म ाशेलांतल्यान कुमारजुव्यां चलत चलत वतालीं. ज्योती, जया आनी हांव अशें आमचे त्रिकूट आशिल्लें. तांतलें ज्योती मातशें कमीच उलोवपी. हांव आनी जया बडबडी- अख्खी वाट उलयत उलयत शाळेंत केन्ना पावलीं तें कळनाशिल्लें. वतना अर्दे वाटेर एक चिंचेचें झाड लागतालें. ताका भरपूर चिंचो लागताल्यो. एक फातर मारल्यार कितलींशीं कोंगलां जमनीर. आमचे वांगडा पका शिकतालो. तो फातर मारपाक फिशाल. आमकां चिंचे रूच येतकच आमी पकाची वाट पळेत चिंचे पोंदा रावतालीं. पका येयसर जमनी वयल्यो चिंचो पुंजावप. पका आयलो काय ताका फुलोवप, 'एकूच मार मरे

फातर!' तो म्हणटालो- 'झक मारा तुमी, लेट जाल्यार घाडी सर बडयतलो.'

घाडी सर आमकां पीटी शिकयतालो. गोरोपिट्ट, मोटवोच! चडशे धवेफुल्ल कपडे- शिस्तीक सामको कडक! पूण स्वभावान मोवाळ.

एक दीस सकाळ फुडें म्हज्या पोटांत दुखूंक लागलें, म्हयन्या म्हयन्याक अशेंच जीव वचसर दुखतालें, कमर फोडटालें, पांयांत गुळे येताले! हरशीं जाल्यार दांडी मारपाचें, पूण त्या दीस टेस्ट आशिल्ल्यान कशेंच चुकोवंक ये नाशिल्लें. हांवें आवय, देवा करीत युनीफॉर्म चडयलो आनी शाळेचे वाटेक लागलें. जया म्हणपाक लागलें, ''आगों बेगीन पांय उखल, आज पयल्या पिरेडाक लेझीमाची प्रॅक्टीस दवरल्या, घाडी सर रावतलो!''

लेझीमाची प्रेक्टीस? देवा म्हज्या आनी तीय बी आयजूच!

हांवें जयाक म्हळें, ''म्हज्यान आज कशें जावचेंना गो! हांव क्लासीनूच बसतां.''

ते दीस कशें कोण जाणा घाडीसराच्या लक्षांत आयलें की हांव स्कुलांत आयलां पूण लेझीम खेळपाक दिसना. ताणें जयाक विचारलें, 'नूतन कुठं गेली?' जयान बाबडें तोंड करीत म्हळें, 'माहीत नाही सर.'

घाडी सर सोमतोच म्हाका सोदीत क्लासींत आयलो. म्हज्या पोटांत पांच पांच - हातांतले बडयेक पळोवन हांव सामकें भिल्लें. हाका कितें सांगुया? हांव चितूंक लागलें.

''ये म्हतारे, लपून बसलीस काय? चल बाहेर लेझीमची प्रेक्टीस करायला.''

घाडी सर तांबडो जाल्लो. हांवें रोखडेंच म्हळें, ''सर मी शाळेंत येतना शेकअऱ्यावर निसरून पडले आणी माझा पाय दुखतो.''

घाडी सरान म्हज्या पांयाचेर नदर मारीत म्हळें, ''खोटारडी कुठली! पडली बिडली काही नाही, मी तुला वेवस्थित चालताना बघितलेलं,नाटक करतेस काय?''

म्हज्या खऱ्यांनीच पोटांत दुखतालें, पूण सांगतलें कशें? हांव एका पायार कुटपाचें नाटक करीत ग्रांवडार गेलें. लेझीम उखल्लो आनी एक दोन चार ....चार तीन दोन एक.. घाडी सराक खेपीत खेळूंक लागले.....

●●●

▪ म्हापसा ▪ 9970445778



**उस्तवारी**



अरूण
काकोडकार



# कुळार

**कन्यादान हो एक वादाचो विशय. आयच्या काळांत अस्तुर्यांची भुमिका बदलल्या. अस्तुर्यो शिकल्यात. स्वतंत्र, स्वावलंबी जाल्यात. दरेका मळार शिक्षण वेवसाय, राजकारण, खेळ हांतूंत परिपूर्ण जाल्यात. आवय-बापायच्या जाणटेपणांत तांकां आदार दिवपा इतल्यो सक्षम जाल्यात.**

'माझ्या गोव्याच्या भूमींत' ही बाकीबाब बोरकारांची अपरूप कविता तांणी 1950 वर्सा बरयल्ली. एकूण सोळा कडव्यांची ही कविता. तातूंतलो एक एक शब्द लखलखीत, चकचकीत मोतयांवरी! एकादरे वेलीचेर ल्हवपीक सोबीत सुंदर फुलां फुलचीं आनी तीं दोळे भरून पळोवन घेवंचीं इतले सहजतायेन तांणी गोमट्या गोंयचें सोबीत दर्शन घडयलां.

कवितेंत एके कडेन ते म्हणटात :

माझ्या गोव्याच्या भूमींत
येतें चांदणें माहेरा
ओल्यावल्या लोचनांनी
भेटे आकाश सागरा

म्हजे गोंयचे भुंयेंत चान्नें कुळारा आयिल्ले वरी येता. ओल्या दोळ्यांनी मळब दर्याक मेळटा असो ताचो अर्थ. सरळ साद्या उतरांत 'कुळार' ह्या शब्दाचो अर्थ लग्न जाल्ले अस्तुरेचें आवयलें घर. लग्न जाल्ली अस्तुरी आवयगेर वचपाक आशेता. पुणून कुळारा सदांच येवप वचप खंय आसता? कुळारा वचपाची ओड, कुळारच्या मनशांक मेळपाची आवड अस्तुरेच्या काळजांत भरिल्ली आसता. तरी लेगीत थंय तिचें वचप निमित्तमात्र आसता. चान्न्यान भरिल्लें मळब पळोवपाची मजा आसता पुणून चान्नें सदांच काय आसना. ज्येश्ठ कवीन गोंयचे भुंयेची तुळा कुळारा लागीं

*लेखक कथा तशेंच ललित साहित्यांत आपली वळख ठळक करता. तांचो 'मूठभर मळब' हो लेख संग्रह लोकप्रिय थारला.*



करतना कुळाराची व्हडवीकाय दाखोवन दिल्या.

भारतीय संस्कृतायेचीं जीं खाशेलेपणा आसात तातूंत कुळार हो कुटुंब वेवस्थेचो एक अखंड वांटो जावन आसा. कुळार ही समाजाचे मानसीकतायेंत रुजिल्ली खूब भावनीक अशी एक संकल्पना. फाटल्या कांय शेकड्यांनी कुटुंब रचना बदल्ली, अस्तुरी स्वतंत्र आनी स्वावलंबी जाली तरीय कुळार हें समाजाचे काल्पनीक जगांत जशें काल आशिल्लें तशें आयजय आसा आनी फाल्यांय उरतलें. ताचो दिश्टावो लोकवाङ्मय आनी संतसाहित्या पसून काल्पनीक पावंड्यावेल्यो भावनाशील कथा, दूरदर्शन मालिका आनी 'माहेरची साडी' सारख्या सिनेमा मेरेन दिसून येता. सदचे धकाधकीचे जिणेंत अस्तुरेक विस्वासाची, आदाराची गरज आसता. खिणभर आवयचे आनी भावंडांचे कुशीक बसून हांसपाची, किटकिटपाची वेगळीच मजा आसता. कुळार म्हळ्यार आवय-बापुयच न्हय तर कुळारचीं नातीं-गोतीं, कुळारचो वाठार, थंयची सरभोंवतण, थंयचो सैम हें सगळें येता.

हजारांनी वर्सांचे आमचे संस्कृतायेच्या इतिहासांत 'कुळार' ही संकल्पना कशी आयली? कुळार, माहेर, मैका अशे तरेचे शब्द भारतीय भाशांतच आसपावल्यात.परदेशी भासांनी ताचो उल्लेख ना. भुंयारांनी रावपी आदीमानव जेन्ना शिकार करून पोट भरतालो तेन्ना पोटापाणयाची वेवस्था आनी भुरग्यांचो सांबाळ अस्तुरे लागीं आसतालो. भुरग्यांक जल्म दिवपी आवयक मान आशिल्लो.भौशीक वेवस्थेंत मुखेल वांटो मातृसत्तेचो आशिल्लो. कालांतरान चित्र बदल्लें. मनीससमाज थीर जालो. शेतकामां, उद्देग वेवसाय करपाक लागलो. साधन संपत, तांचे वांटप हाची नवी वेवस्था तयार जाली. भाटबेसां,तांचे हक्क, अधिकार हे विशीं दादल्यांचे कार्यक्षमतायेक भौशीक मान्यताय फावो जाली आनी अस्तुरेक घरकामा पुरतीच सुवात मेळ्ळी. लग्न जाले उपरांत आपल्या आवय-बापायचें घर सोडून घोवाच्या घरा नव्यान आयुश्य सुरू करप आनी आवय-बापायच्या घराक फकत यादींच्या स्वरूपांत जपप हें चालंत जावन पडलें. कुळार ह्या विचारांत दुरावणेची भावना आयली. ल्हान पिरायेर साकून कुमारावस्थे मेरेन जें कितें भोगलें, फावो केलें तें मनाच्या कुरकुटांत धांपून हळवेपणान जतनाय करून दवरपाची प्रवृत्ती तातूंत आयली.

यादींच्या जगांत शेणपाची मनशाची प्रवृत्ती आसता. हे मुळावे प्रवृत्तीतल्यान 'कुळार' हे संकल्पनेचो जल्म जाला. कुळार अस्तुरे मेरेन शिमीत आसता अशेंय न्हय. दादल्याचेंय कुळार आसूं येता. पुणून वेगळे भशेन ! खेड्यांतल्यान शारांत, मायदेशांतल्यान परदेशांत स्थलांतर केल्ल्या मनशांक तांचे जल्मभुंयेची ओड आसता. अध्यात्मीक पावंड्यार लेगीत परमात्म्या पसून आपूण खूब पयस आसा देखून ताचे वांगडा एकरूप जावपाची जी धडपड आसता ती लेगीत कुळाराचीच संकल्पना. संत कवीनी कुळाराचें रुपक ईश्वर भक्ती खातीर वापरलां. संत एकनाथाचो अभंग आसा:

माझे माहेर पंढरी, आहे भीवरेच्या तीरीं. संत एकनाथ म्हणटात, पंढरपूर म्हजें कुळार. विठ्ठल रखूमाई म्हजीं आवय-बापूय. पुंडलिक म्हजो भाव. चन्द्रभागा म्हजी भयण.

कुळार ही आवय-बापाय वांगडा जोडिल्ली सुवात. अस्तुरेक कुळारा सगळ्यांत लागींची आसता ती आवय. आवयक दिसता आपल्या पोटांतल्यान जल्माक आयल्या ती आपली धूव म्हळ्यार आपल्या काळजांतलो खण. जाय तेन्ना उगडपाचो. आवय-बापूय आनी धूव हांच्या नात्यांतल्या

संस्कारांतल्यान एक आगळें वेगळें नातें उबें जाता. कुळाराच्या नात्यांतल्यान आनीकय नातीं वाडत वतात. भुरग्यांक आजो,आजी,मामा,मावशी अशीं अनेक नातीं मेळत रावतात.

कथा-काणयो, लोकगीतां, दात्यांवेल्यो ओवयो हातूंतल्यान कुळाराचें एक खाशेलें वर्णन केल्लें आसा. कुळाराचें चित्र रंगयतना लोकसाहित्यांत तशेंच आधुनीक कथाकार-कवी हांचेर लोक जाणवीकायेचे संस्कार जाल्ले नदरेंत वतात. कुळाराच्या चित्रणांत आवय उपरांत भावाचें नांव येता. भाऊबीजेक भयणीन भावाक ओंवाळप,भाचयेच्या लग्नकार्यांत मामा-मामीक मान दिवप हें सगळें कुळाराच्या नात्यांतले म्हत्वाचे वांटे जावन आसात. चांदोबा चांदोबा भागलास का ह्या बालगीतांत मामा,भाचो आनी चांदोबा ह्या तिगांयच्या नात्यांचे सोबीत वर्णन केलां. मामाचो चिरेबंदी वाडो, लिंबीणीचें झाड, झाडा फाटल्यान लिपिल्लो चंद्रीम, ताका मामाच्या घरा जेवपाक येवपाचो आग्रो आनी तुपांत मूस पडला म्हण रागान उपाशी परत गेल्लो चांदोबा हे कवितेंत एका अर्थान कुळाराचें चित्र आयलां.

भारतीय संस्कृतायेंत कन्यादान हें पवित्र दान म्हणटात. चली हें परक्याचें धन असो उल्लेख आसा. धुवेच्या लग्ना वेळार बापायन कन्यादान करपाची प्रथा आसा. बापूय नाजाल्यार बापाय समान दुसऱ्या कोणूय दादल्यान कन्यादान करूं येता. साठेक वर्सां आदीं 'कन्यादान' नांवाचो मराठी सिनेमा आयिल्लो. उषा किरण, विवेक हांच्यो तातूंत भुमिका आशिल्ल्यो. लग्ना उपरांत कांय म्हयन्यां भितर पुताक अपघाती मरण येता आनी मांव-मांय फुडें सरून सुनेचें दुसऱ्या तरनाट्या वांगडा लग्न करून दितात आनी तिचें कन्यादान करतात अशी त्या सिनेमाची काणी. ह्या विशयाचेर आनीकय सिनेमा आयले, कथा-नवलकथा आयल्यो.



कन्यादान हो एक वादाचो विशय. आयच्या काळांत अस्तुऱ्यांची भुमिका बदल्ल्या. अस्तुऱ्यो शिकल्यात. स्वतंत्र, स्वावलंबी जाल्यात. दरेका मळार शिक्षण वेवसाय, राजकारण, खेळ हातूंत परिपूर्ण जाल्यात. आवय-बापायच्या जाणटेपणांत तांकां आदार दिवपा इतल्यो सक्षम जाल्यात.

कुळार ह्या उतरांत एक वेगळीच गोडी आसा. अस्तुऱ्यो कितल्योय पयस पावल्यो तरी कुळाराची ओड तांकां सदांच आसता. आतां काळ बदल्ला. विभक्त कुटुंब पद्दतीक लागून कुटुंबीक नात्यांतली ओड उणी जायत गेल्या. आतांच्या कुटुंबांत एकूच भुरगें आशिल्यान मामा मावशेचीं नातीं नानपयत जावंक लागल्यांत. तशें पळयल्यार आवय-बापूय आसासर कुळाराची ओड उरता. मागीर इल्ली इल्ली उणी जायत वता. कितेंय आसलें तरी भारतीय अस्तुरेची आनी समाजाची मानसीकताय जो मेरेन बदलचीना तो मेरेन 'कुळार' संकल्पनेची गरज सदांच उरतली.

▪▪▪

▪ करंझाळे ▪ 9822588852

मोलावणी



अंजू
साखरदांडे

# साहित्यकार महाबळेश्वर सैल हांची एक शास्त्रीय वळख

*उच्च शिक्षण संचालनालय, गोंय सरकार पुरस्कृत संत सोहिरोबानाथ आंबिये सरकारी कला आनी वाणिज्य महाविद्यालय, पेडणे, गोंय आनी कोंकणी विभाग, गोंय विद्यापीठ, ताळगांव आयोजीत राष्ट्रीय परिसंवाद जालो. ह्या 'अक्षर महाबळेश्वर' सुवाळ्यांत साहित्यकार महाबळेश्ववर सैलहांच्या साहित्याची एक शास्त्रीय वळख अंजू साखरदांडे हांणी केली, बिम्ब वाचकां पासत ती आमी हांगा दितात...*

लेखिका मिरामार,पणजे हांगच्या धेंपे कला आनी विज्ञान महाविद्यालयांत सहयोगी प्राध्यापक म्हूण वावुरतात.तीं भारतीय भाशा विभागांत कोंकणी मुखेलीआसात,,



### साहित्य म्हणल्यार कितें?–

सहितस्यभाव इति साहित्यम्।

– मनीसकुळाच्या हिता खातीर बरयतात तें साहित्य.

कथा हो एक मनभुलोवणो साहित्यप्रकार. कथा हो साहित्य प्रकार कथनात्मक (छ्रीरींळींश) साहित्य प्रकारांत आसपावता.

### कथेचें स्वरूप

'कथा म्हणल्यार नाल्लाचो आपरोस काडून केल्लें दाट मखताल हुमण जाल्यार कादंबरी म्हळ्यार तरेकतरा फळांच्यो फोडी घालून तयार केल्लें खतखतें' अशें मत फ्रांसेज कवी चार्लस बांदेलॅयज मांडटात.

ज्ञानपीठकार भौमानादीक दामोदर मावजो हांच्या मता प्रमाण 'कथा म्हणल्यार एका वाद्यवृंदावरी. ऑर्केस्ट्राक सगळ्या वाद्यांची गरज आसता. सगळीं वाद्यां जेन्ना एके विशिश्ट दिकेन, एकेच विशिश्ट गतीन, एका तालान, एका सुरान फुडें वतात, तेन्नाच कथा बरी सादता.'

### कथेची व्याख्या

'उण्यांत उणीं पात्रां आनी उण्यांत उणें प्रसंग घेवन कल्पना आनी वास्तव हांचो मेळ सादून उण्यांत उण्या वेळांत एकूच एक परिणाम सादपी साहित्यप्रकार' म्हळ्यार कथा.

कोंकणी कथेंत नव्यो नव्यो कथा रचपाच्यो धाटण्यो आयल्यो.

लोककथे वरी, फ्लॅशबॅक पद्धतीन, चिटयांच्या

आदारान, उगडासाच्या रुपांत, संवादांच्या रुपांत कोंकणी कथा आकार घेवंक लागली. कांय कथा प्रथम पुरुशी निवेदनांतल्यान-आपुणूय एक पात्र जावन तर कांय कथा तिसरो पुरुशी निवेदनांतल्यान.

कथा फकत राजा, राणी हांच्या जिविताचेरच आदारीत उरनासतना वा भाटकार आनी येंप्रेगादां परस सामान्य म नीस कथेचो नायक जालो.

मनशां बराबर हेर मोनजाती, सैम आनी हेर गजालीय कथांचे विशय जाले.

घरांतल्या प्रस्नां सावन अंतरराष्ट्रीय प्रस्नां मेरेन सगले तरेचे विशय कोंकणी कथाकार समर्थपणान हाताळीत आसात.

कथाकारांनी फकत शारीच न्हय तर गांवांतलें वातावरणय जितें जिवें जावन कोंकणी कथेंत हाडलें. जेवन खावन सुखी मनीस, गिरेस्त मनीस, चिड्डल्ले पिडिल्ले लोक-तांचे प्रस्न कोंकणी कथांनी येवंक लागले वा केळयले.

कोंकणी कथांनी भुरग्यांविशीं, जाणट्यां विशीं, बायलां विशीं, वाडट्या वया वयल्या, लग्ना पयलिंच्या, लग्ना उपरांतच्या, लग्ना भायल्या.......आदी साबार विशयांचेर उजवाड घाला.

कोंकणी कथा दिसान दीस संख्येन तशीच गुणात्मक नदरेन गिरेस्त करपाक साबार कोंकणी साहित्यीकांचें मोलादीक योगदान आसा.(*तांचो उडटो इतिहास दिवपाचें मुद्दम टाळटां.)

तांतलेच एक श्रेश्ठ भारतीय कथाकार म्हळ्यार महाबळेश्वर सैल मूळ खोतीगांवच्या सैलबाबांचो घराबो उपरांत अर्दफोंड काणकोणच्यान कारवार वाठारांतल्या शेजेबाग माजाळी गांवांत स्थायीक जालो.

थंयच महाबळेश्वर सैल हांचो 3 ऑगस्ट, 1943 ह्या दिसा माजाळी ह्या गांवांत जल्म जालो.

सतरा वर्सांचे पिरायेचेर ते भारतीय फौजेंत भरती जाले. 1963 वर्सा ते संयुक्त राष्ट्र संघाचे वतीन इस्रायल-इजिप्त हांचे मदल्या तंट्यांत शांतिसैनीक म्हूण पॅलेस्टायनांत वावुरले. तशेंच 1965 च्या भारत-पाक मदल्या झुजांत हुसेनिवाला सॅक्टरांत तांणी वांटो घेतलो. उपरांत 27 जून, 1967 वर्सा गोंय पुलीस खात्यांत कॉनस्टेबल म्हूण भरती जावन गोंयांत परतले.

ताच्या मागीर केंद्रीय पोस्ट खात्यांत आयले. गोंयांत पोस्टमास्टर म्हूण वावुरल्यात.

आतां निवृत्त जावन मडगांवां स्थायीक जाल्यात आनी कोंकणीतले एक श्रेश्ठ भारतीय साहित्यीक म्हूण दर्जेदार कथा-कादंबऱ्यो रचून कोंकणीचें नांव राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय मळार ते फांकयत आसात.

गोरवां राखणो धरून सरादेर भुजाक आर्म लावन झुजपी जवाना मेरेन भोव पदरी जिवीत जियेवन साहित्याची साधना तांणी जोडली.

तेराव्या वर्सा तांची शाळा सुटली आनी सोळाव्या वर्सा घरदार सोडून भोव कश्टांची, दुख्खदिणी पूण अजापाची जीण तांच्या वांट्याक आयली अशें ते म्हणटात.

सैलबाबांचो पयलो साहित्यीक चंवर-

पयली मराठी कथा- (पिरायेच्या 29 व्या वर्सा) 'कोंडमारा' 1972 वर्सा 'नवयुग' आचार्य प्रल्हाद केशव अत्रे स्मृती दिवाळी अंकांत उजवाडाक आयली.

पयली कोंकणी कथा- (पिरायेच्या 40 व्या वर्सा)'वाशाड'1983 वर्सा 'कुळागर' नेमाळ्यांत उजवाडाक आयली.

तशें पळोवंक गेल्यार ते कोंकणी साहित्य मळ्यांत खूब उसरां देंवले. पूण तांच्या कथांची विविधताय, तांच्या अणभव विश्वाची खोलाय आनी उंचाय आनी अनुभूतीचें गडगंज गांठलें सलाम करपा सारकें.

1989 ते 2011 वर्सां मेरेन पुस्तक रूपांत तांकीवंत कथाकार म्हूण तांणी केल्ली सर्जनशील साहित्याची तपश्चर्या हांची एक धांवती वळख घडोवपाचो ल्हानसो यत्न हांव ह्या प्रपत्रांतल्यान करतां.

महाबळेश्वर सैल- हे कोंकणींतले एक नामनेचे कथाकार. आयजवेर तांचे 5 स्वतंत्र कथाझेले आनी 1 अणकारीत अशे कथसंग्रह उजवाडाक आयल्यात. 1. 'पलतडचें तारूं' (1989) 2. 'तरंगां' (1991), 3. 'बायनेट फायटींग' (2005), 4. अणकारीत 'कावळे आनी काळेंपाणी' (2007), 5. 'निमणो अश्वत्थामो'

(2009), 6. 'दोन मुळांचें झाड' (2011) हे तांचे उजवाडाक आयिल्ले कथाझेले. तांच्या 'तरंगां' ह्या कथाझेल्या खातीर तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

कोंकणी कादंबरीच्या इतिहासांत महाबळेश्वर सैल हांची सुवात भोवच उंचेल्या पांवड्यार आसा. आयजवेर तांणी साबार नवलकाणयो रचून कोंकणी कादंबरीचें आंगण चड गिरेस्त केलां. तांणी 1. 'काळी गंगा' (1996), 2. 'अदृश्ट आनी अरण्यकांड' (1997), 3. 'युगसांवार' (2004), 4. 'खोल खोल मुळां' (2005), 5. 'हावठण' (2009), 6. 'विखार विळखो' (2016), 'माती आनी मळब' (2017) आनी 'अग्रदूत' (2019) अश्यो एका परस एक 8 सरस कादंबऱ्यो रचल्यो.

**सैलबाबांक लाबिल्ले म्हत्वाचे पुरस्कार–**

1993– केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो 'तरंगां' कथा झेल्याक पुरस्कार

1997– डॉ. टी. एम् ए. फावंडेशनाचो पुरस्कार

1989 आनी 1996 – गोंय सरकाराचो संस्कृतीक पुरस्कार

2007– कथा पुरस्कार

2007– गोंय सरकाराचो साहित्य पुरस्कार

2010–विमला वि. पै प्रतिष्ठानाचो पुरस्कार

2016– के.के. बिर्ला फावंडेशनाचो सरस्वती सम्मान पुरस्कार.........

मनीस हो तांच्या साहित्याचो मानदंड म्हूण ते मानतात. तांचीं दुख्खां, संकश्टां, तांचे उमाळे, तळमळे आनी किडिल्लेंपण हेच आपले कथेचे विशय अशे ते मानतात.

**पलतडचें तारूं**

पलतडचें तारूं त्या तेंपा वयल्या नामनेच्या मडगांवच्या कुळागर प्रकाशनान ऑक्टोबर 1989 वर्सा उजवाडायिल्लें. पुस्तकाचें मोल फकत 35 रूपयाच. ह्या पुस्तकाचें मुखचित्र– श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी सजयलां. हें पुस्तक तांणी तांच्या उमाळ्यांचो तळमळ्यांचो साथी आनी सांगाती भाई मावजो हांकां ओंपलां.

पलतडचें तारूं 9 गडगंज शिडांनीं (कथांनी) बांदलां आनी 146 (व्हल्यांनी) पानांनी गुंथलां.

मांडावळ

1. व्यभिचार– पान संख्या 18
2. दोंगरायेदी फट– पान संख्या 17
3. देंठ– पान संख्या 13








4. घरापाखें- पान संख्या 15
5. घराघरांतली रड- पान संख्या 18
6. एक सोंपिल्लें झूंज- पान संख्या 18
7. येणें- पान संख्या 10
8. कोलसुर्णी- पान संख्या 22
9. बळी- पान संख्या 14

### तरंगां

'तरंगां' हो झेलो जाग प्रकाशनान जून 1991 वर्सा उजवाडायिलल्लो.

पुस्तकाचें मोल-50 रूपया. पुस्तकाचें मुखचित्र- श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी सजयलां.

हें पुस्तक तांणी 'तूं पर्थो कसो आयलो?' हे कथेंतले आवयक जी तांची आवय तांकां ओंपलां.

तरंगां 9 गडगंज शिडांनीं (कथांनी) बांदलां आनी 146 (व्हल्यांनी) पानांनी गुंथलां.

मांडावळ-नवें-07, वितराग-08, रूमडाफूल-09, इप्रीत-07, शारपिशें-13, शेणिल्लें मर्ण-07, तूं पर्थो कसो आयलो?-09, मेर-11, तळमळ-09, पुण्याय-08, पातक-09

आनी चेडवान कायदो हातांत घेयलो-13, आडगांव-09, काळखा किरणां-11, आंकरी-10, पाशाणभुंयार-17, तरंगां-05

### बायनेट फायटींग

'बायनेट फायटींग' हो झेलो बिम्ब प्रकाशनान फेब्रूवारी 2005 वर्सा उजवाडायिल्लो.पुस्तकाचें मोल-200 रूपया. पुस्तकाचें मुखचित्र- गिरीश नंदा बोरकार हांणी सजयलां.

हें पुस्तक तांणी एकुणिसशे पासस्टाच्या झुजांत हुसेनीवाला (पंजाब) रणभूंयेर हुतात्मे जाल्ल्या 'सेकंड मराठा लायट इन्फन्ट्रींचे' तांच्या एकवीस सांगात्यांक ओंपलां.

'बायनेट फायटींग' 22 कथांनी आनी 250 पानांनी गुंथलां.

मांडावळ-बायनेट फायटींग-09, मीर्गवाल -12, सात जाण मावळ्यांचो भाचो-12, खरोच हांव चुकिल्लों-07, एक सुन्न मरण-14, सुमती-15, राननागीण-09,मनवैरीण-12, चंदरजोत-10, दूख-21, जूंव-12, अज्ञानसूख-12, घण-09, पोट्रेट-12, तुळस-11, जल्मांतर-10, सूर्यफूल-09, वोताची सावळी-09, उजवाडाचें पावल-11, अपशरण-12, अस्तित्व-08, पेट्टी सावळी-10

### निमाणो अश्वत्थामा

'निमाणो अश्वत्थामा' हो झेलो श्रीशैल प्रकाशनान ऑक्टोबर 2009 वर्सा उजवाडायिल्लो.पुस्तकाचें मोल-120 रूपया. हें पुस्तक तांणी सैमपुरसाक आनी सतेर भूमायक ओंपलां.

'निमाणो अश्वत्थामा' 11 कथांनी आनी 105 पानांनी गुंथलां.

मांडावळ- निमाणो अश्वत्थामा-22, मनीसबुडी -05, मळबपिशें-14, भूंयसुवात-05, सैमपुरूश-10, ताळणी-09, किडे-06, एके सावळेचें मरण-07, काळखा पलतडीं-06, गुणसुत्रां-05, आनीक एक हिमयुग-11

### दोन मुळांचें झाड

'दोन मुळांचें झाड' हो झेलो श्रीशैल प्रकाशनान 2011 वर्सा उजवाडायिल्लो.

पुस्तकाचें मोल-140 रूपया. पुस्तकाचें मुखचित्र- य. बा. सुतार हांणी सजयलां.

हें पुस्तक तांणी सुरेशबाब आमोणकार हांकां ओंपलां.

'दोन मुळांचें झाड' 33 कथांनी आनी 122 पानांनी गुंथलां.

मांडावळ- निशब्द-4, दसणीची खांदी -4, सैमचक्र-4, नागसर्प-4, सुण्यापेटो-3, हरिहर-4 हेडकूक-4, दुदा- दांत-4, एका चोराचो जल्म-4, विपरीत-3,आयुश्य चोर-3, पिसाय-4, राखिल्लें धन-3, निर्दय खेळ-4, उबगण-4, शेणागुळो-4, भोगणारे-3, एक झाड बापडेशें-3, कचरो-3, दोन मुळांचें झाड-4, प्रमेशन-4

दोगांली तोंडां दोनवटेन-3, चांडाळकर्म-5, कॅप्टन

सतीश श्रीनागेश-3, म्हाका परते घेवन वचात-4, पोल्युशन-4, वाग आई आनी हांव-3, सखाराम ाली भयण-4, सुरूप कुरूप-3, मनसंभ्रम-4, भूंयदेश नाशिल्लो-4, भिजिल्ल्यो फुगोट्यो-3, 33. इस्कोट-4

**निश्कर्श-**

1989 ते 2011 ह्या 22 वर्सांच्या काळांत तांणी आपल्याक एक तांकीवंत कथाकार म्हणून सिद्ध केलां. तांकां कथाबीजां आपसूक मेळ्ळीं. तीं सोदपाक तांकां चड तकालस घेवची पडली ना.

कथेची सुरवात, मध्य आनी शेवट हो घाट लक्षांत घेवन तांणी कितल्योश्योच ओडलायण्यो आनी उमळशीक वाडोवपी कथा रचल्यो. फकत 92 कथा पुस्तक रूपान गुंथल्यात. अजून जायत्यो नेमाळ्यांनी बरयिल्ल्यो कथा पुस्तक रूपांत हाडपाची गरज आसा. कथेच्या घटकांच्या साणीर घांसतकच ठळकपणान जाणवतात तीं तांच्या कथांचीं खाशेलपणां अशीं आसात.

महाबळेश्वर सैल हांणी पयलेच फावट सैनिकी जिणेचेर आदारिल्ल्यो कथा कोंकणी कथेच्या संवसारांत हाडून कथा साहित्याक उंचाय हाडली. देखीक- 'एक सोंपिल्लें झूंज, 'बळी', 'तूं पर्थो कसो आयलो?', 'प्रमोशन', 'कॅप्टन सतीश श्रीनागेश'.

तांचे खडतर फौजी आयुश्याची आनी आमच्या भारतीय जवानांची झलक - कडक शिस्त ('एक सोंपिल्लें झूंज', 'तूं पर्थो कसो आयलो?') हे फौजी जिणेचें जितें जिवें दर्शन कथांतल्यान घडलें.- आमकां तांचो आनी भारतीय जवानांचो व्हड अभिमान आनी आदीं सांगलां त्या प्रमाण तांच्या कथांचो स्थायी भाव म्हणल्यार मनीस- तांतले तातूंत गरीब, कश्टकरी समाज झळकता.

प्रामाणीक, परिस्थिती कडेन निमण्या खिणा मेरेन झुजपी, संघर्शमय जीण जगपी.

तांच्या कथांनी हें वास्तव रखरखीतपणान जाणवता.

तांच्या कथांनी ते जिवितांतलें विदारक सत्य मांडटात. देखून तांच्यो चडश्यो कथा संवसारांतल्या विदारक दुखदिण्या/ व्यथांचेर आदारिल्ल्यो आसात. करूणेचो चुरको, करूणायेची गडद-ल्हवसार सयाच तांच्या कथांक चड प्रमाणांत मानवता अशें दिसता.

तांच्या कथांनी मनीसपणाचो वझरो व्हांवता आनी विश्वात्मक आशय फावो करता.

मानाचो सलाम.

तांच्या कथांनी लिंगीक संबंदा विशीं कांय वेळा संयमान तर कांय वेळा भडकपणान विकृतीचेर बोट दवरिल्लें दिश्टी पडटा. देखीक- 'कोलसुणीं', 'व्यभिचार', 'वितराग', 'ताळणी', 'शेणागुळो'...आदी

मनोविज्ञानीक नदरेन विचार केल्यार खपेलशींं भाव-भयणी भितरले लिंगीक संबंद, सॅक्स फोबिया (ड्शु झहेलळर), पिडोफिलीया (झशवेहिळश्रळर), व्यभिचार, झीश आनी र्झीीं ारीळींरश्र रषषरळी, बाळंटेर, पुरूश प्रधान संस्कृताय, व्यसन आनी व्यसनाधीन जावन केल्लीं चांडाळकर्मां- स्वत:चे धुवेचेर बापायन केल्ली आगळीक, आत्महत्या... ह्या विशयांचेर-विकृतींचेर असल्या समाजांतल्या धोंगां-पोंगांचेर तांच्यो कथा बडी मारतात.

आत्महत्या... ह्या विशयांचेर तांच्यो जायत्यो कथा आदारिल्ल्यो आसात. देखीक- 'किडे', 'दसणीची ताळी', 'आयुश्य चोर', 'म्हाका परतें घेवन वचात', 'सखारामाली भयण' आदी.

आत्मघाताच्यो साबार तरा- रूखाचेर गोळ लावन (दसणीची खांदी-विमल), आंगार केरोसीन ओतून (म्हाका परते घरांत घेयात-उज्वला),बांयत उडी घेवन (सखाराम ाची भयण- गौरी)...आदी चितारिल्ल्यो आसात.

तांचो 'निमाणो अश्वत्थामा' हो झेलो पुरायपणान कथाझेल्याचे फास्केंत बसना.11 तल्यो फकत 3 कथा कथेचे धाटणेंत बसतात. ('भूंयसुवात', 'ताळणी', 'किडे') सैम, धर्तरी, पंचमहाभूतां हांच्या संबंदांतले प्रस्न ते म ांडटात. मनशान हजारांनी वर्सां सावन केल्लो सैमाचो नाश लेखकाक हांगां अस्वस्थ करता. तांणी वैचारीक लेख म्हणून दुसऱ्या पुस्तकांत हांचो आसपाव करपाक जाय आशिल्लो. क्लायमेट चेंजचे संकेत, सीड रेन, आयस एज, दुशीत उदक, विखाळ वायू, रसायणां भरसल्लें धान्य आनी फळां, विस्कटून गेल्लीं पर्यावरणसुत्रां... हांचेर खोलायेन








केल्लें चिंतन आनी मनन त्या झेल्यांत आसपावता.

विज्ञान आनी मिथकांचो सुमेळ सादतना ते कथाबीजां फुलोवपाचें भान विसरून गेले काय किर्ते? असो प्रस्न पडटा.

तांचो 'निमाणो अश्वत्थामा' ह्या झेल्यांत खरें म्हणल्यार 'रोबोटीक वॉरफॅर' हे सुंदर विज्ञान कथेचो आसपाव जावपाक जाय आशिल्लो. 11 व्या क्रमांकाचेर घडये तांकां तो घालपाचो आशिल्लो अशें दिसता.

पात्रचित्रण-तांच्या कथांनी पात्रांचें शारिरीक तशेंच मानसीक चित्रण बेस बरे रितीन चितारिल्लें दिसता. व्यक्ति चित्रणात्मक पांवड्या वयलें 'घरापाखें' कथेंतलो गजानन, 'एक सोपिल्लें झूंज' कथेंतलो कर्नल अरविंद, 'व्यभिचार' कथेंतली सरस्वती, 'घराघरांतली रड' कथेंतलें विभा, 'हरीहर' कथेंतलो हरीहर, 'हेडकूक' कथेंतलो सदाशीव, 'एका चोराचो जल्म' कथेंतलो वासू, 'कॅप्टन सतीश श्रीगणेश' कथेंतलो कॅप्टन, 'सुरूप कुरूप' कथेंतली सरस्वती होनी )......आदी.

देख-

'सुरूप कुरूप' कथेंतली सरस्वती होनयेचें (व्हनी) चित्रण-

सरस्वती होनी भोवच सोबीत आसली. तांबसो गोरो रंग, काळे काळे लांबसडक केंस, उंच सडपातळ बांदावळीची कूड. मातशे घारशे चकचकीत दोळे. सर्गांतल्यान देवी अवतरिल्ले वरी दिसताली. स्वभावानय तितलीच बरी आशिल्ली. गोड आवाजांत किणकीण उलयल्यार दर एका उतरांतल्यान म्हौंव गळटा अशी दिसताली. चलतना डफलीच्या तालार पावलां उडयता अशें दिसतालें. तिचें न्हेसप इतलें सोबीत, नकसूद आसतालें, तिका एकाद्या चित्रांतल्यान काडून हाडला. एक नितळ, सात्विक, सोबीत अस्तित्व. ('दोन मुळांचें झाड'-पान क्र. 105)

अस्तुऱ्यांक ते व्हड मान दितात. अबला तश्योच सबला अस्तुऱ्यो तांणी चितारल्यात. तांच्या कथांतल्यो बायलो बऱ्योच 'बोल्ड' दिसल्यो. मागीर ती 'व्यभिचार' कथेंतली सरस्वती आसूं वा 'कोलसुणीं'तली रेणुका वा 'दोंगरायेदी फट' कथेंतलें विमल, 'ताळणी' कथेंतलें स्नेहा, 'शेणागुळो' कथेंतलें निर्मला, 'राखिल्लें धन' कथेंतलें रश्मी.....

'ताळणी' कथेंतल्या स्नेहाक काळजाचें दुयेंस आशिल्ल्यान लग्न जावंक फावना म्हूण सांगिल्लें आसलें तरी तें अस्तुरी म्हूण ताच्यो मुळाव्यो सैमीक इत्सा आकांक्षा मारून उडोवंक तयार नासता. एक दीस तें इश्ट अभिनवाक फोन करून आपयता आनी सैमीक इत्सा भागयतनाच

कुडीसुखाच्या परमोच्च खिणार पावतकीच तें मरणाच्या गोपांत रिगता. ताळणेक लागून आपली जीण सोंपयता- काळजाक पीळ घालपी ही एक अप्रतीम कथा.

निवेदन- कांय कथांनी तिसरो पुरूश तर कांय कथांनी पयलो पुरूश निवेदनांतल्यान तांच्यो कथा आकार घेतात. गरजे पुरते संवाद कथानक आगळेच उंचायेर पावयतात. कथेची लांबाय हांवें आदीच सांगिल्ली आसा. पूण सगळ्याच कथांक इतली लांब लचक लावण लावपाची गरज नाशिल्ली अशें म्हजें वैयक्तीक मत.

तांच्यो कथा ह्यो दीर्घ कथा म्हळ्यार बऱ्यो.

भास शैली- सादी सरळ चित्रमय लालित्य पूर्ण भास निर्मणी केल्या. तांचे भाशेंत आगळेंच प्रवाहीपण दिसून येता. कांय फावटीं तांची भास काव्यात्म जाता. देखीक- एक फावट नदरेक नदर मेळटकीर तें कमळ फुलिल्ले वरी हांसलें. (व्यभिचार), सकाळच्या चकचकत्या ओतांत तळ्यांतलीं माणकुलीं ल्हारां रूपयाच्यो लंगड्यो कश्यो नाचत नाचत तडीक येताल्यो.(दोंगरायेदी फट)

सहाजीकूच पयलेच फावट कोंकणी साहित्यांत कारवार वाठारांतली उतरावळ अक्षर रूपांत कागदार आयली आनी कारवारी शैलीचो गोडवो वाचकांक घेवंक मेळ्ळो. देखीक, मेटलां, कन्न, बागलां, मुसुंडी, लोट, झकपक, शिंयाळीं......आदी.

फोगा संबंदी नवी उतरावळ- भूंयनळो, नकेत्रांकाडयो (चंद्रज्योती)

वातावरण निर्मिती- जितें जिवें वातावरण चितारिल्ल्यान तांच्यो कथा उखलाप्यो दिसनात. वातावरणाक लागून कथेक, कथेंतल्या पात्रांक गती फावो जाल्या. कारवार आनी शेजारच्या वाठारांतलो सैम हुबेहूब ते आमच्या दोळ्यां सामकार उबारतात.

आमकां सैलबाब कारवार, सदाशीवगड, सुपें, दांडेली .......आनी थंयच्या सैमाची (झाडां) वाठाराची भोंवडी घडयतात.

फौजी जीण-पिट्टू परेड हांची झलक घडयतात.

निमणे कडेन इतलेंच म्हणटां की सैलबाबांनी ताणिल्लें 'पलतडचें तारूं' काळे गंगेंतल्यान तुरूतरू धांवत तरंगां नाचयत निरंतर बायनेट फायटींग करीत निमाण्या अश्वत्थाम्याक गळसणी घालून दोन मुळांचे झाडा मजगतीं युगसांवारांत संघर्शमय वाट काडीत विखार विळख्यांत शिरकनासतना माती आनी मळबाक गंवसणी घालून अग्रदूता मेरेन पावयलां. तांणी अशीच साहित्यीक परिक्रमा करची आनी कोंकणी साहित्याक सरस्वती सम्माना सारक्या तोलामोलाच्या पुरस्कारांनी गिरेस्त करचें म्हूण तांकां बरें आयुश्य आनी भलायकी आंवडेतां.

**संदर्भावळ-**


नायक, सुशांत.कथा.कुळागर प्रकाशन,1989

नायक, शीला.ओली सांज. जाग प्रकाशन, 1973

नायक, शिवदास.उर्बा. उर्बा प्रकाशन, 2015

मावजो, दामोदर. फिनिक्साचें उत्थान आनी सर्जकाचे उत्फर्के. अंडर द पिपल ट्री,2019

सैल, महाबळेश्वर.पलतडचें तारूं. कुळागर प्रकाशन,1989

सैल, महाबळेश्वर.तरंगां. जाग प्रकाशन,1991

सैल, महाबळेश्वर.बायनेट फायटींग. बिम्ब प्रकाशन,2005

सैल, महाबळेश्वर.कावळे आनी काळेंपाणी. प्रकाशन,2007

सैल, महाबळेश्वर.निमाणो अश्वत्थामा. श्रीशैल प्रकाशन,2009

सैल, महाबळेश्वर.दोन मुळांचें झाड. श्रीशैल प्रकाशन,2011

वेरेंकार, श्याम, माधवी सरदेसाय, कमलाकर म्हाळशी. कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय. कोंकणी भाशा मंडळ,2003.

सरदेसाय, मनोहरराय. अ हिस्टरी ऑफ कोंकणी लिटरेचर.कोंकणी साहित्याचो इतिहास).साहित्य अकादेमी,2000.

सरदेसाय, लक्ष्मणराव.कथाशिल्प. जाग प्रकाशन, 1977


●●●


▪ मिरामार-गोंय▪ 9764600913



डॉ.रिना
लवंदे

## सुंगटांचें लोणचें

**साहित्य** : 2 वाटयो निवळ केल्लीं सुंगटां, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो, 5 व्हड कुलेरां मिरसांगांचो पिठो , 2 ल्हान कुलेरां सांसवां, 1 ल्हान कुलेर मेथयो, 1 ल्हान कुलेर शंकरछाप हिंग, 1 वाटी आमटाणीचें दाट उदक, 4 व्हड कुलेरां तेल.1 लिंबाचो रोस.1 ल्हान कुलेर मीठ.

**करपाची तरां** – हळदी पिठो, मिरसांगे पिठो,आमटाणी उदक आनी मीठ सुंगटांक बरें सारावन पंदरा मिनटां म रुपाक दवरचें. एके कायलींत तेल घालचें. तेल तापले काय तातूंत हिंग,सांसवां आनी मेथयो घालच्यो.मेथयो तांबसार जाल्यो आनी हिंगाचो वास सुटलो काय तातूंत मुरपाक दवरिल्लीं सुंगटां घालचीं. बरें चाळचें. मागीर धांकण घालून 10 मिनटां शिजोवंचें. मागीर बरेंऽ चाळचें. गॅस बंद करून लिंबाचो रोस घालून परत चाळचें. न्हिवलें काय हें लोणचें भरणेंत भरून फ्रिजांत दवरचें.

## सारस्वत मसाला (गरम मसाला)

**साहित्य** : अर्द किलो सुक्यो तांबड्यो मिरसांगो.1 व्हड कुलेरशहाजिरें,1 व्हड कुलेर मिरयां,1 व्हड कुलेर नागकेशर,1 व्हड कुलेर बदियल,1 व्हड कुलेर लवंगां, 12 वेलच्यो,250ग्राम कोथमिऱ्यो,1 व्हड कुलेर जिरें,2 चि तिखी, 1 व्हड कुलेर बडीशेप,3 दगडफूल 1 जायफळ, 4 हळदीकुटां.

**करपाची तरा** – मंद उज्यार वयर सांगलां तें सगळें साहित्य मंद उज्यार एक एक करून भाजून घेवंचें. मागीर ताचो बारीक दळून मसालो करचो आनी भरणेंत भरून दवरचो.

## कुळदां पिठी

**साहित्य** : 1 वाटी कुळीद, अर्द नाल्लाची सोय,1 वाटी किशिल्लें गोड,चवी पुरतें मीठ, उदक.**करपाची तरा** – कुळीद बरे ताबुडसार जायसर भाजून घेयात. मागीर ताचें दळून पीठ करात. सोयेचो रोस काडात. 4 वाटयो उदक गॅसार दवरून तातूंत कुळदांचें पीठ घालात. धवळून एकजीव करात. मंद उज्याचेर दवरून हें पांच मिनटां धवळत रावंक जाय. मागीर तातूंत मागीर गोड घालपाक जाय. सात–आठ मिनटां शिजतकच नाल्लांचो रोस घालून धवळून घेवंचें. दोन मिन्टां शिजल्या उपरांत मीठ घालून शिजोवन बंद करचें.

## मटर–मशरूम पुलाव

**साहित्य** : देड कप बासुमती तांदूळ,15–20 अळमी, 3 कांदे बारीक चिरून, 1 वाटी मटार सांगां सयत, 2 बारीक चिरिल्लीं टमाटां,1 व्हड कुलेर आलें,लसूण पेस्ट, 1 व्हड कुलेर बिर्याणी मसाला, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो, 1 व्हेज मॅगी क्यूब,1 वाटी शिंदिल्ली कोथमीर,1 व्हड कुलेर तूप,रुची पुरतें तूप, 3 कप गरम उदक.

**करपाची तरां** –अळम्याचे दोन दोन कुडके करचे.तांदूळ धुवन घेवन अर्दवर दवरचे.मध्यम उज्यार कुकर दवरचो. तातूंत तूप घालचें. तूप तापलें काय तातूंत आले,लसूण पेस्ट घालून तळसून घेवंचें. कांदो तांबसार जालो काय तातूंत टोमाटां घालून चाळचें.टोमाटां मोव जालीं काय तातूंत अळमी,मटार,तांदूळ घालचें. बरें चाळचें. मागीर हळदी पिठो,बिर्याणी मसाला,मीठ आनी मॅगी क्यूब पावडर करून घालचो. मातशें चाळचें. मागीर तीन कप गरम उदक घालचें. कोथमिरे पालो घालून कुकराचें धाकण घालचें. मध्यम उज्यार दवरचो. दोन शिटयो येतकच उजो बंद करचो.कुकर न्हिवलो काय पुलाव वाडचो.हुनहुनीत खाल्यार रुचीक लागता.

▪ कळंगुट ▪ 9823998884

भलायकी



राज
वैद्य

# दुखता? सांबाळून घेयात!

त्यो गुळयो लेगीत तशोच. मोडप ना, कापप ना, चोखप ना, पिठो करप ना. ते दोन लेयर आस-तात पळय तातूंत केन्ना केन्ना एकूच वखद आसता- पूण एक लेयर आसता तातूंत वखद हळू रिलीझ जाता अशी तांत्रीक मांडणी केल्ली आसता. जाल्यार दुसऱ्या लेयरांतलें वखद एकदम रिलीझ जावंचें अशी मांडावळ आसता. तर हे मांडावळींत कितें जाता, तर एकेच गुळयेंत थोडें वखद बेगीन रिलीझ जावंक जाय आसता आनी थोडें हळू हळू. ती तशी कुडीची गरज आसता.

*लेखक नामनेचे फार्मासीस्ट, आनी समाजवावुरपी आसात*

पंचेचाळीस पिरायेचो सागर आपल्या आमिगाचे फार्मासींत पेनकिलर मागूंक आयिल्लो. ताका फार्मासकारान पांच मिनटां आरते परते प्रस्न विचारतकच...

**सागर:** आरे आतांच ऑर्थोपेडीक दोतोराक मेळून आयलां, आनी ताणें कसलींच वखदां घेवप-ाची गरज ना म्हूण सांगलें, म्हूण हांव तुजे कडेन आयलां...

**अतुल:** योग्यच केलें दोतोरान! गरजे भायर कित्याक गुळयो घेवपाच्यो? भेंड दुखता ताका कितें व्यायाम सांगला दोतोरान?

**सागर:** हय रे,,,तें सांगलांच ताणें- बसतना,न्हिदतना, कितेंय उखलतना कितें काळजी घेवप, फाटीचे स्नायू मजबूत करपाक व्यायाम बी सांगला.

**अतुल:** तेंच वखद तुका. दोतोरान जें कितें सांगलां तें वेवस्थीत पाळपाचें! म्हणटकच तुका गूण पडटलो. इतलेंच न्हय तुजे प्रॉब्लेम मुळा सकट वतले! आनी वजनूय कमी कर तुगेलें, नातर फुडें धोंपरांक त्रास जातलो.

**सागर:** आरे जावपाक लागलाच! आनी तेंवूय सांगलें दोतोरान.... व्यायाम, चलप बी बंद जालां न्ही रे...फकत कंप्युटर आनी लॅपटॉपार बसून एक सारखें कामूच काम!

**अतुल:** दोतोरान सामको योग्य सल्लो दिला तुका! तो योग्य तरेन चालीक लाय. मातशें कितेंय दुखलें म्हूण पेनकिलरा फाटल्यान लागूं नाका. लोक 'एकूच','गरज पडटा तेन्नाच','केन्नाय घेतां' अशें म्हणत म्हणत तांच्या पोटांत कितलें पेनकिलर वता हें तांकांच कळना. तेच पासत सगळे कडेन तांचो खप आनी मागणी वाडत आसा...लोकांक दिसता पेनकिलर म्हणल.ार क्वीक रिलीफ...

**सागर:** चड्डूय बरें न्हय तर तें ? पूण कितलेच लोक सर्रास वापरतात तें!

**अतुल:** वापरतात म्हणचे? वापरताच! आतां तुकाच पळय मरे, तू आयलो ना मागूंक?एक 'पॅरासिटामॉल' सोडल्यार बाकीचे जे कितें पेनकिलर आसात पळय, तांकां दोतोराच्या रशेता बगर विकप ना अशें त्या वखदाच्या लेबलाचेरूच बरयिल्लें आसा. ताकाय कारण आसा. असलीं वखदां सांबाळून घेवपाचीं आसतात!



**सागरः** म्हणटकच हांव मागपाक येतां तशें करूंक फावना तर हांवें?

**अतुलः** हय,सारको उलयलो तू आतां. असल्या वखदांच्या वापराचेर दुयेंतीन स्वता कंट्रोल दवरूक जाय न्ही.. पूण कितल्याच लोकांक खबरूच नासता, हीं वखदां घेतलीं जाल्यार तांचो वायट परिणाम आमच्या आतड्याचेर, किडणी, फिग्दाचेर बी जावंक शकता. तुमी ताचो वापर जितलो चड करशात तितलो तांचो धोको चड म्हणपाचें मतींत धरपाक जाय. जांकां उच्च रक्तदाब,डायबेटीस असलीं दुयेंसां आसात तांणी लेगीत तीं घेवंक फावना. दोतोरान सांगलीं जाल्यारूच निरुपाय म्हूण तितल्या पुरतींच घेवपाचीं!

**सागरः** हय बाबा,तुमी फकत सांगपाचें काम करपाचें... लोकांनी खरें म्हणल्यार हें सगळें समजून घेवन आपल्या जिवाची काळजी घेवपाची...! सारकें न्हय? आतां म्हाका एक सांग, म्हजे फाटीक,धोंपरांक तें तेल बी लायल्यार जाता? कितें रे ताचें नांव तें...दिसाळ्यांचेर आनी चॅनलांचेर लागीं लागीं सदच्योच ताच्यो जायराती आसतात.

**अतुलः** जितली जायरात व्हड तितलें ताचें मोल चड! शंबर मी.ली.चे बाटलेक साडेतिनशीं काय कितले पडटात!

**सागरः** म्हारग बी जावं पूण त्या प्रॉडक्टाचो एफेदूय तितलोच खर आसतलो न्हय! तें वापरपी कितलेशेच लोक आंपल्याक तें गुणाक पडलां म्हणपाचे पुरावे दितात न्हय...! त्या भायर आयएसवो प्रमाणपत्र आनी हेर कितें कितें आसता त्या जायरातींनी!.

**अतुलः** असल्या जायरातींक लागून त्या प्रॉडक्टांची विक्री सुमारा भायर जाता. नदर ओडून घेवपी जबरदस्त जायराती, ताचें मागीर हिसपा भायलें मोल, जांणी तांचो हे आदीं वापर केला त्या लोकां कडल्यान ताच्या दर्जाची हयकारी साक्ष,जाका टेस्टीमोनी(testimony) म्हणटात,तांच्या आदाराचेर व्हडले व्हडले दावे करप हें मोठ्या प्रमाणांत चल्लां आयज काल. आपलो म्हाल खपोवपाच्यो ह्योच तर तांच्यो युक्त्यो! आनी लोक नेमके हाकाच बळी पडटात!

**सागरः** ओह! अशें आसता तर तें! लोकांचो वीकपॉयन्ट सोदून काडून तांणी वापरिल्ल्यो ह्यो तांच्यो मार्केटीग ट्रिक्स तर!

**अतुलः** हय सारकें! आयुर्वेदाच्या नांवाचेर कितेंय खपोवप चल्लां. हींच तेलां न्हय आनीक कितल्याच गजालींच्यो जायराती चलतात.

**भाईः** हांवूय त्यो वाचून कसो बळी पडलों पळय! आतां तूं आपली सामाजीक जापसालकी वळखून म्हज्या सारख्यांक शादूर करता ही वेगळी गजाल. पूण गिरायक आयलां,करया धंदो अशें करप्यांचीच आयज गर्दी आसता. आतां हेंच पळय,दोतोरान म्हाका स्पश्ट सांगलें, आपूण तुका कांयच बरोवन दिना म्हूण! तुका गरज दिसताच जाल्यार घरा कडेन शेक बी मार म्हूण. पूण हांव खंय ताचें आयकूंक गेलां!

**अतुलः** हांगाच तर चुकता सगळ्यांचें. आमी जाणकारांचें आयकून घेनात आनी जायरात करप्यांक बळी वतात. हि असली दूख आसता पळय ती पेनकिलरान तितले पुरतीच थारल्या अशें दिसता. पूण ताचे सायडइफेक्ट आनीक त्रासांत उडयतात. ते परस जर कांय घरगुती उपाय केले वा सवायसो बाम बी लावन ती दूख पयस करपाचो यत्न केलो तर फुडले सगळे ताप चुकतात. ताका लागून दोतोरान तुका जो कितें सल्लो दिला तोच तुवें पाळप तुज्या बऱ्याचें हय काय न्हय?

**सागरः** शंबर टक्के सारखें रे बाबा तुजें! तुजें आयकून हांव सामको कन्वीन्स जालां. त्या भायर आतां म्हाका कन्फीडन्सूय आयला. तें पेनकिलर घेवंचे परस व्यायाम बी करून कुडीक जाग्यार घालपूच शाणेपणाचें! ती आमची जणेकल्याची जिम्मोदारी.

•••

▪ पणजे-गोंय▪ 94220 62286



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615



## माय 2022 उतरकुवाडें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | | 3 | ■ | 4 | 5 | | 6 |
| | ■ | | ■ | 7 | | | | ■ | |
| 8 | | | ■ | | | 9 | | ■ | |
| | ■ | 10 | 11 | | ■ | | ■ | ■ | |
| ■ | 12 | ■ | | ■ | 13 | | | 14 | |
| 15 | | | | ■ | ■ | | ■ | | ■ |
| 16 | | ■ | ■ | 17 | | | ■ | 18 | |
| | ■ | 19 | ■ | | ■ | 20 | 21 | | ■ |
| 22 | 23 | | | | | ■ | | ■ | 24 |
| ■ | 25 | | ■ | | ■ | 26 | | | |

**आडवे :** 1-गरज नाशिल्लें. 4-बरो विचार. 5-'ओशो' म्हूण फामाद आशिल्लो एक अध्यात्मीक गुरू. 8-कमळ, xxx गांधी, भारताचे एक आदले प्रधानमंत्री. 9-ताल, गती, चाल (संगितांतली). 10-व्हड फातर, तळप. 13- हें गुन्यांवकाराकूय मेळटा आनी क्रिकेटींत फलंदाजाकूय मेळटा. 15-अनुभव, प्रचिती. 16-जबाब, जाब. 17-भाशेचें, भाशे विशींचें. 18-पांच आनी पांच (हिन्दी). 20- एक लवचीक पदार्थ. 22-पलतडी रावपी. 25- साठ मिनटांचो काळ. 26-श्रीरामान 'हो' चवदा वर्सां भोगलो.

**उबे :** 1-गुन्यांव. 2-भक, जेवपा खावपाची खूब आस्त. 3-मि ठान फळ खार जावन ताची आंबसाण वचप, मन रंजप. 4-'लिटल मास्टर' म्हूण फामाद आशिल्लो एक भारतीय क्रिकेटर. 5-शिक्षणाचे वेगवेगळे भाग. 6-भयणीन खासा वा मानिल्ल्या भावाच्या हाताक राखी बांदपाची चाल. 11-बेब्याचो आवाज. 12- एकाच जाग्यार उरिल्ल्यान स्नायू दुखप. 14- जांबावलेचें दैवत. 15-आश्चर्य जावप, नवल दिसप. 17- भाट-बेंसांचो धनी. 19-धापिल्ले सुवातेंत, मजगतीं, मदीं. 21-बुतांव. 23-श्रीरामाचो एक पूत. 24-कड, बाजू, काडयेचो बारीक कुडको.

## आब्रिल2022 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| हु | म | टा | व | प | ■ | प | तं | ज | ली |
| म | ■ | पू | र | ■ | ग | रि | बी | ■ | न |
| ण | व | ■ | ण | ■ | र | च | ■ | मा | ता |
| ■ | ज | ■ | भा | व | ज | य | ■ | व | य |
| प | न | व | त | ■ | ■ | ■ | मा | सो | ■ |
| ग | दा | ■ | ■ | धां | वा | धां | व | ■ | व |
| डो | र | ■ | ग | व | त | ■ | शे | ■ | र |
| ■ | ■ | पा | र | ध | ■ | स | भा | स | द |
| तों | ■ | त | ■ | प | त | ■ | व | ■ | क्ष |
| क | म | ळ | ■ | टी | प | ■ | ■ | ■ | णा |

# मालवणचे लोककवी लेखक आनी समाजसेवक

# रुजारिओ पास्कॉल पिंटो

## हांची उजवाडाक आयिल्ली ग्रंथ संपदा





















## रुजारिओ पास्कॉल पिंटो हांच्यो लोकप्रिय ऑडियो सीडी






